# बगलांट

(एकांकी संग्रह)

रेखा रामनाथ नायक

ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन

बगलांट (एकांकी संग्रह)

लेखिका :
-- रेखा रामनाथ नायक

प्रकाशन क्र.: ६०



उजवाडावपी :
श्री. मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

छापणावळ :
सौ. माधुरी मिलींद तिंबले
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल, गोंय

मुखचित्र
सिद्धी थळी

मुद्रिता तपासणी :
दामोदर घाणेकर

पयली उजवाडावणी :
फेब्रुवारी २००८

मोल : 40/- रुपया

BAGALANT (ONE ACT PLAYS)

WRITER :
- Rekha Ramnath Nayak

PUBLICATION NO.: 60



PUBLISHER :
Shri. Milind Kamalakar Mhalshi
Om Shri Datt Padmajaa Prakation
Shristhal, Canacona, Goa.

PRINTER :
Mrs. Madhuri Milind Timble
Swarnamudra Prints,
Marcel, Goa.

COVER :
Siddhi Thali

PROOF READER :
Damodar Ghanekar

FIRST EDITION :
February 2008

PRICE :. Rs. 40/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर आर्थीक पालव येवजणेखाला छापला.

# प्रस्तावना

आपलो शिक्षक 'सर' ह्या नात्यान श्रीमती रेखा रामनाथ नायक आपल्या 'बगलांट' ह्या पयल्या नाटकुल्यांच्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरय म्हणून सांगूंक म्हजेकडेन आयलें. हांवें ताणें बरयिल्लीं नाटकुलीं चाळ्ळीं. 'हांवें अजून एकूय पुस्तक बरोवंक ना, तेन्ना तूं खंयच्याय साहित्यिका कडल्यान प्रस्तावना बरोवन घे.' म्हणून सांगलें. पूण ताणें हट्टूच धरलो. आनी सर ह्या नात्यान ताचो हो हट्ट म्हाका पूर्ण करचो पडलो.

रेखा म्हजी एक आवडटी विद्यार्थिनी. शिकपाक बरें आशिल्लें, नाटकांतूय सुंदर काम करी. प्रेमविवाह करून ताणें कश्ट आनी झीज सोंसून, हांसत खेळत बरो संवसार उबारला. ताचेर ल्हानपणापसून जे संस्कार जाल्यात तांचें पडब्रिंब ताच्या नाटकुल्यांनी दिसता.

'राजाक हॉटॅक नाका जाता' ह्या नाटकुल्यांत राजाक, बायल रांदचेकुडींत उरता आशिल्ल्यान, सुटयेंत मजा करपाक हॉटॅलांत वचून रावन दिसता आनी थंय ताचे सगळे पयशे सोंपतात तेन्ना ताचो इश्ट रमेश ताका आदार दिता. हो मदत करपाचो संस्कार रेखा भितरूय आसा. आनी पयशे कशेय खर्च करचे न्हय हें संवसार करून तें शिकलां. तेच बराबर हिंदू कुटुंबांत बायल चडशी वेळ रांदचेकुडींतूच उरता ही खंतूय तें प्रगटायता. बायलांक अर्दांगिनीचो दर्जो आसा हें घोव विसरतात.

'अंतूलो बाप्पाचो दोतोर,' 'ती' आनी 'बगलांट' ह्या नाटकुल्यांनी रेखाचो हांसतो खेळटो सभाव पळोवंक मेळटा, जाल्यार 'याद,' 'तनू' ह्या नाटकांनी ताचें कश्टमय आनी झीज सोंशिल्लें जिवन दिसता. 'कोडें' आनी 'व्हड मन' ह्या नाटकुल्यांनी रेखाच्या मनांतले सामाजीक संस्कार फुडें सरतात.

बायलांचें आनी भुरग्यांचें शोशण, हुंडो, मतिमंद भुरगीं, वेठबिगारी, सैमाचें विद्रुपीकरण अशा संवेदनशील विशयांक ताणें हाचे फुडें हात घालचो.

रेखा आयज शिक्षिका म्हणून वावुरता आनी आयच्या तरणाट्यांखातीर ताणें हीं नाटकुलीं बरयल्यांत. 'याद' आनी 'राजाक हॉटॅल नाका जाता' हीं नाटकुलीं ताणें बरोवन आकाशवाणीचेर सादर केल्यांत म्हणटकूच ताच्या नाटकुल्यांच्या दर्ज्याविशीं आनीक वेगळें बरोवपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसना.

नाटकुलीं बरोवपाची ताका अशीच प्रेरणा दी आनी ताचे कडल्यान नाटकुल्यां पसून बरीं नाटकां आनी हेर साहित्य बरोवन आमकां वाचपाक मेळूं अशें हांव देवी सरस्वती कडेन मागतां.

**सुहास हिरबा सरदेसाय**
'तीर्थरूप', पर्वरी
९-११-२००७

# मनोगत

भुरगेपणांतल्यान म्हाका वाचपाची खूब आवड आशिल्ली. तशीच म्हाका माचयेचीय गोडी आशिल्ली. म्हजो आपा म्हळ्यार बापूय म्हाका प्रत्येक राष्ट्रीय सणाक भाशणां दितालो. फुडें फुडें हायस्कुलांतल्या वक्तृत्व सर्तींनी फुडें सरपाक म्हाका म्हज्या हायस्कूलाच्या मुख्याध्यापकान म्हळ्यार मानादीक सुहास सरदेसाय हांणी आदार दिलो आनी चड म्हत्वाचें म्हळ्यार त्या वेळार म्हज्या माईचें (व्हडले भयणीचें) भाशणाचें प्रशिक्षण चड उपकरा पडलें. ते स्फूर्तीन म्हज्या आवडींक फांटो फुटलो.

गांवांतल्या नाटकांनी आनी गवळणकाल्यांनी हांवें खोशयेन वांटो घेवचो. लोकांक म्हजें काम आवडटालें. अशेंच म्हाका कांय नाटकांनी मुखेल काम करपाक संद मेळ्ळी. तें पळोवन म्हज्या एका शिक्षकान, श्री. प्रकाश केरकार हांणी म्हाका रेडियोचेर ऑडिशन च्रांचणी दिवपाक लायली. तातूंत हांव आकाशवाणी कलाकार म्हुणून वेंचून आयलें. आकाशवाणीचेर जायत्या कोंकणी नभोनाट्यांनी हांवें म्हजी कला ओंपल्या. एके वटेन हांव इश्कोलांत शिकयतालें तर दुसरे वटेन फावल्या वेळार बरोवपूय चालू दवरतालें.

म्हजें चडशें बरोवप लग्न उपरांतूच जालां. म्हाका म्हज्या घोवान हें बरोवप करपाक खुबूच मुखार हाडलें. हांवें सांगचे पयलींच तो म्हाका वाचनालयांतलीं कांय नाटकां, कादंबऱ्यो हाडून दितालो. बरोवपाक पेपर तयार दवरतालो. अशे उमेदीन हांवें जायत्यो कार्यावळी बरोवन आकाशवाणीचेर सादर केल्यो. पूण मनांत सदांच एक उमळशीक आसताली कीं तरणाट्यांखातीर ल्हानशींच कांय नाटकुलीं बरोवचीं आनी पुस्तक उजवाडाक हाडचें; अशें मनांत धरून हांव बरोवंक लागलें.

म्हजीं दोन नाटकुलीं आकाशवाणीचेरूय हांवें सादर केलीं. खूबशाजाणांक

तीं आवडलीं आनी म्हजे लिखणेक आनिकूय नेट आयलो. 'याद' आनी 'राजाक हॉटॅल नाका जाता' हीं दोनूय नाटकुलीं आकाशवाणीचेर सादर करतकूच हांवें 'तनु', 'अंतूलो बाप्पाचो दोतोर, 'कोडें' ह्यो एकांकी बरयल्यो आनी त्यो बरयतना म्हजे व्हडले धुवेन कांय विचार तातूंत मांडले आनी त्यो हांवें पुराय केल्यो.

मदीं मदीं संवसाराच्या आनी नोकरेच्या राटावळींनी गुंथिल्ल्या कारणान म्हजें लिखाण परत फाटीं पडलें. पूण नवीं नवीं नाटकुलीं जन्माक येवंक जाय जाल्यार योगूय येवंक जाय म्हणटात. तसो योग आयलोय. एक दीस अशेंच पणजे गेलां थंय म्हाका गोंय कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीकबाब मेळ्ळे. तांची म्हजी बरीच पयलींची आकाशवाणीचेर वळख. तांणी म्हज्या लिखाणाची चवकशी केली आनी कितें बरयलां तें हाडूच म्हूण सांगून म्हज्यांत नवी उमेद निर्माण केली. तेच रातीं हांवें लिखणी हातांत घेतली आनी 'बगलांट' एकांकीक जल्म दिलो. ताचे फाटल्यान 'व्हड मन', 'ती' ह्यो एकांकी पुराय करपाक म्हाका म्हज्या घोवाचे आनी म्हजे धाकटे धुवेचे विचार घेवचे पडले. तांच्या आदारान ह्या एकांकींचो निमाणो भाग हांवें पुराय केलो.

ह्या पुस्तकांत म्हज्या आठ एकांकींचो संग्रह आसा. ही एक उमेदीन सुरवात जाल्या. हाचेफुडें हांव बरयत रावतलें आनी वेगळ्यावेगळ्या तरांचीं पुस्तकां उजवाडाक हाडपाचो यत्न चालूच दवरतलें असो हांव संकल्प करतां.

हें पुस्तक उजवाडाक हाडूंक म्हज्या गुरुचो म्हाका प्रस्तावनेंतल्यान आशीर्वाद मेळिल्लो आसा तांचे पयले उपकार आठयतां. तशेंच जायत्या जाणांनी हातभार लायला. हांव तांचेय काळजांतल्यान उपकार मानतां.

**रेखा रामनाथ नायक**

मार्रा - पिळर्ण
बार्देश - गोंय,
फोन : 2407655



कुलदेवी शांतादुर्गेक साश्टांग नमस्कार करून
आनी साईबाबाचे चरण स्पर्शून
हें म्हजें लिखाण
म्हज्या मोगाळ सर्गेस्त आपाक (बापायक)
तशेंच म्हज्या मोगाळ मांय - मांवाक ओंपतां.

- रेखा



## बगलांट - एकांकी संग्रह

# ती

- काका
- बाप्पा
- वयनी
- भाऊ
- अण्णा
- भाभी
- शाणू
- तातू
- ताईबाय

(पड्डो इल्लो इल्लो वयर सरता. एके चाळीचो देखाव. सकयल बिराडां आसात. ५०-६० वर्सांचे काका आनी बाप्पा, धाकलो आनी व्हडलो भाव, एकामेकांकडेन आपल्या बिराडांत उलयतात.)

काका : बाप्पा फ़ोटो धाडला रे मावशान?

बाप्पा : हय तर. कालूच कुरियरांतल्यान मेळ्ळा. फोटो पावूंक ना, ते मेरेन म्हाका हुसकोच जाल्लो.

काका : किद्याक?

बाप्पा : आरे, नाजाल्यार वळखूंक कशी कळटली? रंग सांगल्यारूय एक वेळ मात्सो वेगळोय आसूं येता. (बोल्सांतलो फोटो काडटा.) (आतां दुसऱ्या बिराडांतलो भाऊ तकली भायर काडून आयकता.) हो पळय (काकाक फोटो दाखयता) ह्या फोटयावयल्यान तुका ती कशी दिसता तें कळटलें.

काका : आवयस! (काका ल्हान भुरग्याभशेन उडी मारता) एकदम फस्ट क्लास. म्हाका आवडली. कितल्या वरांचेर पावता?

बाप्पा : फाल्यां सुमार ५ वा ६ वरांचेर, सांजेच्या आदेसाक पावता. हांव मातशी आतां तीच तयारी करतां. विमानतळार स्वागताक वचपाक बरे कपडे घालचे पडले न्हय?

काका : बाप्पा? तूं किदें आतां न्हवरो रे? तुका किद्याक फस्ट क्लास कपडे जाय? वयनीन फेर्र मारिल्ले कितलेशेच कपडे आसतले. फेर्र मारिल्ले नात जाल्यार सांग तिका.

बाप्पा : तिका आनीक सांगूं नाका. बेठीच शिताफुडें मीठ खातली. म्हाका तिचो सभाव खबर आसा. आनी तूंय तुज्या मालूक सांगूं नाका. तूं येतलो जाल्यार यो म्हजेबरोबर.

काका : येतां तर.

बाप्पा : वळखुपाक लक्षांत धरपाचें.

काका : किदें?

बाप्पा : पयर शालूच्या लग्नाक मालू साडी न्हेशिल्ली पळे त्याच रंगाची ती...

काका : हां. हय हय आयलें लक्षांत. आनीक कोणाक जाग करूं नाका. फाल्यां आमी दोगूय पांच वरांचेर तिच्या दर्शनाक विमानतळार या.

बाप्पा : दर्शनाक खंयचे? स्वागताक म्हण. दर्शन देवीचें घेतात.

काका : बाप्पा म्हाका ती साक्षात देवीच दिसता. तिजें रूप रंग पळोवन हांव जाग्यार उरचो ना सो दिसता.
(भितरल्यान वयनी म्हणटा - 'जेवपाक येतात न्हय?' इतलो वेळ शेजारचो भाऊ आयकतालो तो कुशीक सरता.)

बाप्पा : शू! ओगी राव. वयनी येता.

काका : हय रे बाप्पा. ओगीच रावल्यार बरें.

वयनी : (भायर येता) आज किदें तुमकां जेवपाचें ना काय किदें?

बाप्पा : आसा तर! अजून किदें वेळ जाला गे?

वयनी : किदें? अडेज जालीं तरीय तुमचो वेळ जावंक ना? काका, तुमकांय जेवपाचें ना? म्हाका आनी मालूक खुबूच भूक लागल्या.

काका : चल बाप्पा जेवया. वयनी, नुस्तें तळ्ळां मगे?

वयनी : हय तर! विसवण तळ्ळा.

काका : विसवण? इतलो म्हारग...

वयनी : म्हाकाय अजाप तेंच जालें. आज इतलें म्हारग नुस्तें हांणी हाडलेंच कशें?

बाप्पा : किदें? म्हारग नुस्तें हांव हाडिना काय किदें?

वयनी : हाडटा तर ! फार्टी तुमच्या साठी दिसा व्हडलो शेंवटो हाडलो तुमी. आनी म्हजे पन्नाशीक रांवस.

काका : रांवस! रांवस बाप्पान हाडूंक नाशिल्लो.

वयनी : मागीर कोणे हाडिल्लो तर?

काका : म्हाका सोर्त फुटिल्ली त्या दिसा. म्हूण हांवें हाडिल्लो तो.

वयनी : तुमी हाडिल्लो?

बाप्पा : पूण हें पळे (काकाक दोळे मोडटा.) हांवेंच ताका हाड म्हणून सांगिल्लें.

काका : (बळयां म्हणटा) हय, हय गे बाये.

वयनी : ते आसाच तशें. म्हजो वाडदीस तांचे तकलेंत सारको आसता.

बाप्पा : हय तर. आतां कशी उलयली? (हांसता)

वयनी : चलात आतां. जेवण थंड जाता.

बाप्पा : हय मरे येशा. यो बेगीन (वतात भितर)

पड्डो

(दुसरें बिराड - घरांत वस्तू हेवटेतल्यो तेवटेन केल्यात. मात्स पयल्या बिराडापरस वेगळें. कुशीक अण्णा जनेलांतल्यान भाउ कडेन उलयता.)

भाऊ : ये अण्णा. गजाल आयकल्या?

अण्णा : कसली?

भाऊ : मात्शी भानगड दिसता.

अण्णा : भानगड ? (मात्सो आयल्यान येता पूण जनेलांतूच रावून) किदें जालां?

भाऊ : भायर यो. सांगतां.

अण्णा : (भायर येवन) पळे भाऊ, चड वेळ ना म्हाका. ही बाजारांत गेल्या. येवपाची जाली. बेगीन किदें तें सांग.

भाऊ : आरे अण्णा, इतलो भाभीक भियेता?

अण्णा : आरे भाऊ, तिका भियंवचेंच पडटा. तिका कसलेय भानगडीचें कळत जाल्यार ती जगदंबा जाता.

भाऊ : आरे म्हज्या बाबा. तशें जाल्यार तुका ही गजाल उपकरना शी दिसता.

अण्णा : तें मागीर पळोवया. तूं सांगून उडय आतां.

भाऊ : आतांच हांवें बाप्पाच्या तोंडांतल्यान गजाल आयकल्या.

अण्णा : कसली ? ...

भाऊ : असो लागीं यो अण्णा. (अण्णा भाऊ म्हऱ्यांत येता. भाऊ ताच्या कानांत एक मिनीट बाप्पाची गजाल सांगता.)

अण्णा : किदें, खरी गजाल ही ?

भाऊ : हय, शंबर टक्के खरी. ते दोगूय फाल्यां विमानतळार वतले.

अण्णा : खंयसून येता तर ती?

भाऊ : ती भायरसून येता आसतली. हे गुपचूप तिका पळोवंक वचूंक सोदतात.

(दोन तरणाटे तातू आनी शाणू तिसऱ्या बिराडांतले आयकतात, कुशीक रावून आयकतात)
रंगरुपान एकदम बरी दिसता खंय. पळोवन पिसो जातलो अशें काका म्हणी.

अण्णा : तशें जाल्यार हांव आनी तूं या मरे फाल्यां. कितल्या वरांचेर म्हणलें?

भाऊ : फाल्यां पांच वरांचेर. (भाभी येता ती पयशिल्ल्यान दिसता.)

अण्णा : अशें ? बरें आसा. आरे म्हज्या बाबा. ही पळे आमगेली आयली. (भायल्यांतल्यान येतनाच उलयता. ''नाका पुरो जालें म्हाका.'' तिच्या दोनूय हातांनी पोतयो आसात. ती भितर येता. पोतयो सकयल दवरता.) (भाभी स्टेजीर पावचेपयलीं अण्णा धांवत भितर वता.)

भाऊ : अण्णा, अण्णा हें किदें रे बाबा? भाभीक पळोवन धांवलो भितर? (तरणाटे कुशीक वतात. भाभी येता. पोतयो सकयल दवरतकूच घाम पुसता.)

भाभी : कोण भाऊ? हांगा भायर किदें करता?

भाऊ : घरांत वाज आयलो म्हूण भायर भोंवतालों. तुवें किदें बाजार केलो?

भाभी : हय. आज म्हापश्यां शुक्रार. हांव केन्नाच चुकयऩा. आठ दिसांनी बाजार करतांच.

भाऊ : किदें कपडेलत्ते हाडले?

भाभी : ना भाऊ, फकत भाजयो आनी हांचेखातीर थोडी मिठाई.

भाऊ : अण्णा मिठाई खाता?

बाभी : तांकां न्हिदतना सदांच मिठाई खावंक जाय. मिठाई खावन तांचें उलोवप कितलें गोड जालां तें पळोवंक ना तुमी?

भाऊ : हय, हय पळेलां. तरीच म्हळें. आतां कळ्ळें. मिठाई खाल्यार मनीस मात्सो गोड जाता म्हूणून.

भाभी : मात्सो न्हय. बरोच. आनी हें पळेयात, तुमकां मिठाई खावपाची

आसा जाल्यार मागीर ताईबायकडेन धाडटां.

भाऊ : नाका नाका, म्हाका मिठाई नाका. (भाभी भितर वता.) (भाऊ आपले भितर उलयता.) पूण म्हाका दिसता, मिठाई खायत जाल्यार बऱ्याक पडटली. फाल्यांचे सुंदरेकडेन गोड गोड उलोवंक मेळटलें. (भितर वता.) पड्डो.

वाटेवयलो देखाव. रात जाल्या. दोन तरणाटे एकमेकांकडेन उलयतात.)

शाणू : तातू, भाऊचें आनी अण्णाचें उलोवप आयकलें मरे?

तातू : आयकलें तर ! कोण रे आसतली ही सुंदरी ? भुरगी काय जाणटी?

शाणू : आरे जाणटी जाल्यार ती आण्टी जातली. आनी हे इतली तोखणाय करतात? वयल्यान तिका पळोवंक दोगूय फाल्यां वचपाचे आसात.

तातू : खंय रे तें?

शाणू : खंय तें मात हांवें आयकलें ना. पूण ते दोगूय वतले पांच वरांचेर.

तातू : मागीर आमी वचुंया?

शाणू : तांच्या फाटोफाट आमी या. आमचे मदल्या एकल्याक तरी ती पसंत करतलीच.

तातू : तुका काय म्हाका ? काय दोगांकूय?

शाणू : तशें जाल्यार बरें जालें.

तातू : किदें बरें जालें? कपल तुजें?

शाणू : किद्याक रे?

तातू : ती किदें, द्रौपदी काय किदें?

शाणू : आतां किदें सांगूं? ते तर तिका पळोवंक वतात. तिका आतां ह्या जाणटेल्यांचे नदरेपसून तरी सावध करूं नाका?

तातू : हय रे शाणू. हातूंत स्वार्थ आनी परमार्थूय जालो.

शाणू : तो कसो?

तातू : तिची इतली मनापसून जतनाय घेता जाल्यार तिका बरें दिसतलें

आनी ती आमकां पसंत करतली.

(ताईबाय निमाणीं उतरां आयकता आनी फुडें येता.)

ताईबाय : ये तातू, कोणाची खबर रे? खंयची सुंदरी पळेल्या रे तुमी?

तातू : ताईबाय, अजून पळोवंक ना. पळोवपाची आसा.

शाणू : पसंत पडपाची आसा.

ताईबाय : खंयची रे ती?

तातू : सविस्तर खबर तुका मागीर सांगता.

शाणू : फाल्यां पळोवन जातकूच. ते मेरेन कोणाक सांगूं नाका.

ताईबाय : ना रे बाबा. ही गजाल आनी कोणाक सांगूं येता? पूण मावशीबाय पयर म्हणी, तुमकां सोयरीक हाडपाक जाय म्हणून. तेन्ना तिका मात्शें सुचयल्यार बरें न्हय?

तातू : मावशीबाय म्हणी जाल्यार मावशीबायक सांग तूं.

ताईबाय : पूण ही दिसपाक कशी किदें?

शाणू : आमी आयकलां रंगरुपान एकदम बरी म्हूण. तेच खातीर तिका आज आमी पळोवंक वतात.

ताईबाय : आरे पूण तुमी कोणाबरोबर वतात? आनी खंयचे सुवातेर मेळपाक सांगलां?

तातू : तें आमकां खबर ना. आमी भाऊकडल्यान आयकला, ती फाल्यां पांच वरांचेर येता म्हूण.

ताईबाय : तशें जाल्यार भाऊक विचारात खंयच्यान येता ती.

शाणू : ताईबाय, भाऊ आनी अण्णा तिका पळोवंक वतात ते आमचेखातीर न्हय.

ताईबाय : कोणाखातीर तर ?

तातू : तांकां आतां जाणटेपणांत चळ लागलां खंय.

ताईबाय : आंवंय आंवंय, तुमी तरणाटे. तुमचीं लग्नां जावपाचीं आसात. तुमकां तिका पळोवप सोबता. पूण भाऊक आनी अण्णाक ह्या

वयार साप्प सोबना.

साणू : तेंच हांव म्हणटां. तांकां आतां कोण समजायतलो?

ताईबाय : तशें जाल्यार हांव समजावपाचो यत्न करतां. हांव भाभीक ही गजाल सांगतां. भाभी अण्णाक आनी भाऊक ज्युस्त जाग्यार हाडटली.

तातू : हय गे बाये. तूंच हें काम कर. आनी आमचें काम आमी गुपचूप करतां.

शाणू : पूण आज आनी फाल्यां मात तूं भाभीक सांगूंक वचूं नाका.

ताईबाय : किद्याक ?

तातू : भाऊ आनी अण्णा खंय वतात तें आमकां पळोवपाचें आसा. नाजाल्यार सगलेंच फिसकटतलें.

ताईबाय : बरें बरें. (ताईबाय भितर वता.)

तातू : शाणू, खंयच्या पांचांक म्हुणून आयकलें रे आमी? सकाळीं पांचांक न्हय मरे?

शाणू : जावं येता. आतां आमी जेवन बेगीन न्हिदुंया आनी सकाळीं फांत्यार साडेचारांक न्हेसून रावया.

तातू : इतले सकाळीं उठूंक जाता मरे?

शाणू : एक आयडिया. चावडेन फुडल्यान व्हडलें घडयाळ आसा पळे, ताचेर बरो साडेचारांचो आलार्म लावया. तो आलार्म आयकून उठुंया आनी न्हेसून रेडी रावुंया वचपाक.

तातू : किदें तकली चलता तुजी शाणू! एकदम बेस्ट आयडिया.

शाणू : मागीर ? तुजो शाणू आसाच तसो. आनी पळे, न्हेसून आमी भायर येवंया आनी कुशीक रावून भाऊ आनी अण्णा खंय वतात तें पळोवंया. तांच्या फाटोफाट आमी वचुंया.

तातू : हय. तेंच करुंया आमी. आतां यो म्हजेबरोबर, मात्शें भितरलें स्टूल हाड.

शाणू : तें किद्याक?

तातू : किद्याक? विसरलो काय किदें? ही पळे चावडेंतली घडयाळ. (चावडेंतली घडयाळ एका कोनशाकं आशिल्ल्यान मेजार दवरल्या)

शाणू : हां, हय मरे (धांवत वचून स्टूल हाडटा. तातू वयर चडटा आनी थंयच्या थंयच घडयाळीक आलार्म लायता.)

तातू : चल. एक काम बरें जालें. (स्टूल हातात घेवन) चल शाणू. (दोगूय चल्ले.)

पड्डो.

(इल्लो, इल्लो पड्डो वयर सरता. अण्णालें घर. भाभी तांदूळ वेंचता, इतल्यान ताईबाय दारार मारता.)

ताईबाय : (दारार मारता) ए भाभी. (भायल्यानूच म्हणटा.)

भाभी : कोण थंय ? दार उगडेंच आसा. यो भितर.

ताईबाय : बरी आसा मगे?

भाभी : हय, हय, ताईबाय आज अकस्मात याद जाली म्हजी? तीय बी आतां रातची?

ताईबाय : तशेंच काम पडलें म्हूण आयलीं हांव.

भाभी : हांव आनी कसल्या कामाचीं जालीं तुका?

ताईबाय : घरांत कोण आसा तर! अण्णा खंय शे दिसना!

भाभी : रात जाली म्हणटकूच ते वरभर जपाक बसतात. आतांच बसल्यात वचून.

ताईबाय : अशें? बरें आसा. तुजेचकडेन उलोवंक आयिल्लीं. व्हडल्यान सांगपाकूय बरें न्हय. वणटीक लेगीत कान आसतात खंय. असो तुजो कान आयल्यान हाड. (भाभी ताईबाय म्हऱ्यांत येता.) ताईबाय बरो वेळ तातून आनी शाणून सांगिल्ल्यो गजाली सांगता.)

(ल्हव कानांतच ताईबाय उलयता.)

भाभी : (भाभीक इल्लो राग येता.) किदें? बरेच फुडें पावल्यात म्हणपाचे. हांव तांकां कशीच सोडचींना. (पदर खोयता.) आतांच तांकां जाग्यार हाडटां. (वचपाचे तयारेन)

ताईबाय : हें पळे भाभी, 'स्लो अँड स्टॅडी विन्स द रेस.' म्हणून जाणा न्हय तूं? आतांच भितर वचून अवतार घेवप योग्य न्हय.

भाभी : तर किदें कर म्हणटा म्हाका? आयकून ओगी रावूं?

ताईबाय : तशें म्हणिना हांव. थंडसाणेन सगलें व्यवस्थीत करूं येता. आमी आतां ते घटकेची वाट पळोवंक जाय. ते दोगूय कशे वतात, केन्ना वतात, खंय वतात आनी कोणाकडेन वतात. ते बगर आमकां खरें किदें तें कशें कळटलें?

भाभी : हय. तेंय बी खरें तुजें. आं (यादीन) तरीच म्हळें, ते काल पँटीक आनी बुशकोटाक आपूणच फेर मारताले. हरशीं हांव फेर मारतां.

ताईबाय : हय. काल तांणींच फेर मारलें. पळे. पूण भाभी आतां तांकां कांयच कळूंक दिवं नाका. सकाळीं फांत्यार ते खंय वतात तें पळोवया. तूं म्हाका मोबायलार फोन कर.

भाभी : नाका नाका, मोबायलार नाका. तांकां रोखडेंच कळटलें. तूं आलार्म लाय आनी ऊठ. हांवूय लायतां सकाळीं साडेचारांक. हांव न्हेसून रावतां. तूंय न्हेसून राव.

अण्णा : (भितरल्यान) खंय गेली गे?

ताईबाय : अण्णाचें जालें दिसता. भाभी, हांव वतां. तांकां आनीक कसलोच दुबाव नाका. (बेगिबेगीन ताईबाय वता.)

अण्णा : (भितरल्यान) आगे म्हजें ओक्ल मात्शें हाड पळोवया.

भाभी : आयलीं आयलीं. (फुडल्या मेजावयलें ओक्ल घेवन भितर वता.)

पड्डो.

(इल्लो पड्डो वयर वता. चाळींतले घडयाळीचेर लायट पडटा. सकाळचीं साडेचार वरां जाल्यांत. चाळींतले घडयाळीचो आलार्म जाता. धांवपळ सुरू जाता. अंधूक सो उजवाड. शाणू आनी तातू घरांतल्या कपड्यांनी भायर भितर वतात. भाभी न्हेसून भायर येवन ताईबायची वाट पळोवन कुशीक वचून रावता. ताईबाय न्हेसून येता आनी भाभीची वाट पळेता. पयशिल्यान भाभी ताईबायक यो म्हूण सिनाल करता. दोगांय कुशीक रावतात. भाऊ आनी अण्णा भितर येतात.) (तातू आनी शाणू एके कुशीक रावून आयकतात.)

भाऊ : आरे, तूंय उठलो अण्णा.

अण्णा : उठलों तर. येदो वेळ चावडेंतले घडयाळीचो आलार्म वाजलो. आयकूं येता रे कानाक तो गजर.

भाऊ : कोणाक रे सुचली ही अवदसा, सगळ्यांची न्हीद मोड करपाक? कोण रे ते तवनास भुरगे, हांगा हें कर्म करपाक आयले?

अण्णा : आसतले कोणूय तरी मवाली. काम धंदो कांय ना दिसता तांकां.

भाऊ : म्हाका काय बरी न्हीद पडिल्ली.

अण्णा : म्हाका सपन पडिल्लें.

भाऊ : कसलें रे? अण्णा, ती दिसली काय किदें रे सपनांत?

अण्णा : आरे दिसपाची आशिल्ली. इतल्यान हो गजर आयकूंक आयलो.

भाऊ : अण्णा, आतां आनीक वेळ काडचो न्हय. बरे 'वॉकिंगाक' या आनी परत येवन मात्शे न्हिदुंया. सांजेच्या पांचांची तयारी करूंक जाय न्हय रे! विमानतळार वेळ जावंक जायना. केन्ना केन्ना विमान ज्युस्त टायमार पावता. केन्ना केन्नाय उशीरूय जाता. आमी ज्युस्त पांचांक पावुंया.

अण्णा : हांव तयार रावतां. म्हाका केन्ना शी पळेन जाल्या तिका. चल भाऊ या आमी मात्शे 'वॉकिंगाक'. (वतात.)

मर्दींच भाभी आनी ताईबाय कुशीक रावल्यांत थंय तोंडां सोंडां करतात.) (अण्णा आनी भाऊ वतकूच तातू, शाणू, भाभी आनी ताईबाय स्टेजीर येतात.)

ताईबाय : भाभी, आतां तरी पटलें तुका?

भाभी : हय तर, ह्या कानांनी आयकलें न्हय गे. खरें सांगूं ताईबाय, (रागान) तांचीं तीं उतरां आयकून, म्हज्या ह्या पांयांतली तिडक तकलेक पावली. दिसतालें म्हाका, तेन्नाच तांकां जाप विचारची. पूण दांत, ओंठ चाबून रावलीं. आतां आनी ह्या वयार असले दुवाळे? हांव चलोवंक दिवचीं ना तांचे हे नाच.

शाणू : तेच अशे करतात जाल्यार आमी तरणाट्यांनी किदें करपाचें?

तातू : वयल्यान ते आमकां तरणाट्यांक तवनास म्हणटात.

शाणू : म्हाका खरें राग आयिल्लो भाऊचो. आमी किदें तवनास?

तातू : आनी हो कोण तर? भाभी, तूं ओगी रावूं नाका तांकां.

ताईबाय : हय भाभी, कडकलक्ष्मीचो अवतार घेतल्यारूच शाणेपण.

भाभी : तेंच शाणेपण करचें पडटलें.

ताईबाय : आमीय तुजेबरोबर तुज्या तेंक्याक आसातूच. शाणू आनी तातू तर उलो केलेबरोबर येतले. तूं कांयच भियेवं नाका.

शाणू : हय भाभी. तांचो हो डाव कशेय तरेन फसावंकूच जाय.

भाभी : तशें जाल्यार आतां एकूच उपाय.

शाणू / तातू : कसलो?

भाभी : भायले गेटीक मोट्टें कुलप घालून दवरपाचें.

ताईबाय : केन्ना ?

भाभी : ते सांजचे चार साडेचारांक तरी वतलेच. तेन्ना चारांक तरी कुलप घाल्लें बरें.

ताईबाय : म्हजेकडेन बरें व्हडलें कुलप आसा. हांव मागीर हाडून दितां.

शाणू / तातू : (दोगूय नाचतात.) गेटीक कुलप, मागीर मज्जा.

(तातू आनी शाणू एकामेकांक 'दी ताळी' म्हणून हातार हात मारतात.)

तातू : कुशीक रावून पळोवंया आमी तांची मजा.

ताईबाय : आरे, तुमी किद्याक रावतात तांकां पळोवंक? तुमी वचात तिका पळोवंक. तुमकां आतां कळिल्लें आसा, ती खंय येतली ती. आमी हांचो बंदोबस्त करतात हांगा.

शाणू : आमी वतकूच तुमी गेट घालतात?

भाभी : हयवय. पूण ताईबाय, गेटीची एक चावी शाणूकडेन दी. तांकां घरा येतना अडचण नाका. नाजाल्यार आमकां उलो मारीत रावतले.

ताईबाय : चल रे तातू. यो म्हजेबरोबर. आतांच दितां तुका एक चावी. तूं आनी शाणू चावी मात सारकी सांबाळात.

भाभी : चल या आमी आमच्या कामाक. (सगळेजाण वतात.)

पड्डो.

(इल्लो इल्लो पड्डो वयर वता. बाप्पाचें घर. बाप्पा आनी काका विमानतळार वचपाचे तयारेंत आसात. मेजार सॅण्टाची बाटली आसा.)

काका : बाप्पा, आज बरो सॅण्ट बी मारला मरे.

बाप्पा : आरे, विमानांतल्यान लोक सगळे भायले येतात. ते तरेतरेचो सॅण्ट मारतात. आमच्यो तांकां घामसाणी बी येत म्हुणून हांवें सॅण्ट मारला. तुका जाय जाल्यार तूंय मार. हो पळे मेजार आसा.

काका : मारतां इल्लो. (सॅण्ट मारता.) आरे रे! इल्लो सकयल पडलो.

बाप्पा : आरे, ल्हान भुरग्याभशेन करूंक लागलो मरे तूं.
(काका मात्सो सकयल वांकून पळेता.) आसूं तो थंय. चल या आमी.

काका : बाप्पा, तो फोटो घे बरोबर. नाजाल्यार तिका वळखूंक विसरत

आमी.

बाप्पा : आरे हय मरे. बरी याद केली तुवें. (मेजावयलो फोटो बोल्स

घालता.) आतां चल या आमी. (वतात.)

वयनी : (बाप्पाकडेन उलोवंक म्हुणून उलयत भायर येता.) आयकत

हय. (बाप्पा दिसना म्हणून हेवटेन तेवटेन नदर मारता.) किदें

आतांच तर हांगा आशिल्ले. गेले खंय? आनी सगल्याक चेरा

वास सुटला. चेर बी मारून खंय गेले हे? हरशीं खंयूय गेल्य

सांगतात. आज सांगनासतना कशे गेले? येवनी. विचारलेबग

रावची ना. (भितर वता.)

पड्डो.

(चाळीचें दृश्य. शाणू आनी तातू बरे न्हेसून वतात. ते गेल्या? त

वाटेंतल्यान ताईबाय आनी भाभी येतात आनी कुशीक रावून

उलयतात.)

भाभी : ताईबाय, कुलप घालें तुवें?

ताईबाय : हय, शाणूक आनी तातूक सोडले भायर आनी कुलप घालून

आयलीं हांव.

भाभी : बरें केलें. आतां आमी.कुशिकूच रावून पळोवया.

(भाऊ आनी अण्णा, दुसऱ्यांची नदर चुकयत चुकयत येतात आनी

ल्हवूच स्टेजीवयल्यान भायर वतात. ताईबाय आनी भाभी स्टेजीर

मदीं येतात.)

ताईबाय : भाभी, गेले ते. आतां पळोवया कशे भायर वतात ते. (वयनी

येता.)

वयनी : ताईबाय आनी भाभी, खंय वतात तुमी?

ताईबाय : आगे वयनीबाय, बरी मगे? तूं कोणाक सोदताली?

वयनी : किदें सांगूं तुमकां? जाणा मगे भाभी, बाप्पा, आनी काका आतांच

खंय तरी गेल्यात, पूण आज ते म्हाका सांगिनासतना गेल्यात.

खंय गेल्यात, कित्याक गेल्यात तें म्हाका कांयच खबर ना. तांणी आज बरोच चेर मारला.

भाभी : चेर मारला ? ताईबाय, हांकांय वास लागला काय किदें?

वयनीबाय : कसलो?

भाभी : कसलो म्हुणून सांगूं तुका? आमचे हे आनी भाऊ दोगूय खंयचे तरी अप्सरेक पळोवंक गेल्यात. तेय बरे नटून थटून गेल्यात. खंयचीतरी अप्सरा पांच वरांचेर विमानतळार येवपाची आसा खंय.

वनयीबाय : किदें? अप्सरा? तरी म्हळें म्हाका हांणी आज सांगूंक ना कशें? ह्या वयार हे सुवाळे. शी - शी - शी. तुमी तांकां आडावपाचें न्हय?

भाभी : आमी धाडल्यात खंय तर तांकां?

वयनीबाय : म्हळ्यार ?

ताईबाय : आमी गेटीक कुलप घालून दवरलां.

वयनी : बरें केलें. थंयच ताटकळूनी. (सगलीं भायलो आवाज आयकतात.)

(भायर बोवाळ आयकूंक येता. ''बाप्पा- आरे गेटीक कुलप कोणें घालां. भाऊ : आतां भायर कशे वतले? काका : आरे आमकां उशीर जाता. तोडा रे कुलप.'' तोडपाचो आवाज. पूण तुटना.)

वयनी : बरेंच जालें. सगलेच अडून उरले. तिका पळोवंक वतात? (घरांत येयात.)

बाप्पा : (एकामेकांक) कसलीं म्हुणून फकणां चल्ल्यांत? कोण रे तो कुलप घालपी?

काका : आमचीं कामां उरतात मरे हांगा. (पासयो मारतात.)

वयनी : तुमचीं कामां कसलीं?

बाप्पा : आगे तूं हांगा? हांगा किदें करता तूं?

वयनी : तुमी ह्या वेळार खंय वताले तें पयलीं सांगात. ह्या वयार नटून,

थटून चेर मारून खंय वताले? आमकां सगळें कळ्ळां.

बाप्पा : किदें कळ्ळां?

वयनी : ते अप्सरेक पळोवंक नटून थटून वताले हय?

बाप्पा : किदें? किदें उलयता गे?

भाभी : (अण्णांक) आनी तुमी खंय वतात? तुमीय तिका पळोवंक वताले न्हय? ह्या वयार सोबता तुमकां हें?

अण्णा : आगे पापये, तसलें कांय ना गे.

भाभी : कांयच ना जाल्यार वताले खंय?

ताईबाय : आनी (भाऊक) तुमी खंय वताले? हां. मनाची ना जाल्यार जनाचीय सामकीच खाली काय किदें?

भाऊ : आगे, किदें उलयतात तुमी ? सगल्यांमुखार आमकां दादल्यांक उजरावपाक रावल्यांत काय किदें तुमी बायलो?

भाभी : हय हय. जाप काडूं नाकात तोंडान.

बाप्पा : आतां हें सगलें विचारूंक तुमी रावल्यांत जाल्यार तुमीच थंय गेटीक कुलप घालां आसतलें. कोणें कुलप घालां पळे, तें मात्शें काडात वचून. आमकां उशीर जातलो.

काका : उसरां पावत जाल्यार सगलेंच चुकतलें.

वयनी : चुकूनी, चुकूनी. ती अवदीसा चुकल्यार चड बरी. हांव तुमका कशीच वचूंक दिवर्ची ना.

भाभी : (अण्णांक) तुमकांय हांव वचूंक दिवर्ची ना.

ताईबाय : खरें किदें तें सांगात. ती केन्ना, खंयच्यान येता आनी तुमी तिका मेळूंक किद्याक वतात?

बाप्पा : आगे पूण कोणाक मेळूंक वता म्हणटात तुमी?

भाऊ : बाप्पा, आतां सांगल्याशिवाय आमची धडगत ना. सांगात तुमी. हांचेपरस कितली सोबीत दिसता तेंय सांगात.

अण्णा : हय. बाप्पा, दाखय तुमच्या बोल्सांतलो फोटो वयनी-बायक. आनी

आमकांय दाखय.

भाऊ : आमीय केन्नाच्यान तिचें रूप पळोवंक आशेन राविल्ले आसात.

काका : आरे पूण तुमी उलयतात ती कोणाची खबर? आमी खंय वचपाचे आसात आनी तुमी खंय वतात हें कोणाक खबर आसा?

भाऊ : हय, आमकां खबर आसा. तुमी वतात थंयच आमी वचूंक भायर सरिल्ले.

अण्णा : तुमचेकडल्यान आमी आयकल्लें, बरी सुंदरी विमानतळार येवपाची आसा म्हुणून.

ताईबाय : रुपान, रंगान एकदम बरी दिसता अशेंय आमी आयकलां.

बाप्पा : आनी किदें सांगपाचें आसा?

भाभी : म्हणजे, आनीकूय जायतें किदें तिज्यान आसा काय किदें?

बाप्पा : ना गे बाये. तुमी समजल्यांत तांतलें कांय खरें न्हय. पूण आतां तुमकां सांगचेपरस तुमच्या म्हऱ्यांत तिका हाडुनूच दाखयतां. तेखातीर कुलप मात्शें काडून दियात. वचूंदी आमकां बेगीन.

वयनी : आब्बा. इतलें सांगुनूय परतें वचपाचें करतात?
(एकदम मोटारीचो हॉर्न मोटयान वाजता.)
सगलीं आयकतात. बाप्पा उमेदीन भायर पळेता.)

बाप्पा : आरे, आरे, ही पळे आयली मरे. कोणें हाडली रे तिका?
(सगळींच भायर पळेतात)

काका : हय मरे. कितली सोबीत दिसता रे! वा ! वा! (नाचता.)
(तातू आनी शाणू येतात.)

दोगूय : बाप्पा, काँग्रेच्युलेशन्स.

वयनी : किदें? तातू, शाणू, तुमी भितर कशे पावले? गेटीक कुलप आसा मरे .

तातू : गेटीची चावी आमचेकडेनूय आशिल्ली.

शाणू : आमी कुलप काडलें आनी तिका घेवन भितर आयले.

बाप्पा : तुमकां कशी मेळ्ळी रे ती?

शाणू : बाप्पा, विमानतळार, विमान उतरना फुडें तुमचें नांव घेतलें तांण आनी ताबडतोब तिका ताब्यांत घे म्हणून सांगलें. एकूण सगळ प्रकार आमच्या लक्षांत आयलो आनी तुमी वेळार पावचे ना हें आमच्या लक्षांत आयलें.

तातू : म्हणून आमी ताबडतोब तिका आमच्या ताब्यांत घेतली.

बाप्पा : शाब्बास! तुमचे सारके गुणेस्त तरणाटे आसूंक जाय.

वयनी : आरे खंय आसा रे ती? गाडयेंत बसल्या?

काका : वयनी, पयलीं तिका ओंवाळपाक आरत घेवन यो.

बाप्पा : मागीर पळे तिजें रूप.

वयनी : किदें? अजुनूय तिचीच व्हडवीक?

भाभी : वयनीबाय, कांय आयकून घेवं नाका हांचें.

ताईबाय : तिका भितर घेवची गरज ना.

बाप्पा : आगे म्हजे अपुरबायेचे घरकान्नी, ती म्हळ्यार कोण जाणा?

भाभी/वयनी: कोण?

बाप्पा : (सगल्यांक) अशीं येयात. ती पळे. 'ती' म्हळ्यार 'मोटार.' पळे कितली सोबीत दिसता ती.

सगळीं : आगे बाये ! (हांसतात.)

बाप्पा : चलात आतां, तुमच्या मनांत किदें वायट आशिल्लें तितलेंय गंगेंत सोडात. मनांत कांयच वायट धरीनासतना येयात. ती तुमच्या येवकाराची वाट पळेता. तुमी तिका येवकार दिलो कीं, ती तुमकां लिफ्ट दितली. जाय मूं तुमकां लिफ्ट?

सगळीं : हय तर!

पड्डो.

# व्हड मन

- दादू
- पार्वती
- सूर्या
- नाना
- गणेश
- गायत्री
- चोर

(दादूचें घर. सादेपणान रावप पूण विचार सगल्यांचे उंच, घरांत सोफा कदेलां मेज आसा.)

दादू : (बसला थंय देवाचें म्हणटा. इतल्यान भितरल्यान पार्वती, दादूची बायल येता. तिच्या हातांत तांबयो पेलो आनी बशयेंत भाकरी आसता. तें सगळे ती दादू म्हऱ्यांत दवरता.)

दादू : पार्वती, सूर्या आयलो?

पार्वती : आज ताका कितलो वेळ जायत सांगूं नज. खुबूच काम आसा म्हणी.

दादू : फोन आयिल्लो?

पार्वती : हय, हेदोळ आयिल्लो. तुमी जेवन घेयात म्हूण सांगलां.

दादू : पोराक बरींच कामां पडटात. सुशेग म्हुणून ना.

पार्वती : तुमी ताका शिक्षण तशेंच दिलां न्हय? येदो व्हडलो इंजिनियर. ताका आनीक कामांतल्यान कुशीक सरूंक मेळटा?

दादू : एकदां हातांत जबाबदारी आयली म्हणटकूच तशेंच जाता. तें काम

व्यवस्थीत सोंपलें म्हणटकूच सुशेग.

पार्वती : पूण, जेवणखाण वेळार घेवंक जाय न्हय? नाजाल्यार मागी भलायकेचेर परिणाम जाता.

दादू : तूं ताका टिफीन बी दी वतना. खावंक मेळ्ळ्यार खातलो.

पार्वती : तें म्हाका तुमी सांगूंक जाय? हालीं हालीं हांव सदांच ताका ब्रॅड-भाजी नाजाल्यार चपाती-हालवो, केन्नाकेन्नाय सॅण्डवीच वा नुडल्स दितां. पूण किदें सांगू तुमकां? सदांच तो तें खाता म्हणून ना. वेळ मेळ्ळ्यार खाता. नाजाल्यार तश्शें परतें हाडटा. जेवणाक तापता म्हणून म्हाका हुसको जाता.

दादू : आतां तो ल्हान ना गे. ल्हानाचो व्हड करता म्हणसर तुवें थोडे त्रास काडूंक नात. आतां तरी मात्सो सुशेग घे. आतां हुसको काडपाची गरज ना.

पार्वती : तेंय बी खरें तुमचें आनी तोय तुमचेभशेन तशेंच म्हणटा. पूण तो म्हऱ्यांत नासतना म्हाका जेविनूच दिसना.

दादू : आगे, इल्ली इल्ली संवय करूंक जाय. ताका आतां कामाखातीर खंय खंय वचचें पडत, सांगूं येता?

पार्वती : म्हणजे? गांवांभायर रावचें पडटलें?

दादू : आगे, गांवाभायर खंयचें? देशाभायर लेगीत वच्चें पडटा.

पार्वती : आवय, आवय. देशाभायर? मागीर आमी किदें करपाचें?

दादू : आगे, तुजेंच येवजिता तूं? ताचें पळे. तो पयस गेल्यार ताका बावड्याक एकलो रावचो पडटलो. पूण आमी हांगा दोगां आसात. तेभायर सोयरेधायरे येत आसतात तेन्ना आमचें जिणें सोपें.

पार्वती : हें सारकें तुमचें. पूण खरेंच ताका वच्चें पडटलें?

दादू : आगे, हांवें बेठेंच म्हणलें गे तुका. अजूनपर्यंत तरी ताका खंयच पयस वच्चें पडूंक ना.

पार्वती : आसूं, तें आनीक येवजूं नाकात. आतां तुमी खायात तुमची भाकरी

आनी एक सांगतां. तुमी परते परते भायर वचूं नाकात.

दादू : आगे, म्हाका भायर मात्शी पासय मारलेबगर कशेंच जायना, तें तुका खबर आसाच.

पार्वती : ह्यो काळख्यो राती, भायर बरोच काळोख आसता. आनी तुमकां खबर आसा म्हाका काळखाचो सामको भंय दिसता.

दादू : तुजें म्हाका खबर आसा आनी म्हजें तुका खबर ना? म्हजें सामकें उरफाटें मगे, काळखी रात हांव पत्करतां. कित्याक तर काळखांतल्यानूच म्हाका उजवाड मेळिल्लो आसा. रात येता म्हूण फुडली आशा धरून जगूंक मेळटा. (भाकरी खावंक बसता.) पार्वती, तूंय यो तुजी भाकरी घेवन हांगाच. दोगांय बरोबर खावंया.

पार्वती : तुमी खायात. म्हजी आज एकादस. दूद घेवपाचें उरलां. घेतां थोड्या वेळान. तुमी खायात. (दादू खाता.) तुमी काळखांतल्यान उजवाड म्हणलां ते आयलें म्हज्या लक्षांत.
(दादू आयकता, मर्दी मर्दी पार्वतीक पळेता.) आमचो सुर्या आमकां काळखी रात सोंपतां सोंपतां मेळ्ळा. फाटल्यो यादी येतं जाल्यार आंगार कांटो येता.

दादू : जालें - गेलें तें गंगेक मेळ्ळें. त्यो आनीक यादी कित्याक? (उदक पियेता.) आज भाकरी बरी लागली आं. कांदो घाल्लो काय किदें?

पार्वती : हय. सुर्यान आपल्याकूय एक भाकरी करून दवर म्हुणून सांगिल्लें. जेवणार तो आज भाकरी खातलो खंय.

दादू : पळे. म्हजी संवय ताकाय आयली म्हणपाची. (हांसतात.)

पार्वती : संस्कार हे जातातूच, तेन्ना आवडीनिवडीय तश्योच जातात.

दादू : पार्वती, आज आमची बैठक बरीच रंगल्या. म्हजी पासय उरतली.

पार्वती : पासय उरूंक जायना. बैठक परत मारुंया फाल्यां. चलात तुमी, पांय धील करून येयात.

पड्डो.

(दादूचें घर. खाटीर सुर्या न्हिदला. पार्वती दादूक च्या घेवन येता. दादू कदेलार बसून पेपर वाचता.)

पार्वती : ही घेयात च्या. (दादू घेता.)

दादू : सुर्या अजून उठलो ना सो?

पार्वती : रातीं तो बरोच उसरां येवन न्हिदला. आनीक थोडो वेळ न्हिदूंदी.

दादू : पार्वती, म्हाका मात्सो कोर्टांत वचूंक जाय. एक केस आसा आज. कितलो वेळ लागत सांगूं नजो. तूं म्हाका डबोच करून दी.

पार्वती : तशें म्हजें जेवण तयार जाल्लें आसा. पूण तुमी आतां चड केसी बी घेवं नाकात. तुमच्यान यो वच जायना आतां. (भितर वता.)

सूर्या : (नायटसुटांत आसा. खाटीवयलो उठ्ठा.) गुडमॉर्नींग दादू!

दादू : गुडमॉर्नींग माय सन. उठ्ठा किद्याक तूं? मात्सो न्हीद.

सूर्या : दादू, आतां म्हाका संवय जाल्या. रातचो उसरां न्हिदुनूय सकाळीं बेगीन उठपाक जाता. मात्सो व्यायाम करूंक जाय. आयलों रोखडोच. (भितर वता.)

दादू : (भितर वता. एक एक आंगावेलें घालून भायर भितर येता. न्हेसून तयार जाता. वचपाचे तयारेन भायर येता. हातांत एक पास्त (बॅग) घेता.) पार्वती, डबो जालो तयार?

पार्वती : भितरल्यान 'हाडटां हाडटां' म्हणटा. मागीर ल्हानसो डबो घेवन भायर येता.) हो घेयात. बॅगांत घालात. (उदकाची बाटली दिता.) ही घेयात, उदकाची बाटली. (दादू तीय बॅगांत घालता.)

दादू : (मेजावयल्यो फायली घेता बरोबर.) बरें, येतां हांव पार्वती. (इतल्यान दादू दाराकडेन पावतना सूर्या न्हेसून भायर येता.)

सूर्या : दादू, खंय वता?

दादू : मात्सो कोर्टान वचूंक जाय आज.

सूर्या : हांव पावयतां तुका.

पार्वती : सूर्या, तुवें च्या घेवंक ना. रांदचेकुडींत मेजार दवरल्या हांवें. राव हाडटां.

सूर्या : हांव पियेवन आयलों आई. तुवें मात च्या घेवंक ना अजून. चल, आई तूं च्या घे. हांव दादूक पावयतां आनी तसोच ऑफिसाक वतां.

पार्वती : आरे, पूण तुका डबो घालूंक ना.

सूर्या : आई, तूं हुसको काडूं नाका. हांव दनपरां तुजेबरोबर जेवंक येतां. (हांसतात.)

दादू : सूर्या, गाडयेची चावी घेतल्या मरे?

सूर्या : हय दादू. चल या. (वतात)

पार्वती : पार्वती तांकां पयस पावसर पळेता) पोर म्हज्या मनाचें समाधान करता. देवा, म्हज्या सूर्याक सुखी दवर. (भितर वता)

पड्डो.

(दादूचें घर, दादू सोफार बसला. इतल्यान शेजारचो नाना येता.)

नाना : दादू, किदें करता रे?

दादू : आरे नाना. यो बस. कसो आसा तूं? (नाना बसता.)

नाना : हांव एकदम फोर्त. खूब दीस जाले तुका मेळ्ळ्यार.

दादू : म्हाका दिसता एक म्हयनो तरी जातलो. पत्तोच ना तुजो. घराकडेन विचारल्यार मुंबय गेला म्हुणून सांगलें.

नाना : हय. साडवाच्या चल्याचें लग्न आशिल्लें. कालूच आयलां.

दादू : लग्न बरें जालें मरे?

नाना : जालें रे, पूण तांच्या घरांत तेन्नाचें तें दुख्ख कालूच जाल्लेभशेन दिसता तांकां.

दादू : तेन्नाचें म्हळ्यार?

| | | |
|---|---|---|
| नाना | : | आरे, फाटीं सांगूंक नाशिल्लें तुका? तुज्या सूर्याची गजाल तीच तांची गजाल न्हय रे? |
| दादू | : | आं. हय हय. तूं सांगतालो खरो. पूण तुज्या साडवाचो पत्तो लागला? |
| नाना | : | सुनामीन कोणाचो कोणाक पत्तो लागलो ना. त्या वेळार अचानक तूं मुंबय पावता आनी ह्या सूर्याक तुजो आदार मेळटा, ही अजापाचीच गजाल. |
| दादू | : | आरे विधीलिखीत आसता तें केन्ना चुकना खंय. |
| नाना | : | दादू, तूं खरेंच देवमनीस, म्हूण तुवें सूर्याक हो वेळ मेरेन आपल्या पोटच्या पोराभशेन सांबाळ्ळा. |
| दादू | : | आरे, हांवें किदें केलां? पार्वतीन सांबाळून घेतलें सगळें म्हणून सगळें सारकें जालें. म्हजेकडेन भुरग्याचो पिरनळ काडपाक जावचो नाशिल्लो. पार्वतीन रातीचो दीस करून ताका सांबाळ्ळा. |
| नाना | : | तुवें ताका किदेंच उणें केलें ना. कपडोलत्तो, खाणजेवण, ऊंच पांवड्याचें शिकप- सवरप सगलें, सगलें तुवें ताका दिलें. |
| दादू | : | ताणेंय आमकां आवय-बापायचें सूख जायतें दिलां. तो आमकां मात लेगीत पातयेना. पूण केन्नाकेन्नाय येवजून येता. ताचे आवय-बापूय खंय आसत काय आनी ते ताका सोदीत सोदीत हांगा पावले जाल्यार! |
| नाना | : | आरे, पूण तो कोणाचो भुरगो? मुंबयंतल्या खंयच्या भागांतलो? कोणाक खबर आसतली? आनी त्या वेळार तो आशिल्लो केदो? |
| दादू | : | फकत स म्हयन्यांचो. एकदम काळोख गुप्प जाल्लो सगल्याक. इतल्यान महालक्ष्मीच्या देवळामुखार भुरग्याच्यो किळच्यो आयकूंक आयल्यो. सगलो देवळाचो वाठार उदकान भरिल्लो. इल्लें इल्लें उदक सकयल देंवतालें. पयशिल्यान हांवें त्या भुरग्याक उदकांत आडवो पडला तो पळेलो. हांव तसोच धांवलों ताचे म्हऱ्यांत. |

एके वटेन धोंपरभर उदक जालां आनी दुसरे वटेन भुरगो उदकांत घुसमट्टा. बेगिबेगीन हांवें ताका उखल्लो, हांवें धरलेबरोबर तो रडटालो तो थांबलो. पोर सामको थंड थंड जाल्लो. म्हाका ताणें घट वेंग मारली. कितलो वेळ तो उदकांत पडून उरिल्लो कोण जाणा! हांवें ताका वेळ करिनासतना गाडयेंत घालो आनी पुण्याची वाट धरली. घरा पावता म्हणसर सकाळ जाली.

नाना : आनी इतलो वेळ गाडयेंत ओगी रावलो बरो!

दादू : हांवें ताका तुवाल्यान बरो पुसलो आनी चादरान गुठलायलो. ते उबेन तो सिटार ओगी न्हिदलो. दारांत पावतकूच पार्वती अजाप. हांव मुंबय वतां म्हणसर परत आयलों हाचें तिका अजाप जालें आनी कुशीक सिटार ह्या बाबुल्याक पळोवन तर तिका देवाचो चमत्कारूच दिसलो. काळखांतल्यान उजवाडाकडेन पळेत हांव घरा पाविल्लों. म्हूण हांवें ताका सूर्या नांव दवरलें.

नाना : बाकी सूर्या नांवाप्रमाण सगल्यांक उजवाड दिवपाक पळेता. हे बिल्डिंगेंत तर विचारूंकूच नाका. सगल्यांकूच तो जाय जाय कसो. केन्नाय मेळूं, तोंडभर उलयतलो. (इतल्यांत घडयाळीकडेन पळोवन) आरे म्हज्या बाबा! बरोच वेळ जालो. चल्लों हांव.

दादू : आरे नाना, इतलो वेळ आमी सूख - दुख्खाच्यो गजाली उलयले, पूण तुका च्याचो घोंट हाड म्हण सांगलो ना. राव मात्सो, पार्वतीक इल्ली च्या करूंक सांगतां.

नाना : नाका नाका. आतां ह्या वेळार च्या नाका. येतां हांव केन्नाय. (वता)

दादू : (आपल्यो फायली मेजार सारक्यो दवरता आनी पेपर वाचूंक बसता.)

सूर्या : (भायरसून भितर येता.) दादू, किदें करतालो?

दादू : कांय ना रे. आतांच नाना येवन गेलो. इतलो वेळ ताचेच कडेन

उलयतालों.

सूर्या : तो मुंबयच्यान केन्ना आयलो तर?

दादू : कालूच पावला खंय.

सूर्या : ताका तुजे खबरेक आयलेबगर सूख लागना. नानाचो सभाव म्हाका खूब आवडटा. मनाचो बरो.

दादू : हय बाबा. (सूर्या कपडे बदलूंक वचनासतना थंयच बसता.)

सूर्या : दादू, तूं, नाना म्हज्या म्हऱ्यांत आसतकूच म्हाका बरें दिसता. (दादूच्या फाटल्यांतल्यान गळ्यार हात घालून) तुज्या म्हऱ्यांत तर बसुनूच रावन दिसता. (वता आनी कदेलार बसता.)

दादू : आरे सूर्या, आज येनाबरोबर कपडे बदलिनासतना हांगाच बसलो सो?

सूर्या : दादू, (बोल्सांतली ऑर्डर काडून दाखयता.) ही पळे ही ऑर्डर आयल्या.

दादू : (वाचता.) किदें मुंबय पोस्टींग? तेंय बी स म्हयने?

सूर्या : आतां सांग दादू, हांव किदें करूं? म्हाका तुमकां दोगांकूय सोडून वचन दिसना.

दादू : (विचार करून) आरे, फकत स म्हयन्यांची गजाल. तुजें काम सोंपलेबरोबर तूं परतो येतलो.

सूर्या : आई म्हजेबगर कशी रावतली? ती जेवपाखावपाक लेगीत म्हाका रावता.

दादू : आरे, थोडे दीस चुकिल्लेभशेन जातलेंच तिका. मागीर आपशींच ॲडजस्ट जातली. डाँट वरी.

सूर्या : आईक आतां तूंच सांग दादू. (भितर वता.)

दादू : आईकूच तुजे बगर रावूंक जावचें ना खंयचें. म्हजीय गत तीच पुता. हांव तरी तुजेबगर रावूंक शकतां? तुका कशें सांगूं?

पड्डो.

(दादूचें घर. दादू बसला. पार्वती एक एक डबो हाडून मेजार दवरता. सूर्या शर्ट घालतां घालतां भायर येता.)

सूर्या : दादू, म्हाका हीं लांब हाताचीं शर्टां घालून वाज आयलो. मोटव्या हाताचे बुशकोट घालुंकूच मेळना.

दादू : सूर्या, आरे तुज्या दाव्या हाताक येदें व्हडलें काळें खत आसा तें जाणा मरे तूं?

सूर्या : तें जाणा रे हांव.

दादू : मागीर तें लिपोवंक जाय जाल्यार तुका लांब हाताचींच शर्टां घालचीं पडटलीं.

सूर्या : दादू, कशें पडलें रे हें खत? आईकडल्यान हुनहुनीत उदक पडलें काय किदें म्हजेर?

दादू : सूर्या, तुका तें जल्माचेंच आसा. तें वच्चें ना.

सूर्या : दादू, आतां सायन्स खंय पावल्या जाणा न्हय तूं. म्हाका दिसता प्लास्टीक सर्जरी करीत जाल्यार तें वतलें.

दादू : आरे, तें खत म्हळ्यार देवाची देणगी. ती तूं पुसून उडोवं नाका. तूं सामको ल्हान आसतना पयशायेदो दाग आशिल्लो तुज्या हातार. तूं वाडटा तितलो तो दाग वाडलो. तुका किदें त्रास जाता हाताक?

सूर्या : ना, तशें कांय जायना.

दादू : मागीर आसूं तें खत थंय.

पार्वती : जाली बाबा सगळी तयारी.

दादू : पळे, आईन कितली तयारी केल्या ती. (डब्यांक पळोवन)

सूर्या : आई कितले गे डबे ? किदें किदें घालां गे?

पार्वती : थोडे लाडू, शेव, बिस्कीट, इल्लें खारें, लोणचें, हालवो आनी हीं थोडीं वखदां. (एक ल्हानशी पिशवी दवरता.) हे तुजे कपडे.

आनी किदें जाय पडलें जाल्यार बोरीवली मावशेगेर वच.

सूर्या : (सगलें सामान एके पिशवेंत घालता) सगलें पॅकींग जालें. दादू पांयां पडटां. आई पांयां पडटा.

आई : बाबा, बरो करून वच. (दोळे पदरान पुसता) रोखडो यो.

सूर्या : आई, (आवयक घट धरून) तूं चड काम करूं नाका. बरी करून राव. दादूक सांबाळ. (पार्वती तकली हालयता.)

दादू : पुता जेव - खा व्यवस्थीत. आमचो हुसको काडूं नाका.

सूर्या : दादू, तूं आतां कोर्टांत बी वचूं नाका. आईक सांबाळ. हांव येसर एकमेकांक सांबाळपाची जबाबदारी दिवन वतां. बरें दादू, आई येतां हांव. (वता. दादू बरोबर भायर वता आनी रोखडोच परतो येता.)

पार्वती : (बरो वेळ पळेत रावता, दोळे भरून येतात, मात्शी रडटा)

दादू : (समजायता) आगे, अशी किदें करता तूं? तो आपल्या कामाक गेला. रोखडे दीस सोंपतले. चल, तूं मात्शी बस. कामां करून बरीच थकल्या तूं.

पार्वती : तुमीय थकल्यात. मात्शे आड रावात.

पड्डो.

(दादूचें घर, गणेश रॉय दारार मारता.)

दादू : कोण? दार उकतेंच आसा. यो भितर. (गणेश रॉय मध्यम वयाचो मनीस भितर येता.) कोण तुमी?

गणेश : हांव गणेश रॉय. मुंबयच्यान आयलां.

दादू : तुमी वळखतात म्हाका?

गणेश : ना. हांवें केन्नाच पळोवंक ना तुमकां.

दादू : मागीर, तुमचें हांगा येवपाचें कारण?

गणेश : म्हजी एक दुर्दैवी कथा आसा. ती कथा घेवन हांव प्रत्येक घरांत भोंवतां. सगल्यांक सुरवातीपसून सांगीत रावचेपरस तांचेकडेन ही बरयल्ली खबर हांव वाचूंक दितां. ती वाचून तांकां किदें कळ्ळ्यार, म्हाका तांणी मदत करची इतलोच म्हजो हेतू. असल्यो हांवें सातशें सात कॉपी लोकांक दिल्यो. आनी आतां ही तुमकां घेयात. वाचात आनी किदें सांगचें आसा जाल्यार सांगात. (दादू गणेशाकडलो पेपर घेता आनी वाचता. वाचतां वाचतां तो तकलेचो घाम पुसता. तोंड गंभीर जाता.)

गणेश : इश्टा, म्हजी गजाल वाचून तुमी दुख्खी जावं नाकात. हांव एक दुर्दैवी बापूय. व्हडल्या नवसांनी म्हाका देवान भुरगो दिल्लो. पूण सुनामी येवन म्हजो सगलो संवसार व्हांवून गेलो. बायल, भुरगो, आवय-बापूय आनी भयण. तांतूंत म्हाका म्हजी बायल इकरा वर्सांनी पुणेच्याच एका हॉस्पिटलांत मेळ्ळी. पूण भुरगो अजूनमेरेन सांपडलो ना.

दादू : तुमी त्या वेळार खंय आशिल्ले?

गणेश : हांव त्यावेळार कॅनडाक आशिल्लों. चलो जावन तीन म्हयन्यांनी हांव कामार हजर जालों. हांव एक मरीन इंजिनियर. म्हाका आठ आठ म्हयने भायर रावचें पडटालें. मदीं मदीं थोडो तेंप म्हजे फामिली बरोबर रावपाक येतालों.

दादू : आतां तुमी किदें करतात?

गणेश : आतां रिटायर जालां. पूण चल्याचें येवजिल्यार जिणें म्हाका कठीण जालां.

दादू : तशें म्हणूं नाकात. देवाचेर विश्वास दवरीत जाल्यार सगलें किदें मेळूं येता.

गणेश : तुमच्या तोंडांत साकर पडूं.

दादू : तुमी म्हाका सांगात, आतां तुमचो भुरगो कितल्या वर्सांचो

आसतलो?

गणेश : त्या सुनामीक सारकीं चोवीस वर्सां जालीं. त्या वेळार म्हज्य आदित्याक स म्हयने आनी आठ दीस जाल्ले.

दादू : आनी तुमची बायल आनी आवयबापूय खंय आशिल्लीं?

गणेश : बायलेच्या सांगण्या वयल्यान कळळां कीं त्या वेळार मंज आदित्याक घेवन देवळांत गेल्लें. आनी मागीर कोण कोणाक मेळ्ळें ना.

दादू : तुमकां तुमची भयण मेळ्ळी?

गणेश : तिचो तर अजून मेरेन पत्तो ना.

दादू : तुमचे आवय-बापूय?

गणेश : तेय मेळ्ळे नात. म्हजी बायल आदित्याचो ध्यास घेवन बसल्या. हांव भोंवत आसां. दोन-तीन गांव हांव भोंवलों. पूण कोणाच कडल्यान म्हाका आदित्याची खबर मेळ्ळिना. तो ह्या जगांत... (दादू ताका फुडलें उलोवंक दिना.)

दादू : (मर्दीच) हें पळेयात, कसलीय खूण त्या भुरग्याक आशिल्ली जाल्यार...

गणेश : हय, म्हज्या आदित्याच्या हातार एक काळें खत लाशें कशें आसा.

दादू : खंयच्या हातार?

गणेश : म्हजी बायल म्हणटाली, दाव्या हातार नाण्याच्या आकारा येदें तें खत आशिल्लें.

दादू : हे खुणेंवयल्यान सोदप सोंपें जावं येता. तुमी थकल्यात. इल्ली च्या घेवन वचात.

गणेश : नाका नाका. च्याचे कश्ट घेवं नाकात. तुमी म्हजें बरे भशेन आयकून घेतलें. आनी म्हजेकडेन जायती चवकशी केली, तातूंत म्हाका खूब बरें दिसलें. नाजाल्यार थोड्या लोकांनी म्हाका दारार लेगीत घेतलो ना. तुमचे भशेन सामके मेजकेच मनीस मेळ्ळे म्हाका. देव

बरें करूं तुमकां. येतां हांव.

दादू : हें पळेयात. ह्या भागांत हांव तुमचें काम सोंपें करतां. तुमी आनीक हेवटेन भोंवूच नाकात. तुमचो फोन नंबर म्हाका दियात. हांवूच तुमकां कळयतां. (गणेश आपलें कार्ड दिता.)

गणेश : देव तुमचें चड आनी चड बरें करूं. आं विसरलोंच. तुमचो फोन नंबर म्हाका दियात.

दादू : (आपलें कार्ड दिता.) हें घेयात.

गणेश : बरें, येता हांव.

दादू : बरें.

पड्डो.

(दादूचें घर. पार्वती तकलेर हात घेवन बसल्या. दादू भायरसून येता. येवन सोफार बसता, तरीय पार्वतीचें लक्ष थंय नासता.)

दादू : पार्वती, ए पार्वती.

पार्वती : आंऽऽ (जाग्यार आयिल्लेवरी) आयले तुमी?

दादू : तूं किदें येवजीत बसल्या? पयरची गजाल आयकत पसून तूं जाग्यार ना.

पार्वती : ह्या म्हज्या हातांनी हांवें ताका ल्हानाचो व्हड केलो आनी आज अचानक ताका ही गजाल कळून तो आमकां सोडून गेलो जाल्यार आमी किदें करतलीं हो एकूच प्रस्न म्हाका खाता.

दादू : म्हज्याय मनाची अवस्था तीच जाल्या. पूण आमी ताच्याय आवयबापायचें येवजूंक जाय न्हय? नवसांनी तांकां तो जाला म्हणटात. ताची आवय पिशी कशी जाल्या आसतली, तो ना म्हणून. दोळ्यांत तेल घालून केन्ना आपलो पूत दिश्टी पडटलो काय म्हूण वाट पळेता आसतली.

पार्वती : खरें आसा तुमचें. हांवें तांचें येवजुंकूच नाशिल्लें. देवान लेगीत

सोंशिल्लें आसा. देवकीन कृष्णाक जल्म दिलो आनी यशोदेन ताव ल्हानाचो व्हड केलो - पूण माया दोगांकूय आशिल्ली.

दादू : हय पार्वती, तुका खूब शाणेपण आसा तें हांव जाणां. आतां सूर्याच आमी वाट पळोवया आनी तो किदें म्हणटा तें पळोवया. ताक आतां ही सगली गजाल सांगचीच पडटली. ताकाच किदें तो निर्ण घेवंनी.

पार्वती : इतलो तेंप ताका सांगूंक ना म्हूण आमचो राग येवचो ना न्हय?

दादू : राग किद्याक येतलो? वयल्यान ताका आमी कांयच कळूंक दिले ना, म्हणून अभिमान दिसतलो.

पार्वती : आतां ताका ही गजाल सांगिनासतना रावपूय योग्य न्हय.

दादू : एक मन सांगता, कांयच सांगिना जाल्यार बरें. पूण दुसरें मन पळोवंक गेल्यार, आमी ताच्या आवयबापायचेर अन्याय केल कसो जातलो.

पार्वती : तांचो हातूंत कांयच गुन्यांव ना. सैमांतलें अरिश्टूच अशें आयलें आनी तांची सगल्यांचीच ताटातूट जाली.

दादू : आनी आतां कदाचित देवाक तांकां एकठांय हाडपाक जाय आसत, म्हुणून योगायोगान ताचो बापूय हांगा पावता.

पार्वती : देव आमची परिक्षा पळेता आसत.

दादू : पूण म्हजें मन सांगता कीं सत्याचोच मार्ग पत्करचो. किदें जाता तें जावं. जें किदें आमका फावो जायत तें आमचें म्हणपाचें. पूण कोणाची फटवणूक केन्ना करची न्हय.

पार्वती : सुर्याक सांगुनूच किदें तें थरोवया.

दादू : हय. ताका सांगचीच ही गजाल. पूण आमी कांयच थरोवचें न्हय. सुर्याक किदें दिसता तें करूं. ताजे इत्सेविरुद्द आमी वचचें न्हय.

पार्वती : देवा, म्हज्या सुर्याक योग्य वाट दाखय.

पडदो.

(वाटेवयलें दृश्य आशिल्लो पडदो. रात जाल्या. सुर्या हातांत सुटकेस घेवन चलता. इतल्यान फाटल्यांतल्यान एक चोर येता आनी सुटकेस ओडटा. दोगांचीय झटापट जाता आनी सुर्या सकयल पडटा. ताचो हात झरकट्टा आनी शर्ट पिंजता. तो 'चोर चोर' म्हणून आड्डता. इतल्यान एक जाणटोसो मनीस थंय येता.)

गणेश : कोण पडला काय? (मागीर ताच्या म्हऱ्यांत वचून) आरे, कोण रे बाबा तूं? आनी तुज्या बुशशर्टाक रगत लागलां कशें?

सूर्या : बाबा. (गणेश ताका पडला थंयच मात्सो आदार दिवन बसयता.)

गणेश : तुजो बुशकोट पिंजला. कोणें तुका उडयलो सकयल?

सूर्या : (सूर्या ल्हव ल्हव उठूंक पळेता, गणेश ताका हाताक धरता.)

गणेश : इतले रातचो खंय वता तूं?

सूर्या : बाबा, हांव ऑफिसांतल्यान रुमार वतालों. एक चोर अचानक आयलो आनी म्हजी ताणें सुटकेस ओडली. हांव ती ताका दिना म्हुणून ताणें मारामारी केली. म्हाका सकयल उडयलो आनी म्हजी सुटकेस घेवन तो गेलो. तरी बरें सुटकेसींत चड गरजेचें कांय नाशिल्लें म्हुणून.

गणेश : चड लागलां तुका? पळोवया. (दाव्या हाताक पळेता.) हेवटेन शर्ट मात्शें पिंजला. राव, हें रगत येता तें पुसुंया. (दाव्या हाताचें रगत पुसतना ताका ताच्या हातार काळें खत दसता. तें पळेत पळेत गणेश आपलेच भितर उलयता.) हें किदें? काळें खत, जल्माची खूण, हेंच तें लाशें. बरेंच व्हडलें जालां आतां. म्हणजे तूं (सूर्याक) म्हजो पूत आदित्य? (घट वेंग मारता.)

सूर्या : (ताका सोडयत) बाबा, किदें उलयता तूं?

गणेश : आरे, तूं म्हजो पूत. म्हज्या पुताच्या दाव्या हातार अशें खत आसा.

कितल्या वर्सांनी तूं म्हाका मेळ्ळो पुता.

सूर्या : बाबा, हांव हांगाचो न्हय. म्हजें घर पुण्याक. हांव हांगा कामाक आयलां. म्हजे आवयबापूय घरा आसात. हांगा हांव नवोच आयलां. तुमचो पूत खंय आसता?

गणेश : पुता, ही तुजी जल्माची खूण पळोवन म्हाका तूंच म्हजो पूत कसो दिसलो. २५ वर्सां फाटीं म्हजो पूत सुनामीच्या अरिश्टांत ना जालो. हांव ताका सोदीत भोंवता, पूण म्हाका तो अजून मेरेन मेळ्ळो ना. भुरग्याची आवय इकरा वर्सांनी म्हाका मेळ्ळ्या. पूण पुताच्या ध्यासान ती उलय लेगीत ना. तिचें खावप - जेवप सारकें ना. पूत केन्ना येतलो काय म्हूण वाट पळेत आसा. एक एक उतर केन्नाय उलयता.

सूर्या : (घडयाळीकडेन पळोवन) बाबा, बरीच रात जाल्या. तुमी वचात घरा. हांव आज रात हांगाच काडटां. म्हज्यान चड चलूंक नजो आज.

गणेश : म्हजें घर लागींच आसा. तूं यो म्हजेबरोबर.

सूर्या : नाका बाबा. तुमकां आनीक म्हजे त्रास नाकात. तुमी त्या भुरग्याचे आईक सांबाळात. चलात तिका हुसको जातलो.

गणेश : (मात्सो फुडें वता आनी विचार करता आनी किदें येवजून परतो येता.)

पुता, एक विचार म्हज्या मनांत आयला. तूं म्हाका खूब लागशिलो सो दिसता, म्हूण तुका सांगतां. तूं म्हजेर एक उपकार करशी?

सूर्या : कसलो बाबा? म्हज्यान जाता जाल्यार अवश्य करीन.

गणेश : पुता, म्हजी बायल आमच्या आदित्याच्या ध्यासान, दिसान दीस खचून वचत आसा. तिका हे अवस्थेंत पूत मेळ्ळो जाल्यार म्हाका दिसता तिजो पुनर्जल्म जातलो. ती पुताक पळोवन सारकी उलोवंक लागत काय दिसता. तूं तिका दिश्टी पडत जाल्यार ती आपलोच

पूत म्हंणून समजतली. किद्याक तर तुज्या दाव्या हाताक काळ्या खताची खूण आसा. तूं म्हळ्यार तिजें वखद कशें. हांव एका शेणिल्ल्या भुरग्याचो बापूय (रडटा.) भीक मागतां पुता. इतलेंच तूं म्हजे खातीर करशी?

सूर्या : बाबा, (सूर्याक दया येता.) अशें भीक मागतां म्हणूं नाकात. हांव तुमचे मुखार सामको ल्हान. हांव तुमचो कोण लागनासतना तुमी म्हजो आवाज आयकून धांवत आयले म्हज्या म्हऱ्यांत. इतली रात जाल्या म्हणून पसून पळेनासतना तुमचो जीव धोक्यांत घालून, तुमी म्हाका आदार दिवंक, धांवून आयले आनी तुमी इल्लेशें काम सांगलां तें हांवें केलेंना जाल्यार कशें जातलें? चल बाबा. (गणेशाचे दोळे भरून येतात.) तुमच्या दोळ्यांत दुकां म्हज्यान पळोवं नज. चलात, हांव येतां तुमचेबरोबर. हांव हांगा आनीक पांच म्हयने उरतलों. तेन्ना हांगा आससर हांव सदांच तुमगेर येवन तुमची खबर घेतां.

गणेश : पुता, सदांच येवन खबर घेवचे परस तूं जितले दीस मुंबयंत आसा तितलेय दीस आमगेर राव. तुजें ऑफिसांतलें काम सोंपतकूच तूं सरळ हांगा आमगेर यो. अशें केलें जाल्यार तुजे मानिल्ले आईक दुबाव येवचो ना.

सूर्या : आनी परतो म्हज्या घरा वतना तिका किदें सांगूं?

गणेश : तेन्ना तूं पयस खंय तरी कामाक वता म्हूण सांग. आतां फुडलें किद्याक? वेळ येतकच पळोवया. शाण्या, आमकां तुजेकडल्यान किदेंच नाका. आमकां एकूच उणें आसा. तें म्हळ्यार आमचो पूत आमकां मेळचो अशें आमकां दिसता.

सूर्या : चल बाबा. आनीक कांयच उलोवं नाकात. रात वाडत आसा. (सुर्याक हाताक धरून गणेश व्हरता.)

पड्डो.

(गणेश रॉयाचें ल्हानशेंच घर. एक खाट, चार कदेलां, एक मेज, मेजार थोडीं पुस्तकां दवरल्यांत.) (खाटीर गणेशाची बायल गायित्री न्हिदिल्ली आसा. गणेश आनी सूर्या ल्हव ल्हव भितर सरतात.)

गणेश : (गायित्री म्हऱ्यांत वचून) गायित्री, न्हिद लागल्या? (सुर्याक) बाबू, बस हांगा. हांव तुका कपडे दितां. तूं सवकास भितर वचून न्हा. (भितर वचून कपडे हाडून दिता.) हे घे कपडे. आनी न्हातकच आमचेबरोबर किदेंय खा.

सूर्या : बाबा, म्हाका भूक ना.

गणेश : चल, पयलो न्हा तूं. (सूर्या भितर वता. गायित्री पिरंगता.) गायित्री, जाग आयल्या? (आपलो बुशकोट बदलता.)

गायित्री : (परवंत) हं, हं.

गणेश : (गायित्री म्हऱ्यांत बसता.) गायित्री, आयकता?

गायित्री : हं. हं. (सूर्या भितरल्यान कपडे बदलून भायर येता.)

गणेश : पळे कोण आयला तो. आमचो आदित्य आयला.

गायित्री : (एकदम चड परवंता. "हं. हं." म्हणीत उठ्ठा. केंस पिसुडलेले आसात, भलायकी बरी ना म्हुणून कळटा. हेवटेन, तेवटेन पळेता.)

गणेश : (सूर्याक बोट दाखोवन) हो पळे आमचो आदित्य. आदित्य, हांगा यो बाब. असो आई म्हऱ्यांत बस.

गायित्री : (ताका वयर सकयल पळेता, खात्री पटपाक ताका सांसपिता आनी दावो हात सोदता.) हं. हं.

गणेश : आदित्य, तुजो दावो हात दाखय तिका. तुज्या हाताची खूण पळोवन तिका खात्री जातली.

सूर्या : आई, ही पळे ती खूण. (दावो हात दाखयता.)

गायित्री : (सारकी पळेता.) हं. हं. (ताका घट धरता आनी रडटा.)

सूर्या : आई, रडूं नाका. हांव आयलों आतां. आतां तूं कांयच येवजूं नाका. देवान आमकां एकठांय हाडलीं. आतां तूं बरी जातली.

गायित्री : हं... हं... हय... आ... दी.

गणेश : (अजापान) गायित्री, तुज्या तोंडांतल्यान उतर सुटलें. तुवें आदी म्हळें! देवा, खरेंच तुजी कृपा आमचेर आसा.

सूर्या : आई, तूं न्हीद आतां. रात जाल्या. सकाळीं उलोवया. (तिका न्हिदयता.)

गणेश : आदी, चल बाबू भितर. मेजार पांटल्यांत फळां आसात तीं खा आनी दूद पिये इल्लें. (भितर वतात.)

पड्डो.

(गणेशाचें घर. गायित्री खाटीर बसून तांदूळ वेंचता आनी थंयच कुशीक दवरता. ल्हव ल्हव उठ्ठां, इतल्यान सुर्या भितरल्यान न्हेसून भायर येता.)

सूर्या : आई, सवकास चल. किदें जाय तुका? वखद घेतलें?

(गायित्री सुर्याच्या हाताक धरता आनी ताका पळेत रावता.)

सूर्या : आई, किदें जाय तुका? यो बस अशी. एकटीच उठून भोंवूं नाका. हांव आतां ऑफिसाक वतां आनी दनपरां दोतोराक घेवन येतां.

(बाबा भायर येता.)

गणेश : तूं आनी मर्दी किद्याक येता? हांव हाडटां दोतोराक मागीर.

सूर्या : बाबा, तिचे सगले टॅस्ट करुंया आनी सारकींच वखदां दिवया. हांव स्पेशलिस्टाक घेवन येतां. बाबा, तूं आतां कसलेच त्रास घेवं नाका.

गणेश : पळे गायित्री, पूत आयले बरोबर, आवयची सेवा करूंक लागलो. चल बाबू, आतां म्हजी चिंताच मिटली.

सूर्या : येतां हांव आई. बाबा, आईचेर लक्ष दवर. (सूर्या वता.)

गायित्री : (हांसता.) हें, हें.

गणेश : गायित्री, कितल्या तेंपान तुजें हांसतें तोंड पळेलें हांवें. पूत आयिल्ल्याक तूं अर्दी बरी जाली. इल्लीं इल्लीं तुजीं उतरां सारकीं सुटल्यार पुरो. इल्ली च्या हाडटां तुका. आज आदित्यान हॉटॅलांतली भाजी आनी पाव हाडल्या. तुका हाडटां राव.

गायित्री : हें, हें (भितर वचूंक उठ्ठा.)

गणेश : किदें?

गायित्री : हांव, ये... तां.

गणेश : किदें? तूं भितर येवन च्या घेता?

गायित्री : (तकली हालयता)

गणेश : आरे वा! यो, यो. (गणेश गायित्रीच्या हाताक धरता आनी ल्हव ल्हव तिका भितर व्हरता.)

पड्डो.

(गणेशाचें घर, गायित्री कैंस बी बरे वळोवन ल्हव ल्ह चलत भायर येता. गणेश आनी सुर्या बशिल्ले आसात. गायित्रीच्या हातांत खेळांतली एक गाडी आसा. ती हाडून सूर्याक दिता.)

गायित्री : (सूर्याचे फाटीवयल्यान हात भोंवडायता आनी ताच्या हातांत गाडी दिता.) घे. बा... बू...

सूर्या : हें किदें? (हांसता.) खेळांतली गाडी?

गणेश : (हांसता.) बरी याद जाली मगे तुका? आदित्य, ही गाडी तुका हांवें कॅनडाकसून हाडिल्ली. ती गायित्रीन सांबाळून दवरिल्ली. तुजी अपुरबाय करपाक आमकां मेळ्ळीच ना पुता.

सूर्या : आई, तुका म्हजी कितली अपुरबाय करपाची आसा तितलीय तूं

कर. म्हाका आवडटा. म्हाका ही गाडी खूब आवडली. (गाडयेक बरी पळेता.) बाबा, आतां आमी असलीच गाडी घेवंया. आईक घरांत बसून, बसून वाज आयला. म्हाका तिका भोवंडावंक जाय. दोन दीस हांव रजा घेतां. आमी शिरडीक वचून साईबाबाचें दर्शन घेवंया. दोतोरानूय मात्शी हवापालट करपाक सांगलां न्हय?

गणेश : आदित्य, आतां तूं म्हणटा तशेंच करतलीं आमी. तूं आयिल्ल्याक तिची तब्येत बरी आसा. उलोवप लेगीत थोडेंभोव आतां जाता. नवी गाडी घेसर रावूंक जाय अशें ना. सध्या भाड्याची गाडी करून वचुंया. तुज्या ऑफिसांतल्या कामाचें पळे पयलीं. सद्या तूं 'बिझी' आसा तें हांव जाणा.

सूर्या : बरें बाबा, तशें जाल्यार तशें करुंया. ऑफिसांतलें काम हांव जाग्यार घालतां. फाल्यां आमी पॅकींग करुंया आनी परां सकाळफुडें वचुंया. थंय दोन दीस रावुंया.

गणेश : आयकलें गायित्री?

गायित्री : हय.

सूर्या : आई, गाडयेन बाबाक फुडल्यान बसूंदी. हांव आनी तूं फाटल्यान बसुया. 'ओके'?

गणेश : (हांसता.)

गायित्री : (हांसता.)

गणेश : चल्याक आवयची जास्त माया आसता खंय. आदित्यान हें दाखोवन दिलें. आमच्या म्हऱ्यांत चड तेंप नासतनाय, तुज्या रगतांतल्यान कशी माया भरल्या ती आमकां दिसता पुता.

गायित्री : (दोळे भरून पळेता.) बाबू... (आपल्या म्हऱ्यांत आपयता.) यो, ब... स.

सूर्या : (तिच्या म्हऱ्यांत वचून बसता.) आई, आतां तूं जाली बरी. फाल्यांच्यान जेवण करपाक आमकां मदत कर.

गायित्री : (सगलीं हांसतात.) हय.

पड्डो.

(दादूचें घर फोन वाजता. दादू फोन घेता.)

दादू : हॅलो... सूर्या, कसो आसा तूं? आं, काम बरें चल्लां? कसले त्रास नात मरे? किदें? हय, बरीं मनशां? तांगेरूच रावता? कोण रे तीं? ऑफिसांत आसा? बरें. आई आसा बरी. तुजी याद काडीत आसा. तूं बरो करून. 'ओके'?

पार्वती : (भायर येवन) कोण सूर्या उलयतालो?

दादू : हय.

पार्वती : बरो वेळ उलयलो काय किदें? किदें सांगी?

दादू : बरीं मनशां मेळ्ळ्यांत खंय. तांगेरूच रावता खंय सध्या.

पार्वती : कोण तर तीं? एके वटेन बरें जालें. घरचें जेवण तरी जेवंक मेळ्ळें पोराक.

दादू : वता थंय सूर्या लोकांक आवडटा. ताजे गुणूच तशे आसात.

पार्वती : आतां केन्ना येता खंय?

दादू : थोडेच दीस उरले न्हय गे आतां? आयच्यान इकरा दीस उरले. कोणागेर आसा थंय मजेंत दीस वतात खंय.

पार्वती : कोण काय तीं मनशां?

दादू : ऑफिसांतल्यान उलयतालो. मागीर सांगतां म्हणी. तुका विचारी. याद काडीत आसा म्हणून सांगलें.

पार्वती : हांगा येतकच आतां किदें थरोवपाचें आसा कोण जाणा! एके तरेचो भंय कसो जाला म्हज्या मनाक.

दादू : पार्वती, कसलेच विचार मनांत हाडूं नाका. देवाक किदें जाय तशें जातलें. सगलो भार आतां देवाचेर घाल. आमच्या हातांत कांय

ना. देवान नेमून दिलां तें काम तो मनशांकडल्यान करून घेता.

पार्वती : देवा, तूं किदें तो सारको निवाडो कर.

दादू : पार्वती, चल आज आमी मात्शीं देवळांत वचून येवंया.

पार्वती : आज अचानक देवळांत वचपाचें सुचलें तुमकां!

दादू : हय. आमी देवाकडेन भुरगें जाल्यार पुरो म्हूण खूब वर्सां पयलीं मागतालीं. अचानक सूर्या मेळटकच मनांत थरयल्लें, गणपतीच्या देवळांत एक दीस मोदक घेवन वतलों म्हूण. पूण अजून मेरेन पावलों ना. कालच्यान म्हाका हें येवजून चुकिल्लेभशेन जावंक लागलें. आज संकश्टी. आमी दोगांय मोदक घेवन देवळांत वचुंया.

पार्वती : तुमच्या मनांत आयलांच जाल्यार वचुंया आमी. हांव रोखडींच भायर सरतां. तुमीय न्हेसात.

दादू : हय. (भितर वतात.)

पड्डो.

पार्वती : (दादूचें घर. पार्वती मेजार पेपर सारके दवरता. कदेलां पुसता, सगलें सारकें दवरता.) खंय गेले? घडयाळींत वरां पळेल्यांत तुमी?

दादू : (भायर येता.) सात जालीं. आज बरोच बोवाळ पडला तुका. कितले सकाळीं उठिल्ली तूं? किदें केलें?

पार्वती : सूर्याक शिरो आवडटा. तो पयलो केलो. मागीर इल्ली बटाटभाजी केली, इल्ले शोले केले आनी थोड्यो पुरयो काडल्यो.

दादू : वा! वा! बरीच मेजवानी म्हणपाची तर आज.

पार्वती : वतात न्हय सूर्याक हाडूंक?

दादू : हाडूंक किद्याक जाय? ताचेकडेन सामानूय चड ना. येतलो रिक्षा करून. हांव हाडूंक वचत जाल्यार, कित्याक त्रास घेतले काय म्हणून उलयतलो. आनी आतां तर वेळ जालो. (भायर रिक्षेचो

होर्न) हो पळे, आयलो सो दिसता.

पार्वती : (भायर पळेता. भायल्या दाराकडेन दोगांय वतात. रिक्शावाल सामान दवरून वता. सूर्या येता)

सूर्या : आई. (पांयां पडटा.) दादू (पांयां पडटा.) कशीं आसात? तुमक कितल्याशाच वर्सांनी पळेल्ले भशेन दिसलें.

पार्वती : सूर्या, बरो आसा मरे? बारीक जालो काय किदें?

दादू : सूर्या, रिक्षेंतलें सगलें सामान हाडलें मरे?

सूर्या : हय दादू.

दादू : तुजी धाकली सुटकेस? हाडूंक ना गे ताणें. पळे पार्वती, हे त्य सामानांत आसा जाल्यार?

पार्वती : (सामानाकडेन पळोवंक वता)

सूर्या : दादू, धाकली सूटकेस हाडूंक ना.

दादू : हाडूंक ना म्हळ्यार. थंयच दवरली? परतो वचूंक जाय तुका?

सूर्या : ना दादू, ते सुटकेसीचो बरोच बोवाळ जालो. त्या दिसा हांव वांचलों तें व्हडलें.

दोगांय : (भियेवन) म्हणजे ?

सूर्या : कांय ना दादू. आतां हांव सारको आसा न्हय तुमचेमुखार? सगलें तुमकां सुसेगाद सांगतां. पयलीं म्हाका मात्सो न्हावन धुवन फ्रॅश जावंदी.

पार्वती : हय पुता, चल न्हा तूं. आनी हुनहुनीत च्या पिये. (भितर वतात.)

पड्डो.

(दादूचें घर. दादू आनी पार्वती बसल्यांत.)

पार्वती : ताची गजाल आयकली न्हय तुमी?

दादू : हय. एके वटेन जिवाक बरें दिसलें.

पार्वती : किद्याक?

दादू : ताचे आवय-बापूय नकळत ताका मेळ्ळे. तांकां बी आपलो पूत मेळ्ळो. हो थंय रावून ताची आवय बरी जाली, हें एकदम बरें काम जालें.

पार्वती : सूर्या वता थंय जीण सुखावता. तरी बरें जालें, ताचोच बापूय प्रसंगाक ताच्या म्हऱ्यांत पावलो.

दादू : हय. मुंबय ती. आनी कोणूय गुंड बी आसता जाल्यार...

पार्वती : कसलें अरिश्ट येवपाचें आशिल्लें कोण जाणा. देवूच पावलो म्हणपाचो.

दादू : ती हातावयली खूण ताणें पळेली म्हूण माणसुकी. कितलो वेळ त्या चोराचे त्रास सोंसचे पडले कोण जाणा. दळिदऱ्यान सूर्याक जमनीर शेंवटिलो खंय?

पार्वती : तेन्नाच ताचें शर्ट पिंजलें. आनी तेखातीर हातावयली खूण ताका दिसली.

दादू : देवानूच ताका ताच्या आवयबापाय म्हऱ्यांत पावयलो आसतलो.

पार्वती : ताची आवय ताका पळोवन उलोवंक लेगीत लागली खंय. कितलीं वर्सां तिची वाचाच गेल्ली.

दादू : आतां आनीक फाटल्यान ती सूर्याचो हुसको काडीत आसतली.

पार्वती : सूर्या केन्ना परत येता काय म्हूण वाट पळेत आसतली.

दादू : कामाक वतां म्हणून सांगून आयला खंय.

पार्वती : हय. सांगचेंच पडलें ताका तशें.

दादू : मागीर किदें करतलो? उपाय नासून फट मारची पडली म्हणटालो.

पार्वती : आमकां मात इतले दीस सूर्यान कांयच सांगलें ना.

दादू : येदी व्हडली गजाल तो फोनार कसो सांगतलो आशिल्लो? सुरवात करतलो जाल्यार चोराचे गजालीन. तें आयकून आमकां हुसको जायत म्हणून तो ओगीच रावलो.

पार्वती : आतां ताचें आमी सगळें आयकलें, पूण ताका सत्य गजाल कळटकच किदें जातलें कोण जाणा. आज तरी ताका ही गजाल सांगुंकूच जाय. पयलींच हे गजालीक स म्हयने जाले.

दादू : आज ऑफिसांतलो येतकूच ताका सगलें सांगून उडयतां. मागीर तांकां हांगा आपोवन किदें तो सोक्षमोक्ष ताका लावंदी. सुर्याकूच किदें तो निर्णय घेवंदी.

पार्वती : देवान ताका बरी बुद्द दिवं.

पड्डो.

(दादूचें घर. दादू, सूर्या आनी पार्वती वगी बसल्यांत. सूर्याक सगळी गजाल कळ्ळ्या आनी तो येवजूंक पडला. दादू आनी पार्वती सूर्याचो निर्णय आयकूंक रावल्यां.)

दादू : सुर्या, तुका सगली खबर हांवें सांगली. आतां तुज्या निर्णयाची आमी वाट पळेतां.

पार्वती : पुता, तुज्या मनाक दिसता तशें कर. ओगीच आमकां वायट दिसत म्हूण कसोय निर्णय घेवं नाका. सारकोच विचार करून किदें तें सांग.

सूर्या : (ल्हव ल्हव तकली वयर काडटा.) आई, दादू, हांवें विचार केलो. म्हाका तुमी माया दिल्ली आसा ती हांव कशीच विसरूंक शकचों ना. तुमी म्हळ्यार म्हजें सगलें. म्हजे जिणेक आकार दिलो, म्हाका म्हज्या पांयांचेर उबो केलो. बऱ्या हुद्द्यार पावयलो. हें तुमी केल्लें हांव विसरुंकूच शकना.

दादू : जें किदें आमी केलां, तें आमचें कर्तव्य आमी पार पाडलां. तुज्या नशिबांत तें तशेंच बरयिल्लें आसतलें.

सूर्या : मुंबयंत ताचें पळेल्यार, आई, बाबाचोय दोश कांय ना. काळूच

तसो आयलो आनी आमची ताटातूट जाली. तांणी खूब त्रास सोंसले आनी हेवटेन तुमी म्हाका सगलें सूख दिलें. पंचवीस वर्सां तांकां फकत दुख्खूच भोगचें पडलें. हें पळेल्यार म्हाका दिसता हाचे फुडें तांकां कसलेंच दुख्ख भोगचें ना हाची खबरदारी घेवंक जाय.

दादू : म्हणटकूच किदें करूंक सोदता तूं?

पार्वती : उलय सूर्या, तूं किदें म्हणूंक सोदता?

सूर्या : आई, दादू, आमी सगलींच एकठांय रावुंया. तांकां हांव हांगाच घेवन येतां. तुमकां मान्य आसा?

पार्वती : (सूर्याक म्हऱ्यांत काडटा.) सूर्या.

दादू : (म्हऱ्यांत वता) सूर्या. तुवें योग्य निर्णय घेतलो. आमकां मान्य आसा. आमी सगलीं एकठांय रावुया. उरिल्ली जीण सुखान घालोवया.

पार्वती : सूर्या, तुजेबगर हांव जगुंकूच शकचीं नाशिल्लीं. तुवें सगल्यांच्या मनाचो सारको अभ्यास केला. पुता, तुका कोणाचेंच मन दुखोवंक नाका. तुका सगलींच जाय. देवान तुका व्हड मन दिलां.

सूर्या : आई, दादू, तुमचीं मनां बरीं म्हूण म्हाका तुमी तसो घडयलो. तेखातीर म्हजेंय मन तुमचेच भशेन जालें. म्हाका तुमचो अभिमान दिसता.

(सूर्या, आई आनी दादू मदीं रावून दोनूय वटांनी तांचे हात धरतात.)

जल्मभर तुमकां हांव असोच म्हजे म्हऱ्यांत दवरतलों.

# बगलांट

- राघू
- लाडू
- मनीताई

राघू : (राघू आपल्या घरांत हारशामुखार. शिळवीण घालता, आपल्याकूच पळोवन मुरगुट्टा) oh fantastic धवीच पॅण्ट आनी तांबडोच बुशकोट! How sweet! handsome!

लाडू : (हांसत येता.) हा, हा, हा, हा...

राघू : कोण, आरे लाडू, तूं? तूं कसो पावलो हांगा अकस्मात?

लाडू : (हांसत आसा.)

राघू : आयलो तो बरो आसा. पूण असो पोट फुटसर हांसतासो?

लाडू : (हांसतूच) हें किदें विचारप जालें, आरे हासपा सारकें तर सगलेंच आसा तुजें.

राघू : हांसपासारकें सगलेंच आसा आनी तेंय बी म्हजें? म्हणजे?

लाडू : तुजेंच. हें, हें पळे तुजें वयलें.

राघू : वयलें म्हळ्यार? म्हजें तोंड, कान, दोळे, तकली काय हें हड्डें? किदें? म्हणपाचें आसा तरी किदें तुका?

लाडू : आरे, ओगीच बडबड करून इतलीं नांवां घेवं नाका. सगल्यांक खबर आसा, तुका दोळे, कान तकली आसात म्हणून.

राघू : मागीर तुका म्हणपाचें तरी किदें आसा ?

लाडू : हांव म्हणटलों किदें? हें तुजें धडधडीत वयलें तांबडेंगुंज शर्ट दिसता पळे तेंच...

राघू : तातूंत किदें जालें?

लाडू : जालें किदें तें तुका पयलींच कळिल्लें आसा. एक आदेस हारशा मुखार तोखेत उबो आशिल्लो.

राघू : अशें, अशें. सगलें चोरून आयकलें म्हणपाचें तर तुवें.

लाडू : ना रे म्हज्या मोगाळ इश्टा, वयल्यान हांव तुका म्हणूंक सोदतालों....

राघू : (अपुरबायेन) किदें? सांग म्हज्या मोगाच्या इश्टा, किदें म्हणूंक सोदतालो तूं?

लाडू : First class, Excellent! सोबीत आनी सकयल रे तें पळेल्यार...

राघू : लाडवा, तूं सारको उलय आं. सकयल आनी वयर करता पळे तें म्हाका तुजें बरें लागना.

लाडू : बरें लागना म्हणजे? आरे सकयल तुवें धवी पँट घालूंक ना?

राघू : पॅण्ट, अशें सांग. आतां कसो सारको उलयलो तूं! नाजाल्यार भलतोच अर्थ घेतल्यार....

लाडू : आरे, तूं सदांच भलतोच अर्थ घेता म्हणून हांव त्या अर्थान उलयतां अशें तूं धरूं नाका. म्हजी ती संवयूच. जित्याची खोड खंय मेल्या बगर वचना. तशीच म्हजी संवय केन्नाच वचची ना.

राघू : तुजी वचची ना आनी म्हजी किदें वतली? म्हजीय संवय वचची ना. हांव दुसरे अर्थ लायतलोंच. (मनीताई ल्हवूच येवन आयकता.) तुजो शब्द आयकून हांव बदलतलोंच meaning.

मनीताई : (खरशेत, खरशेत येता.) आवय! आवय कोण रे बाबा हें मिनी? इतलो फुडें पावत सो दिसूंक नाशिल्लें. हांव शेणलें इतली खटपट करून काय बरें स्थळ पळेल्लें हांवें. कशेय तरेन हाचो संवसार जाग्यार घालचो म्हणून येवजिल्लें. पूण हांगा येवन पळेल्यार दुसरेंच जालें! (रडटा.) आतां रे देवा कितें करूं हांव, व्हंकलकारांक किदें सांगू? देवा, घात जालो. (रडटा.)

राघू : मनीताई, असो घात जावपाक घडलें किदें तुजें?

मनी : म्हजें किद्याक घडूंक जाय, घडयलें सगलें तुवें. वयल्यान म्हाका विचारता? नालायक! घात केलो पापया तुवें. तोंड दाखोवं नाका म्हाका.

राघू : आगो, पूण हांवें केलां किदें?

मनी : केलां किदें? करून सवरून नामानिराळो. दळडिऱ्या, तोंड बरेंच फुडें सरलां म्हणपाचें तुजें.

राघू : आगो, पूण आयकून तरी घे म्हजें.

मनी : म्हाका किदेंच आयकुपाचें ना तुजें.

राघू : लाडू, (रडक्या आवाजान) तूं तरी विचार रे म्हज्या इश्टा!

लाडू : विचार आनीक कपल म्हजें? राघू, तुका दुयेंस आसा पळे, तेंच तुजे भयणीक आसा म्हणून आजूच कळ्ळें म्हाका.

मनी : किदें? आमच्या राघूक दुयेंस आसा म्हणून कोणें सांगलें तुका? आनी चांडाळा, म्हाकाय तेंच जालां म्हणून तुका रे कशें कळ्ळें? जीव काडलो हांणी. आमचीं दुयेंसां आमचेबरोबर, तुका वयर काडपाक लावंक ना. दोतोराक आमी दाखयतात, वखदां आमी हाडटात, पयशे आमी मोडटात, तुजें रे किदें गेलें?

लाडू : मनीताई, हांव नकळों आशिल्लों तुका इतलें वायट दिसत म्हुणून आनी तूं अर्थ इतलो वेगळो करीत हेंय म्हाका दिसूंक नाशिल्लें. हांव दुसरेंच सांगूंक सोदतालों तर तुवें ताचो अर्थ तिसरोच केलो.

मनीताई : म्हळ्यार? तूं किदें सांगूंक सोदतालो?

राघू : सांग, सांग पापया, सरळ खरें तेंच सांग.

मनी : राघ्या, तूं उतर काडचो ना भायर. तुजें मिनी कोण तें पळेतां हांव, आनी ताका तूं कशें बदलता तेंय म्हाका पळोवपाचें आसा.

दोगूय : (हांसतात.)

मनी : (रागान) पापयांनो, हांसतात! दुखार दागण्यो म्हाका. दोगांनीय

बरोच कट केला काय किदें? दोळे पळेयात म्हजे. पळेले? रागाक हांव फार्टीफुडें पळोवचें ना. हांव तुमचेपरस ७-८ वर्सांनी तरी व्हड आं. सांगून दवरतां.

लाडू : मनीताई, (भियेत) ओगीच रागार जावं नाका.

मनीताई : जावं नाका कशें? तुमी हालीं सामके पाडे जाल्यात. राग येवपासारकें करूंक लागल्यात दोगूय. तातूंत आनी ह्या दिसांनी तूं मेळ्ळा ताका फूस लावंक. हांव ओगी रावचें ना. म्हाका तें मिनी पळोवंकूच जाय. ताचें तोंड, सोंड रंगोवन ताका नरकांत धाडिना जाल्यार पळेयात.

लाडू : मनीताई, म्हजें आयकून तरी घे.

मनी : आयकून बी कांयच घेवपाचें ना. ह्या घरांत लेगीत तुमकां दवरपाक भंय. केन्ना ते मिनीक हाडून दवरून किदें करीत हाचो नेम ना तुमचो. (राघू जनेलाभायर पळेता.) पळे, पळे त्या राघ्याक. जनेलाभायर पळेत आसा. नदर काडटा जाल्यार पळे. राघ्या (रागान), कित्याक रे त्या मिनी बरोबर शेण खाता? मनाची ना जाल्यार जनाची तरी लज आसता. थूः तुजे अकलेक. पाड पडूं. आतां रे देवा जातलें कशें? म्हज्या राघूक कसली ही अवदिसा लागली? (रडटा.)

लाडू : मनीताई, मनीताई, तुका राग आयिल्लो तसोच म्हाकाय आयला. (रागान) हांव किते उलयत आतां तें सांगूं नज.

मनीताई : आतां कळ्ळें मरे पापया? तूं ताचो इश्ट आनी हांव भयण. म्हज्या काळजाक कितलें दुखतलें आनी म्हाका कितलो राग येतलो तें तूंच पळे. रगताचें नातें आमचें. कशें रे रगत सळसळचें ना?

लाडू : ताचो राग येवंक ना म्हाका.

मनीताई : मागीर कोणाचो?

लाडू : तुजो. (बुशकोट घामान भरला म्हूण काडून कदेलाक लायता.)

मनीताई : किदें, म्हजो?

लाडू : हय, तुजोच.

मनीताई : म्हजो, चोरा, दुश्टा, कुसक्या. म्हजो राग?

लाडू : (मोट्यान आनी रागान) हय, हय, तुजोच राग आयला म्हाका. आनीक एक उतर काडचें ना तूं. जालां किदें, घडलां किदें पळोवप ना. उखल्ली जीब लायली ताळ्याक. दुसऱ्याचें सारकें आयकून घेनासतना. ऊठसूठ उलय, कोणाकूय कशेंय, चोरा, दुश्टा! शी, शी, शी. आयकूंक नाशिल्लें केन्ना तें तुजेकडल्यान आयकूंक मेळ्ळें. झक मारूंक आयलों हांगा.

मनीताई : येवंक नाशिल्लो जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. ह्या म्हज्या राघूक नटून थटून मिनी म्हऱ्यांत मोडत मोडत व्हरूंक आयिल्लो हेंय हांव जाणां.

लाडू : व्हासिमोर. राघूक व्हरूंक आयिल्लो खंय. किदें उलयता तूं? तोंड आसा म्हूण किदेंय उलोवं नाका. येतपसून आयकतां खंयचें मिनी मिनी मिनी. आमी केन्ना आयकूंक लेगीत नाशिल्लें तें उजोलावणें नांव.

मनीताई : आयकूंक नाशिल्लें म्हणुनूच तुजो इश्ट म्हणी तुका हांव मिनींग बदलतलोंच, हांव मिनींग बदलतलोंच.

लाडू : हाय देवा म्हज्या. हेंच आयकलां मगो तुवें? ताचो अर्थ दुसरोच आसा.

मनीताई : दुसरो म्हळ्यार! किद्याय किदें सांगूं नाका. हांव जाणां, तूं म्हाका विसरायेर घालूंक सोदता. हांव किदें कुकुलें बाळ न्हय. हो राघू तांबडो शर्ट, धवी पॅण्ट घालून खंय नटून थटून वतलो? ते मिनीकूच पळोवपाक न्हय?

लाडू : सायबिणी, न्हय. पांयां पडटा तुज्या. तोंड मातशें बंद कर आनी कान उगडून म्हजें आयक.

मनीताई : आरे, तूं पिसोच. तुजे भितर कांय अर्थ ना. तोंड बंद कर म्हणटा पळे तितलेंच बरें आसा. बाकी कान आमचे सदांच उकते आसतात. आनी ते उकते आसात म्हणुनूच हें हळशिकावणें उतर म्हज्या कानार पडलें.

लाडू : मनीताई, तें उतर मात हळशिकावणें न्हय आं. तें एक इंग्लेजींतलें उतर.

मनीताई : आरे, म्हाका तूं शिकयता? कोंकणी उतर किदें इंग्लेजींत बरोवंक येना?

लाडू : येता. पूण ताचो अर्थ, उच्चार वेगळो आसता. आतां तुवें आयकल्लें उतर meaning म्हणजेच अर्थ.

मनीताई : म्हळ्यार. हांव समजूंक ना.

लाडू : तुका केन्ना रोखडें समजलें म्हणून आसा?

मनीताई : आतां समजूंक ना म्हणुनूच विचारलें न्हय?

लाडू : तशें जाल्यार आयक. आतां इंग्लेजीत cat हें उतर आसा.

मनीताई : हें आनी कसलें cat करता?

लाडू : मनीताई, हें पळे, हांगाय तूं नाका आशिल्लें उलोवंक लागलें. म्हजें सगलें सांगून सोंपसर मदीं उलोवं नाका.

मनीताई : उलयनासतना कळटलें कशें?

लाडू : हांव तुका समजावन सांगता.

मनीताई : बरें, सांग.

लाडू : तुका आतां cat म्हळ्यार किदें तें समजूंक ना. तेन्ना हांव तुका तें समजावन सांगतना अशें म्हणटां. कॅटाचो अर्थ म्हळ्यार कॅटाचो मिनींग तुका खबर आसा? म्हळ्यार कॅटाचो अर्थ तुका खबर आसा? हाचो मिनींग म्हळ्यार अर्थ. माजर.

मनीताई : आरे देवा, (कपलार हात मारता.) फुकट तकली वाटेक लायली इतलो वेळ. म्हज्या अपुरबायेच्या राघूचेर फुकट हांवें बगलांट

घालें. म्हाका खंय खबर ह्या अर्थाचो अनर्थ जाला म्हुणून.

राघू : अनर्थ तुवें केलो. पळेलें मरे लाडू? तूं म्हऱ्यांत आशिल्लो म्हणून माणसुकी. नाजाल्यार फुकटचें बगलांट न्हय रे म्हजेर आयिल्लें खंयचें! म्हाका कसली भूक लागिल्ली म्हणून सांगू... जीव भुकेन फडफडटालो. मनीताई किदेंय तरी खावंक दितली म्हणून राविल्लों. पूण खावंक मेळ्ळें एक बगलांट. लाडू, तुवें तरी किदें हाडलां म्हाका?

लाडू : आरे, तुका भूक लागल्या म्हणून म्हाका कशें कळटलें? तूं नटून थटून खंय तरी वचपाचे तयारेंत आशिल्लो.

राघू : वचपाचे तयारेंत खंयचो? आतांच नवी पॅण्ट आनी बुशकोट शिंवून हाडल्यांत. तीं घालून पळेतालों.

लाडू : अशें? नवे कपडे घालून तुजे तुकाच हारशांत तोखेतालो? बाकी कार्नवालाक हे कपडे सोबसारके आसात. बरोच उपेग करूं येता. सांबाळून दवर. म्हाकाय केन्नाय जाय पडल्यार सांगतां हांव.

राघू : सांबाळून दवरतलों हांव. खूब उंची कपडे ते. बरें, म्हजी तोखणाय पुरो आतां. तुवें किदें म्हाका प्रसाद हाडला जाल्यार दी. (मनीताई लाडूचो बुशकोट पळेता, तांतले दोन लाडू ल्हवूच कुशीक दवरता.)

लाडू : आरे, हांव म्हऱ्यांत आसतना तुका खावपाची याद जाता कशी? जाणां मरे, म्हाका म्हजे आजयेन ओगीच लाडू हें नांव दवरूंक ना. तिणें नांव दवरलां त्या दिसाच्यान म्हजे कुशीक सदांच एक एक लाडू दवरीत आयल्या खंय. आनी आतांय बी म्हजेबरोबर लाडू आसातूच. तेन्ना तुजी भूक भागतली तातूंत.

राघू : आरे गाढवा, तुका हांव कोण सो दिसतां?

लाडू : कोण सो म्हळ्यार? तूं राघू न्हय तर?

राघू : राघू म्हळ्यार कीर. तेन्ना किराक लाडू आवडनात. बरीं पेरां, आपोलां, द्राक्षां, बी आवडटात. म्हाकाय बी म्हजे पणजेन ओगी

राघू हें नांव दवरूंक ना. पूण तरी आसतना कोणेंय मुद्दाम लाडू दिल्यार हांव खातां.

लाडू : आरे, (घडयाळीर पळोवन) वरां म्हणून बरींच जाली मरे. खंय तो म्हजो बुशकोट दवरलो हांवें?

मनीताई : तुवें येनाबरोबर बुशकोट काडून सो दवरलो?

लाडू : काडून सो दवरलो दवरचोच पडलो. तुजो जोर चडलेबरोबर म्हाका घाम आयलो. बुशकोट वलो जालो म्हणून कदेलार काडून दवरलो.

मनीताई : म्हणजे हो तुजोच तर बुशकोट. घे. (कदेला वयलो बुशकोट दिता.)

लाडू : (बुशकोट हातांत घेता.) आगो, पूण हो ल्हव कसो लागलो?

राघू : बुशकोट किदें जड लागता रे?

लाडू : म्हजो बुशकोट सदांच जड आसता. दोन दोन लाडू आसतातूच तातूंत. पळे, नाजाल्यार दाखयतां... (बोल्सांत सांसपिता.) आरेच्या! बोल्सांनी लाडू नात.

राघू : किदें? लाडू नात? मागीर गेले खंय?

लाडू : मनीताई, तुवेंच हो बुशकोट म्हजेकडेन हाडून दिला. तेन्ना तुकाच चड खबर आसतली.

मनीताई : म्हाका कशी खबर आसतली. इंग्लेज उलयतात तुमी आनी खबरो म्हाका विचारतात?

लाडू : जाणा मरे राघू, मांजरांची जात खंय वायट. तव्यावयलें नुस्तें लेगीत नाच करतात तीं. कुशीक आशिल्ल्या बुशकोटांतले लाडू ना करपाक वेळ लागता?

मनीताई : आरे लाडवा, तुका म्हणपाचें आसा तरी किदें? स्पश्ट किद्याक उलयना रे तूं? अकस्मात तुका माजराची शी याद जाली? आमगेर वयल्यान माजर लेगीत ना. तुका खबर आसाच.

लाडू : तुमकां आनीक माजराची गरज आसा? बाकी म्हाका अकस्मात आमचे मनीची याद जाली.

मनीताई : तुमचें मनी कोण?

लाडू : आमचें माजर, आमच्या माजराक आमी मनीच म्हणटात.

मनीताई : आं! आयलें म्हज्या लक्षांत. तुवें म्हाका माजर करून सोडलें? माजरावयल्यान म्हजेर बगलांट घालता? वळखून नकळो तूं म्हाका. लाग चलूंक हांगाचो. फुकेसवाय म्हजेर बगलांट?

लाडू : आगो, तुवें लाडू खावंक नात? जाल्यार गेले खंय दोनूय लाडू? तुजेबगर ते लाडू कोणेंच काडूंक नात. (राघू मातसो भितर वचून येता.) राघू, राघू, खंय गेलो रे? म्हजे लाडू म्हाका जाय. राघू, तुजे भयणीक विचार. (राघू भायर येता.)

राघू : लाडू, फटिंगा, म्हजे भयणीचेर बगलांट घालूं नाका. आमचेच लाडू तुवेंकाडिल्ले मरे? सुशेगाद खावन मेकळो जाला आनी आतां परत दुसरे सोदता?

मनीताई : पळेलो कसलो, आमचे लाडू चोरून वयल्यान आमकां शाणेपणां सांगता? राव (सान्न हाडूंक धांवता.) सान्नीचो मुंडो दाखयतां तुका.

लाडू : राघ्या, तुगेर लाडू खंयचे आयले? चोरा, म्हजे लाडू चोरल्यात? आरे चोरा. (गोलाक धरता.)

राघू : लाडू, म्हजो बुशकोट सोड, सोड पयलो. आं.... (सोडटा.) तूं, तूं मरे फटिंगांचो राजा. तुवें लाडू हाडुंकूच नाशिल्ले. आमचे रांदचे कुडींत हांवें मावशीबायन दिल्ले दोन लाडू दवरलेले. आतां थंय खावंक गेल्यार एकय लाडू मेजार ना. गेले खंय ते? सांग लाडू. सोडचों ना तुका.

लाडू : ना सायबा, तुज्यान, माजराच्यान, कोणाच्यानूच खावंक नात. येतपसून हांव हांगाच आसां. तुमचे रांदचेकुडींत हांवें पांयूच दवरूंक ना. हें म्हजेर बगलांट घालां तुमी.

राघू : लाडू. तूं न्हय रे, येताच आसतना रांदचेकुडींत पांय धुवपाक गेल्लो मान्न्यांत. मेजार थंय तुवेंच तुवालो दवरूंक ना?

लाडू : म्हणून किदें जालें मेजावयले बशयेंतलें लाडू हांवें खाले?

राघू : मागीर तुका खबर असा मरे, मेजार बशयेंत लाडू दवरिल्ले म्हणून?

मनीताई : (सान्नीमुंड्यान मारूंक येता.) राव, आसा तो अजुनूय? (सान्न सारकी करता, मारपाचे स्टायलीन धरता.)

लाडू : तुमचे वयलें बगलांट निमाणें म्हजेर सोडलें तुमी?

मनीताई : हय, हय. हे सान्नीच्या मुंड्यान फाटूच धाडायतां तुजी.

लाडू : नाका सायबिणी, चल्लों हांव. नाकात म्हाका तुमचे लाडू. मनीताई, नाकात म्हाका तुजे लाडू (रडत वता)

मनी, राघू : आतां कळ्ळें? आनीक आनीक लाडू सोदूंक येतलो हांगा? (हांसतात.)

पड्डो.

# राजाक हॉटेल नाका जाता

- राजा
- गोमू
- रमेश

राघू : किदें गो गोमू? दिसूयभर कामांतूच पापया? आमचें नवेंच लग्न जालां म्हणून खबर आसा मुगो?

गोमू : हंय तर! दुबावूच ना!

राजा : मागीर तूं किदें करतालें तर?

गोमू : घरचें काम केन्ना सोंपता? हें पळे, तुवें हांगा सगळे बूक पातळावन दवरिल्ले, ते सगळे शेल्फांत घाले आनी आतां पळे कितलें निवळ दिसता तें.

राजा : खरेंच, तुका पळेलें म्हणटकूच हांव सगळें सगळें विसरून वतां. राती हांव वाचूंक बशिल्लों खरो, पूण पुस्तकाचेर म्हजें लक्ष चडूच आशिल्लें.

गोमू : खंय आशिल्लें तर?

राजा : सांगूं?

गोमू : नाका नाका सांगूं, हांव जाणां, तूं किदें म्हणूंक सोदता तें. (रागान रडटा.)

राजा : जालें? आगो पिश्या!

गोमू : हय हांव पिशें, उलय जाय तें उलय.

राजा : आगो म्हज्या शाण्या, तुजेबगर म्हजें लक्ष आनीक खंय आसूं येता? तुका तर म्हजी सगळी खबर आसा, ते भायर दोन वर्सां

वळख करुनूच लग्न जाल्यांत.

गोमू : हय तर. पूण राजा, रातीं तुजो दोळो म्हजेर नाशिल्लो, कांद्याच्या भज्यांचेर आशिल्लो. हय काय न्हय? सांग पळोवया.

राजा : आगो पूण तूं कशें वळखलें?

गोमू : कशें वळखलें? हीं पळे, पुस्तकांच सांगतात. हीं हांगा अशीं उडोवन धांवून तूं रांदचेकुडींत आयिल्लो.

राजा : पूण हांव आयलेबरोबर तुवें सगलीं भजीं करपावन उडयलीं.

गोमू : आ! (याद जावन) भजीं करपायलीं म्हणटकूच म्हाका याद जाली. आतां म्हजें शीत मोव जालेंशें दिसता. हांव वतां भितर.

राजा : (हात धरता.) खंय वता? अशें बस पळोवया.

गोमू : अशें किदें करता तूं? चल सोड म्हजो हात. शीत मोव जातलें. सोड, सोड हात.

राजा : बरें बाये, सोडलो. म्हजेपरस शीत व्हड न्हय तुका? चल बाये (वता) चल. (फाटल्यान) गेलें, गेलें. एक दोन मिनटांच लाख मोलाचीं म्हणपाचीं. नशीब म्हजें. लग्न जालों म्हळ्यार, हे बायलेच्यो कटकटी कश्योच सोंपनात. आतां अशेंच केल्यार बरें. हय (येवजिता)

रमेश : (राजाचो इश्ट येता.) ए राजा, कशें केल्यार बरें तें म्हाकाय सांग मरे, म्हणजे हांवूय तशें करतां.

राजा : आरे रोमल्या, खंय रे तूं? आनी तोय बी पांय वाजयनासतना येवन आमचें उलोवणें आयकता.

रमेश : हांव पळे, चोरयां केन्नाच कोणाचें उलोवणें आयकना. आरे तूं मोठ्यान उलयतालो, म्हणून आयकलें. हातूंत म्हजो कसलो गुन्यांव सांग पळोवया?

राजा : तशें पळोवंक वचत जाल्यार तुजो गुन्यांव जायना खरो.

रमेश : आरे तूं किदें म्हणटालो सांग पळोवया.

राजा : किदें म्हणटालों हांव? (येवजिता.)

रमेश : आरे, आमी अशेंच केल्यार बरें, अशेंच किदें तरी उलयतालो तूं. आनी तूं करता तशें हांवूय करपाक शकतलों, कित्याक तर म्हजें बी त्याच म्हुर्तार लग्न जालें. तेन्ना म्हाकाय तीच्च व्याधी आसूं येता.

राजा : किदें म्हणटा? तुजें बी प्रॉब्लॅम तेंच? आरे घरांत जेविल्ले परस हॉटॅलांत वचून जेविल्लीं किदें वायट?

रमेश : किद्याक रे? बायल रांदिना काय किदें घरा? काय ती जेवण करूंक नकळो?

राजा : जेवण करूंक नकळो! (हांसता) ती म्हाका लेगीत शिजोवन काडीत.

रमेश : मागीर हॉटॅल कित्याक जाय तुका?

राजा : रोमल्या, तूं समजूंक ना. जेवण करता आसतना ती म्हज्या म्हऱ्यांत नासता. ती म्हऱ्यांत नासतना हांव एकटो किते करतलों? तेन्ना म्हळें, हॉटॅलांत जेवंक गेलों म्हणजे तितलोच वेळ तिचे बरोबर मोगान घालोवंक मेळटलो. कशें? आसा काय ना तकली?

रमेश : तकली सगल्यांकूच आसता तशी तुकाय आसा बाबा. पूण हें पळे, हॉटॅलांत जेवप खावपाक बरे पयशे भायर काडचे पडटात. हें जाणा मरे तूं?

राजा : आरे, पयसो कोणें केला? आं? मनीस पयलो मागीर पयसो. मनीस आसत जाल्यार पयसो कितलोसोच जोडूं येता.

रमेश : हय, तेंय खरें बाबा तुजें. फुडें सर तूं, पळोवया कशें जाता तें.

राजा : रोमल्या, तुजेंय नवेंच लग्न जालें आसा. तेन्ना तूंय अशेंच कर. कशें? म्हजो उपदेश आयकतलो तूं? पळे पापया, बऱ्याक पावतलो.

रमेश : हय, तुजो उपदेश शाण्यान आयकुचो आनी मागीर माथ्यार हात घेवन बसचो.

राजा : आरे, घरांतल्यो रांद्यावळी सदांच आसात. त्यो मातश्यो सदयाक कुशीक काडून सुखी जीण जग रे पापया.

रमेश : राजा, तुजें example हांव follow करपाक तयार आसां. पूण पयलीं तुजो प्रयोग कसो जाता तें पळोवया. मागीर हांवूय फाटल्यान आसाच म्हणून समज.

राजा : रोमल्या, ही किदें scientific theory न्हय.

रमेश : आरे, scientific theory आसूं, नाजाल्यार philosophical theory आसूं. कसल्योय theories आसतात पळे, तांचें जेन्ना practical करून पळेतात आमी, तेन्नाच आमकां खरें दिसता. आनी आमच्या मनाक तें पटता. सायन्टिस्टूच पळे, किदेंय येवजिल्यार तो ताचेर प्रयोग आपूण पयलीं करता आनी मागिरूच तो तें खरें मानता आनी दुसऱ्यांकूय तें follow करपाक लायता.

राजा : बरें आसा. तुका जाय जाल्यार तूं मान. हांवें पक्को निर्धार केला हॉटेलांतूच जेवपा-खावपाचो.

रमेश : बोल्सांत बरीच ऊब आसा शी दिसता.

राजा : रोमल्या, म्हाका किते समजला तूं? देड हजारांवर बोल्सांत आसात.

रमेश : आरे, नांवाप्रमाण राजा आसा खरो, पूण पयशांखातीर पादिशेर मात जावं नाका आं. कित्याक तर राजा केन्नाय पयशांक पादिशेर नासता.

राजा : आरे चल. हांव इतले पयशे आसतना पादिशेर जातां?

रमेश : बरें बाबा, पळोवया तुजो प्रयोग. मेळुंया आठ दिसांनी. कितलो improvement जाता तो पळोवया.

राजा : हयवय जातलोच. तातूंत दुबावूच ना!

रमेश : All the best. येतां हांव.

(आठ दिसांनी)

गोमू : ए राजा, भायर जेवन खावन कितले मजेंत दीस वतात न्हय आमचे? घरांत आनीक रांदप ना आनी बाकीचींय कामां नात. कपडे लॉन्ड्रीत दितात. बाकी म्हूण कसलीं कामां? मजाच मजा.

| | | |
|---|---|---|
| राजा | : | कसली मजा? म्हज्या कपलाची? |
| गोमू | : | (राजाकडेन पळोवन अजापान) आं? किदें? इतलो उसरां न्हाला? हो वेळ हॉटॅलांत breakfast क वचपाचो. चल राजा, चल बेगीन. न्हेस. म्हाका खूब भूक लागल्या. आज म्हाका च्या बरोबर दोन तीन नग तरी जाय जातले. |
| राजा | : | पुरो पुरो. दोन तीन नग खंयचे? एकूय नग मेळचो ना आनी दुसरें म्हळ्यार हांव आतां हॉटॅलांतूच वचचों ना. |
| गोमू | : | आं? (अजापान) अशें जालें तरी किदें? तूंच उमेदीन हॉटॅलांत व्हरतालो म्हाका. आनी आतां आठूच दिसांभितर म्हजो वाज आयलो काय किदें? |
| राजा | : | गोमू, तुजो वाज कित्याक येतलो म्हाका? तूं तर म्हजी जिवाची राणी. पूण सायबिणी, तुजी तोखणाय कशी करतलों? तुजेखातीर आशिल्ले तितलेय पयशे खर्च केले. आतां म्हज्या बोल्सांत एकूय पयसो ना. चड मजा मारून हांव सामको फसलों. |
| गोमू | : | कशे तर आठूच दिसांनी सगळे पयशे सोंपले? म्हाका खरें दिसना. |
| राजा | : | खरें दिसना जाल्यार आयक. आयकता तूं? |
| गोमू | : | हय. हिशोब सांग पळोवया. |
| राजा | : | आयक. आमी आमचो प्रोग्राम फाटल्या शेनवारच्यान सुरू केल्लो. शेनवारा सकाळीं उठून पयलीं हॉटॅलांत च्या घेतली. च्या बरोबर दोन मसाला डोसा, चार बटाटवडे आनी तुका आवडटा म्हणून बरोबर दोन जिलेबी घेतल्यो. हें घे बील. |
| गोमू | : | किदें? ४८ रुपया? |
| राजा | : | हय. मागीर ११ वरांचेर तान लागल्या म्हणून दोगांय टॉप कोला पियेलीं. हें दुसरें बील. उपरांत देडाक हांटेलांत जेवलीं. हें तिसरें बील. |
| गोमू | : | किदें? १८० रुपया? |

राजा : हय. सांची ४॥ वरांचेर मस्तपैकीं च्या घेतिल्ली ताचें हें बील. त्यानंतर कोलवें बेळेर गेलीं, थंय भजी खालीं. रातचो सिनेमा पळेलो त्यो ह्यो तिकेटी आनी रातचीं घरा येवचे पयलीं हॉटॅलांत जेवलीं तें हें बील.

गोमू : कितें, एकाच दिसाचो खर्च साडेतीनशां वयर. आनी ते भायर हांवें प्रत्येक दिसा लॉन्ड्रींत कपडे दिल्ले तांचे पयशे फारीक करुंकूच नात. ते आनी कितले जाले म्हणून कोण जाणा!

राजा : आठ दिसांक हांवें २८०० रुपये खर्च केले. हेवटेन तेवटेन खंय सांबाळून दवरिल्ले ते लेगीत मोडले. (इतल्यांत दारार कोण मारता.)

गोमू : कोण आयलो काय? (दार उगडटा) कोण! आं? (अजापून) हें किदें? लॉन्ड्रीचें बील? १४० रुपया? देवा, हें आनीक कशें फारीक करूं?

राजा : गोमू, म्हाका आनीक कांयच विचारूं नाका. हांव नवोच नोकरेक लागिल्ल्या कारणान म्हाका आनीक लीव ना. फाल्यां म्हाका कामाक वचूंक जाय, तेन्ना आनी आनीक हॉटॅल म्हणिनासतना च्या कर पळोवया.

गोमू : च्या कसो करूं हांव? घरांत किदेंच ना. बाजारांत वचून सगळ्यो वस्तू पयलीं हाडूंक जाय. पूण राजा, म्हाका आतां खुबूच भूक लागल्या. कशेय तरेन फकत च्या घेवंक हॉटॅलांत वचून येवंया आमी.

राजा : ना गोमू ना, म्हाका आनीक हॉटॅलात म्हणटात तें नाका सायबिणी.

रमेश : Excuse me राजा. दरबार उगडो आशिल्ल्यान सरळ भितर आयलों. आं. राजासायब, आनी वयनीसायब! जालां किदें? दोगांय अशीं माथ्यार हातऽ शीं घेवन बसल्यांत? आं? (येबजून) आयलें, आयलें लक्षांत. राजा जालो काय किदें रे ठण-ठण-पाळ?

राजा : रोमल्या, चुकलों रे हांव. तूं सांगतालो तेंच खरें. हॉटॅलांत वचूंक

पयसो लागता रें बाबा, हे तुजे शब्द आठ दिसां फाटले अजून याद जातात. रोमल्या, अजून याद जाता रें तुज्या उतरांची. हांवें तुजें आयकलें ना म्हुणून आज म्हजेर हो प्रसंग आयलो आनी आनीक म्हाका हॉटॅल म्हणटा तें नाका सायबा.

गोमू : जाणा मरे रमेश, हाणें २८०० रुपया खर्च केले फकत आठ दिसांक आनी जाणा मरे (रडून) रमेश, आतां एकूय पयसो उरूंक ना खंय. आमचें कशें जातलें आतां?

रमेश : वयनी, हॉटॅलांत वतकूच अशेच पयशे काबार जातात. तेच खातीर हांवें हॉटॅलांत वचपाचें नाकारलें. घरांतूच जेवन-खावन हांव कितलो धादोस दिसतां पळे आनी वयनी, म्हाका ह्या आठ दिसांक फकत ८०० रुपया खर्च आयलो. तातूंत आमी मदीं सिनेमाय पळेतालीं. ते भायर भोंवपाकूय वतालीं.

राजा : रोमल्या, तुवेंच बरें केलें म्हणपाचें. म्हजें आनीक example follow करूं नाका बाबा. हांवें पयशे वोगडायले. रोमल्या, हांव कोणाकडेन पळोवं आतां? बँकेंतूय किदें सांबाळून दवरलें ना नाजाल्यार तें तरी आतां उपकरा पडटलें आशिल्लें. फाटलो फुडलो विचार करीनासतना हांव मजा मारूंक फुडें सरलां.

रमेश : राजा, आठूच दिसांनी धडो शिकलो म्हणून हांव तुका congrats दितां.

राजा : रोमल्या, म्हाका तुज्यो congrats बी कांयच नाकात. म्हाका अपयश आयलें.

रमेश : आरे, congrats नाका जाल्यार हॉटॅलांत सादीच, म्हजी म्हणून च्या पार्टी दितां. चल ऊठ.

राजा : ना सायबा. म्हाका हॉटॅल आनीक नाका. ह्या वेळार फकांडां करूं नाका म्हजीं. म्हजो जीव वयर सकयल जाता हांगा. आनीक २० दीस म्हयन्याचे वचूंक जाय कशेय तरी. सद्या एक दीस वचूंक

कठीण जाला.

रमेश : राजा, खुबूच पश्चताप जालो तुका. हाचेफुडें, गुरुज ना थंय, खर्च करूं नाका. कळ्ळें? आनी हें पळे, असो वयर सकयल जावं नाका. आज हांव तुका ५०० रुपया दितां, ते घे.

राजा : किदें? ५०० रुपया?

रमेश : हय. हॉटॅलांत वचपाक न्हय. सगलें सामान हाड आनी घरांत जेवात आनी खायात कळ्ळें ?

राजा : हय, घरांतूच जेवप-खावप. आनी आनीक हॉटॅल नाका सायबा.

रमेश : हॉटेल नाका न्हय. केन्नाय मजेक गेल्यार जाता. सदांच न्हय.

गोमू : रमेशान येतनाच ५०० रुपया हाडले म्हणून माणसुकी. नाजाल्यार उपाशीं रावचीं पडटलीं आशिल्लीं.

रमेश : वयनी, अशें जातलें म्हणून हांव जाणाच आशिल्लों. तेच खातीर म्हज्या जिवाच्या इश्टाक सांबाळूक हांव धांवून आयलों.

राजा : रमेश, तुजे उपकार कशे फारीक करचे तेंच कळना म्हाका!

रमेश : राजा, तूं शाणो जालो तितलेंच पुरो म्हाका. चल, वयनीचें तोंड पळोवंक नजो म्हज्यान. तिका भूक लागल्याशी दिसता. चल, चल बेगीन तयारेक लाग.

# अंतूलो बाप्पाचो दोतोर

- बाप्पा
- अंतूलो
- व्हनीबाय

(बाप्पाचें घर. बाप्पा दुयेंत, खाटीर बशिल्लो आसता. खांकता) (पड्डो उगडटा.)

बाप्पा : बेजार जालो जीव दिसूयभर. किदें काय म्हणल्यार चणे खावप. हे चणे केन्ना सोंपतले देवाक खबर! पूण ते खावंकूच जाय. सोंपलेय जाल्यार परते हाडूंक जाय. दोतोर तर दीत आसा रसेतां बरोवन. कित्याक तीं? मड्याक? (खांकता,) आतां म्हाका दिसता, हांवें २५ तरी दोतोर केले, तरी गूण ना. पूण सगले दोतोर हे चणे दितात. आनी कांयच ना काय कितें तांचेकडेन? फकत असले चणे? हय काय म्हणटां, फकत चणे?

अंतूलो : (अंतूलो हो बाप्पाचो इश्ट भितर सरता.) ए बाप्पा, कसले चणे खाता रे? उकडलेले काय भाजिल्ले? काय हरवेच खाता रे?

बाप्पा : (खांकत उलयता.) आरे, कोण अंतूलो? तूं आनीक मदींच खंय उदेलो रे हांगा?

अंतूलो : बाप्पा, हांव तसो खंयचेय वाटेन उदेतां. हांव सूर्याभशेन न्हय. सूर्य फकत उदेंतेक म्हळ्यार उदेंतीक उदेता आनी अस्तंतेक अस्तता. तसो हांव न्हय. हांव खंयचेय दिशेक उदेतां.

बाप्पा : अशें? तूं एक व्हड मनीस तशें जाल्यारजावंक जाय. पूण सुर्याचो आमकां जायतो फायदो आसा. ताज्या उजवाडान आमचो दीस

बरो वता. तसो तुजोय किदें फायदो आसा मरे? काय तूं ओगीच खंयचेय दिशेक उदेता?

अंतूलो : चे, चे, चे. म्हजो फायदो आसा तर? आतां तूंच पळे, तुका म्हजो किर्ते तरी फायदो आसा काय ना?

बाप्पा : म्हाका? चल. म्हाका तुजो कसलोच फायदो ना.

अंतूलो : किदें? आतांच तू चणे खातालो ते थोड्या वेळाक तरी विसरलो काय ना? (बाप्पा येवजूंक पडटा.) सांग मरे बाप्पा. आतां पळे. चण्यांची याद काडलेबरोबर परत येवजूंक पडलो. बाप्पा ए बाप्पा! (दोळ्यांमुखार हात हालयता.)

बाप्पा : (चिंतेंतलो जागो जावन) आं, आं, हय हय (खांकता). हय रे बाबा, खरें तुजें, तुजो उपेग आसा म्हाका. पूण एक सांग रे, तुका म्हज्या चण्यांचें कशें कळ्ळें?

अंतूलो : बाप्पा, म्हाका सगळी खबर आसा. तूं दिसूयभर चणे खाता तीय खबर आसा. तूं म्हणशी, हांव जाणा कीं तूं खरेले चणे खाता म्हणून? तुजे ते चणे म्हळ्यार वखद, गुळयो. दिसूयभर तुज्या दुयेंसाक तूं गुळयो घेता आनी त्यो घेना जाल्यार तुजें चड जाता. त्यो गुळयो घेवन आतां तुका वाज आयला तेंय हांव जाणां.

बाप्पा : अंतूल्या, तुजें एक्कान एक उतर खरें. म्हज्या मनांतलें उलयलो पुता. म्हज्या म्हऱ्यांत तुज्या असलो मनीस जाय. अंतूल्या, तूं समजुपी म्हणून तुका सांगतां, म्हाका ह्या गुळयांचो वाज आयला. हावें कितलेशेच दोतोर केले तरीय निवळना. (खांकता.)

अंतूलो : आरे, पूण तुका दुयेंस तरी कसलें आसा?

बाप्पा : अंतूल्या, हांव पयलीं सिगारां खूब ओडटालों आनी ते भायर म्हाका दुसरें एक व्यसन आशिल्लें तें तूं जाणाच. (पियेवपाचें म्हूण सिनाल करता.) तींच व्यसनां म्हाका माल पडलीं आनी म्हाका आतां एकूच दुयेंस ना, हजार दुयेसां जाल्यांत खंय.

अंतूलो : कितें, हजार दुयेंसां? ओगीच कितेंय उलोवं नाका.

बाप्पा : अंतूल्या, तुका कितें सांगूं? एक दोतोर म्हणटा म्हाका अल्सर जाला, दुसरो म्हणटा कॅन्सर, तिसरो म्हणटा काळजाचें आसा, चौथो म्हणटा फिग्दाचें. कोण म्हणटा पोटांत आपसेस तर कोण म्हणटा गोड्यामुताचें....

अंतूलो : पुरे पुरो. म्हाका एक सांग, तुज्या रगताची तपांसणी केल्या?

बाप्पा : ना बाबा, रगत केन्नाच तपासूंक ना.

अंतूलो : तशें जाल्यार म्हाका आनीक कांयच सांगूं नाका. हांव तुका सांगता पळे, तें तूं कर. आनी पळे, तुका बरें दिसता जाल्यार.

बाप्पा : अशें रे कसलें वखद दितलो तूं? तूं किदें दोतोर?

अंतूलो : हांव दोतोर न्हय, फातर म्हळ्यार बरो म्हाका. पूण तूं म्हजें आयक.

बाप्पा : बरें बाबा सांग.

अंतूलो : पयलीं ही आंवळबोळ तोंडांत उडय (बोल्सांतली काडून दिता.)

बाप्पा : हें आनीक किदें?

अंतूलो : हें म्हज्या बोल्सांत सदांच आसता. आज इल्लें तूं उडय तोंडांत आनी ही आंवळबोळीची पुडी तुका दवर. खायन दिसता तेन्ना खा.

बाप्पा : (तोडांत उडयता.) आरे हें आंबट ऽशें लागता मरे. पूण बरें लागता आं?

अंतूलो : तुगेली घरकान्न घरांत आसा काय ना रे?

बाप्पा : कित्याक रे बाबा म्हजी घरकान्न तुका?

अंतूलो : आरे बाप्पा, म्हाका तुजे घरकान्नीची गरज ना. तुकाच आसा म्हणून विचारतां, ती आसा घरांत काय ना?

बाप्पा : आसा, उलो मारूं? (उलो मारता.) आगे, हय गे? मातशी हांगा यो गे.

व्हनीबाय : (भितरल्यानूच जाप दिता.) आयलीं, आयलीं.

अंतूलो : आरे, आरे बाप्पा, तिका ओगीच कित्याक आपयली?

बाप्पा : मागीर तुवेंच सांगलें न्हय?

अंतूलो : आरे तिका आपय म्हणून सांगूंक ना. आनी तिका हें काम सांगपाचेंय न्हय.

व्हनीबाय : (बेगीन, बेगीन, खरशेत भायर येता.) आं, तुमी म्हाका उलो मारलो हय?

बाप्पा : हय. (गडबडलेले भशेन) हय, हय, हय.

व्हनीबाय : आं, अशें किदें करतात तुमी? हय, हय, म्हणून मान हालयत रावल्यात! सांगात तरी कित्याक आपयली ती?

बाप्पा : ना गे, हरशींच आपयली तुका.

व्हनीबाय : हरशींच? (तिडकीन.) म्हाका कामधंदो ना काय किदें? हांव भितर रांदतालीं, मदींच तुमी आपयता म्हणटकच भायर येवचें पडलें.

बाप्पा : जावं गे आतां. म्हाका मदींच तुजी याद आयली. म्हणलें, कितें करता काय आमगेली? म्हणून ओगीच तुजी जाग घेतालों.

अंतूलो : (समजायत) हय गे व्हनीबाय, बाप्पाक तुजी याद आयली मदींच. म्हणून म्हाकाय सांगतालो तो.

व्हनीबाय : म्हणजे तुमी म्हज्योच गजाली करताले काय कितें?

अंतूलो : ना गे व्हनीबाय. हांवें विचारलें, व्हनीबाय कितें करता? म्हणटा म्हणसर बाप्पान तुका उलो मारलो.

व्हनीबाय : अशें? आं? अंतूबाब बरे आसात मूं?

अंतूलो : आसां बरो देवाचे कृपेन.

व्हनीबाय : तुमकां इल्ली च्या करून हाडटां.

अंतूलो : आगे, नाका गे. तुजीं कामां कर तूं.

व्हनीबाय : म्हजीं कामां सदांच आसतात. तुमी खूब दिसांनी आयल्यात. इल्ली च्या घेवपाकूच जाय. (वता.)

बाप्पा : आगे, म्हाकाय इल्ली हाड गे.आतां सांग मरे अंतूल्या.

अंतूलो : बरें, आतां परतो जाग्यार येवचो पडलो.

बाप्पा : कित्याक रे, तकली जाग्यार ना तर तुजी?

अंतूलो : आशिल्ली. पूण तुवें मदींच व्हनीबायक आपोवन सगलो गोंदोळ घालो.

बाप्पा : गोंदोळ घालून बऱ्याक पडलो पापया.

अंतूलो : कित्याक?

बाप्पा : कित्याक म्हणजे, च्या मेळटली मरे आमकां. तुजेबरोबर म्हाकाय मेळटली.

अंतूलो : हय रे बाबा, तेंय खरें तुजें. जावं तें आसूं. आतां आयक, तुका हांव सांगतां तश्शें कर.

बाप्पा : बरें बाबा, तूं सांगता तश्शें करतां. पूण एकदांचें किदें करूंक जाय तें सांग.

अंतूलो : पयलें म्हणजे तूं त्यो गुळयो सोडून दी. आनीक दुसरें म्हणजे तुका किदें खायन दिसता पळे, तें तूं तुजे बायलेक करूंक लाय आनी तें रुचीन खा. मागीर पळे तुका कशें दिसता तें.

बाप्पा : किदें? वखद घेना आसतना जातलें रे कशें म्हजें?

अंतूलो : बाप्पा, रगत तपाशिनासतना तरातरांचीं दुयेंसां आसात म्हणप चुकीचें आनी त्या दुयेसांचीं वखदां रोग नासतना घेवप ताचेपरस चड चुकीचें. तुका म्हजें आयकुपाचें ना जाल्यार हांव जबरदस्ती करिना.

बाप्पा : ना रे. तशें खंय म्हळां हांवें? पूण....

अंतूलो : पूण बी कांय ना. तुवें अशेंच करचें पडटलें. नाजाल्यार हांव ह्या घरांत तुजी खबर घेवंक केन्नाच येवचों ना.

बाप्पा : आयकतां रे पापया तुजें. असो रागार जावं नाका. वखद सोडलें हांवें आयच्यान. हे चणे म्हळ्यार म्हजें वखद, हें पळे, हांव हे चणे म्हळ्यार....

अंतूलो : म्हळ्यार गुळयो.

बाप्पा : ह्यो पळे जनेलांतल्यान भायर मारतां. (गुळयांचो आवाज़) जालें तुजें समाधान?

अंतूलो : हय.

व्हनीबाय : (व्हनीबाय च्या घेवन येता.) ही च्या घेयात अंतूबाब आनी ही घेयात तुमकां.

बाप्पा : आगे, तुजें जेवण जावंक ना अजून?

व्हनीबाय : ना. हांव वतां काराथ्यांची भाजी करूंक. (वता.)

बाप्पा : बस मगे पापये मातशी हांगा. गेली ती. एक वेळ लेगीत तिका फुरसत मेळना. दिसूयभर तिचीं कामां.

अंतूलो : बाप्पा, च्या घे मरे ती.

बाप्पा : म्हाका ती कोडू च्या घेवपाक विटूच येता.

अंतूलो : कितें? कोडू च्या?

बाप्पा : हय. दोतोरान सांगलां, साकर खावं नाका म्हणून.

अंतूलो : शी बाबा, तेंय दुयेंस जालां खंय तुका?

बाप्पा : हयरे अंतूल्या.

अंतूलो : म्हाका खरें दिसना. बाप्पा, तें सगळें तूं विसर आनी म्हजी च्या तूं घे, (कोप बाप्पाक दिता.) आनी तुजी कोडू च्या हांव घेतां. हाड ती हांगा.

बाप्पा : चे, चे तशें नाका. ओगीच तुका रे कोडू किद्याक?

अंतूलो : बाप्पा, हांव आयकून घेवचां ना तुजीं तीं शाणेपणां, घे ही च्या तुका आनी हांव तुजी घेतां. (कोपां बदलतात.)

बाप्पा : आरे आरे अंतूल्या (अंतूल्यान च्या घेतली)

अंतूलो : हं, आतां सांग पळोवया. ती गोड च्या पियेवन तुका कशें दिसता?

बाप्पा : (च्या घेता.) हं. आतां खरेंच तोंडाक रूच आयिल्लेवरी दिसता.

अंतूलो : सगलेंच दोतोराचें आयकूं नाका. थोडी तरी आपले पदरची अक्कल

आसूंक जाय. हांवें सांगलां तश्शें कर. हांव आतां चल्लों.

बाप्पा : राव मरे मात्सो. तूं हांगा आसलो म्हणटकच म्हाका बरें दिसता.

अंतूलो : बाप्पा, म्हाका आतां हांगा आयल्यार खूब वेळ जालो. म्हाका खूब कामां आसात. दुसरे फावटीं मेळचे आमी. (वतां वतां सांगता.) हांवें पुडयेंन दिलां तें मदीं मदीं तोंडांत उडय (वता)

बाप्पा : बरें बाबा. गेलों. बावडो बऱ्या मनाचो. म्हजे त्रास ताज्यान पळोवं नजो जाले. ताणें सांगलां तशेंच करचें पडलें आतां.

पड्डो.

(व्हनीबाय बरी न्हेसल्या, माथ्यांत फुलां माळ्ळ्यांत आनी देवळांत व्हरपाचें साहित्य ताटांत एकठांय करीत मेजार दवरता.)

बाप्पा : किदें गे बाये? आज बरी तुरूली कशी न्हेसून, बरे तिकतिकीत केंस वळोवन आनी माथ्यांत सोबीत फुलां माळून खंय चल्ली आमची हिरोईन?

व्हनीबाय : (लजत लजतूच हांसता.) ओगी किदेंय म्हणूं नाकात.

बाप्पा : आवय आवय, लजूं नाका बाये आनी आज मुखवटो खुबूच हांसतो.

व्हनीबाय : पुरो बाये कितली म्हणून तोखणाय ती!

बाप्पा : खरेंच आज तुजें तोंड हांसतें दिसता.

व्हनीबाय : आज हांसपाचेंच जालां म्हुणून हांव देवळांत वतां.

बाप्पा : किदें देवळांत? आनी हांसपाचें आज जालां तरी किदें?

व्हनीबाय : तुमी बरे जाले म्हणून म्हाका खोशी जाल्या आनी जाणां हय? तुमी बरे जातकूच पांच नाल्लांची पंचखाद्य दितां म्हणून सांगून घेतिल्लें. ती दिवंक हांव देवळांत वतां.

बाप्पा : आरे म्हज्या बाबा. म्हुणून तूं नटून थटून सरल्या भायर. आगे, (अपुरबायेन) ह्या वेळार तूं खंय वचूं नाका गे पापये. म्हाका जाणा मगे, तुजें हें रूप पळोवन अशें दिसता, अशें दिसता-

व्हनीबाय : पुरो म्हळ्यार. आतां किदें भुरगे उल्यात तुमी, असलीं फकांणां

करूंक. नातरांक खेळोवपाचे दीस तुमचे. तीं हांगा नात म्हुणून.

बाप्पा : म्हणुनूच केलीं न्हय गे मात्शीं फकांणां. ती हांगा आशिल्ली जाल्यार तुजी तोखणाय करपाक वेळ खंय मेळटलो आशिल्लो म्हाका? तें किदेंय जावं. तूं मात्शी म्हज्या म्हऱ्यांत येवन बस पळोवया.

व्हनीबाय : तुमी अशे आज कितें करूंक लागल्यात? म्हाका पळेत बसन दिसता जाल्यार मात्शे रावात. नाजाल्यार देवळांत वचपाक उशीर जातलो. वतां हांव. (वता.)

बाप्पा : आगे आगे, गेली म्हजी सुंदरी. कितली खोशी जाल्या म्हणून सांगू आज? सांगतां सोय ना. अंतूलो आयिल्ल्याक हांव बरो जायत चल्लां. ताचो पांयगुणूच बरो जावंये. तो येवंक नाशिल्लो जाल्यार म्हज्यो त्यो गुळयो चालूच आसतल्यो आशिल्ल्यो. आतां वखद घेनासतना बरोच फायदो जालो म्हाका. देवान अशेंच करूं सदांच. आतां मात्सो आड रावल्यार बरो (रोंखडोच घोरेवंक लागता.)
(मातशावेळान व्हनीबाय येता:)

व्हनीबाय : (अजापान) किदें न्हिदले काय किदें? दिसाचेय घोरेवंक लागले? धा, पंदरा मिणटां जावंकूच ना देवळात गेल्यार, हे न्हिदले हेवटेन. तरी बरें दार ओडून गेल्लीं म्हणून. नाजाल्यार सुणीं, माजरां सोमतीं रांदचे कुडींत पावपाचीं.

बाप्पा : (जागो जाता) आं किदें? इतले बेगीन आयली तूं?

व्हनीबाय : हय तर. पंचखाद्य दवरली देवतेकडेन. नमस्कार केलो. पांच प्रदक्षणा घालीं आनी देवतेचें फूल आनी आंगारो घेवन आयलीं. (पुडी बाप्पा म्हऱ्यांत धरता.) हो लायात आंगारो तुमकां.

बाप्पा : दी बाये. (आंगारो लायता.) देवते, तूं पाव. (व्हनीबाय भितर वचपाक लागता; इतल्यान) आगे, आगे, आतां मात्शी बस हांगा. देवळांतल्यो दोन गजाली सांग.

व्हनीबाय : तुमी म्हणटात जाल्यार बसतां. देवळांत जायते लोक आशिल्ले पूण

भटजी मात खंय दिसलो ना.

बाप्पा : आज मंगळार मगे. भट खंय घरा आसा?

व्हनीबाय : म्हळ्यार?

बाप्पा : भट फकत आयतारचो घरा आसता. बाकीचे दीस तो बँकेंत.

व्हनीबाय : भट किदें नोकरी करता?

बाप्पा : हय तर. बरो शिकला तो. ते भायर भटपण करून ताचें पोट भरता? एकलो जीव सदाशीव म्हणपाक तो एकलो ना. ताची फामील आसा.

व्हनीबाय : अशें? तरीच म्हळें भट दिश्टी पडना किद्याक? आगे बाये याद बरी जाली. काल भागेल्यान बरे आंबाडे हाडून दिल्ले. आंबाड्यांचें सांसव इल्लें करतां.

बाप्पा : आगे सांसवापरस करम किद्याक करिना? म्हाका आज आंबट, तीख करम खायन दिसल्या. करशी गे?

व्हनीबाय : आगे, बाये करमूच मूं? ह्या दिसांनी हें कर तें कर म्हूण सांगता म्हूण म्हाका बरें दिसता. पूण तुमकां ह्या दिसांनी लोणचें, आंबलेचो रोस, आंमटतीख सुकें अशें चडशें आंबटूच शें खायन दिसता? तें तुमकां माल बी पडना मूं? दोतोराक विचारलां काय ना?

बाप्पा : सगले दोतोर सोदले हांवें. आतां म्हाका एक फातर मेळ्ळा ताका हांव दोतोर मानतां. दोतोरूच न्हय तर तेंच म्हजें वखदूय मानतां. ताच्या सल्ल्यान म्हाका तरातरांचीं पक्कान्नां खावपाची रूच लागली आनी तातुंतूच हांव बरो जालों. म्हणटकूच करम करून वाडटा मगे?

व्हनीबाय : हय करतां. तुमकां केन्ना ना म्हणटां हांव? पूण म्हाका सांगात तरी तुमचो तो दोतोर काय फातर काय कोण तो. आनी ह्या दिसांनी तुमी गुळयो बी कांय घेनात म्हुणूनूच म्हाका दिसता तुमी त्याच दोतोरा कडल्यान कसलें तरी वखद हाडलां जावंक जाय. सांगात

पळोवया दोतोर कोण तो.

बाप्पा : सांगतां. हांवें सगलें वखद सोडलें आनी हांव बरो जालों.

व्हनीबाय : आं... (अजापान)

बाप्पा : आगे, म्हाका दुयेंस कसलेंच ना, हें म्हाका आतां कळ्ळें.

व्हनीबाय : मागीर वखद सोडपाची बुद्द कोणें दिली तर तुमकां?

बाप्पा : बुद्द दिवपी अंतूलो. ताणेंच सांगलें म्हाका हें आनी ताच्याच वखदान हांव बरो जालों. अंतूलोच म्हजें खरें वखद.

व्हनीबाय : जावं तर बाये. तशें जाल्यार ती देवताच पावली म्हणपाची. आतां हांव रोखडीच करम करून वाडटां तुमकां. (वता.)

बाप्पा : म्हाका आतां करमेचो हुसको. केन्ना पोटांत घालीन शी जाल्या. देवा, तूं पाव. बेगीन जाल्यार पुरो ती करम. कशी आसतली काय? केन्ना खावंक ना. आयकून जाणां, आंबाड्याची करम आनी म्हजे जिबेक ह्या नांवा वयल्यान एके तरेचीच रूच आयल्या. तशीच आसतली काय? (येवजिता.) काय ताचे परस बरी? बरी जाल्यार पुरो. (पासयो मारता आनी व्हनीबायक उलो करता.) आगे आयकता हय गे? जाली हय गे करम?

व्हनीबाय : (भितरल्यानूच) कितें? इतले बेगीन जाता हय ती? आंबाडे आतांच धाडायल्यात. मिरसांगो, गोड काडलां. आनीक जायतें करपाचें आसा. थार धरात.

बाप्पा : कितें? इतलो वेळ लागता? गोड आनी मिरसांगो तातूंत भरच्यो पडटात? कशी जातली कोण जाणा! बरी लागना जाल्यार तोंड परत वाट लागतलें; ते परस...

व्हनीबाय : (भायर येता.) अशें कितें करतात तुमी? मात्तूय थार ना तुमकां.

बाप्पा : ना गे, करम आसूं गे जायना जाल्यार.

व्हनीबाय : आं! आतां ती केली हांवें आनी तुमी नाका म्हणटात? आतां खावचीच पडटली तुमकां. रावात. हांगाच हाडटा तुमचें जेवण.

(वता भितर आनी जेवणाचें ताट घेवन येता.) (बाप्पा पासयो मारता.)

व्हनीबाय : हें पळे, वाडलां. तुमचें ताटूच हॉलांत हाडलें. आतां जेवात सुशेगाद. (बाप्पा जेवता. व्हनीबाय भितर वचून पेलोभर उदक हाडटा.) हें तुमकां उदक. (व्हनीबाय भितर वता.) (बाप्पा भितर वचून हात धुवन तुवाल्यान पुशीत भायर येता. मोटघ्यान धेंकर काडटा.)

बाप्पा : अब्बा करमेचो धेंकर आयलो.

व्हनीबाय : (भायर येता.) कशी लागली तर करम?

बाप्पा : एकदम फस्ट क्लास. बरोच ताव मारलो करमेचेर. तोंडाक आज बरीच रूच आयली. हांव आतां सामको बरो जालों.

व्हनीबाय : अंतूबाब आयले आनी तुमच्यांत हो बदल घडलो.

बाप्पा : हय गे बाये. अंतूबाब, आज तूं हांगा ना. पूण हांगाच्यानूच तुका सलाम करतां. तूंच म्हजो दोतोर जावन सोबयलें. वालोर तुका अंतूबाब.

पड्डो.

# तनु

- डॉक्टर
- नर्स
- तनु
- मनीस
- नीता
- गीता
- भाई (अंकूर)
- बाबू
- एक मनीस

(रेल्वेक अपघात ताचो आवाज. तातूंत बाबा, आई आनी भाई आसतात. आई, बाबा चड 'सिरीयस' आसतात. तांकां वाचा नासता. भाईकूय थोडोभोव मार लागिल्लो आसता. तिगांकूय हॉस्पिटलांत हाडटात.)

डॉक्टर : (हॉस्पिटलाचो आवाज) 'सिस्टर' ऑपरेशनाची तयारी कर आनी सिस्टर नाझारेथ आनी सिस्ट़र सुशिलाकूय ऑपरेशन रुमांत हाजीर रावात म्हणून सांग.

नर्स : एस् डॉक्टर. बट डॉक्टर, ह्या दोनूय पेशंटांक किदें जालां?

डॉक्टर : ब्रेन कोलॅप्स्ड्, पूण म्हाका जाता तितले प्रयत्न करूंक जाय.

नर्स : पूण डॉक्टर ऑपरेशनाचो किदें फायदो जातलो?

डॉक्टर : फायदो जावचो ना खरो, पूण प्रयत्न केल्लो बरो. हांवें तरीय तीन वरां वाट पळेली, तांकां शुद्ध येता काय म्हूण पळोवपाक. पूण ना. (हुस्कार सोडटा).
(भाईक कळ येवन तो आड्डता.) सिस्टर, त्या भुरग्याक पळय पळोवया. ताका पेनिसिलीनाचें इंजेक्शन दी आनी मांत्तूय डिले करूं नाका. हांव डॉक्टर प्रदीप आनी डॉक्टर सिद्धेक ऑपरेशन रुमांत घेवन येतां.

नर्स : एस् डॉक्टर (बुटांचो आवाज टक टक करीत वता.)

डॉक्टर : (फोन करता.) हॅलो, डॉक्टर हाथी इज स्पिकिंग. इज इट डॉक्टर प्रदीप? एस् प्रदीप, दोन पेशंट सामके सिरीयस आसात. ऑपरेशनाची सगली तयारी केल्ली आसा. तूं जाता तितले बेगीन डॉक्टर सिद्धेक बरोबर घेवन यो. एस् जस्ट नाऊ. वेटिंग फॉर यू इन ऑपरेशन रूम.

संगीत

(तनुचें घर. तनु व्हडली भयण. पूण भाई ताचेपरस दोन वर्सांनी व्हड. तनु फाटल्यान आनिकूय दोन भयणी नीता आनी गीता आनी तांचे फाटल्यान आनीक एक भाव.) (न्हिदेंत तनुक अपघाताचो आवाज आयकूंक येता, आई, बाबा अशी किळांच मारता आनी सपनांतलें जागें जाता.)

तनु : हां, नीता, गीता, बाबू, हांकां सगळ्यांक न्हीद पडल्या. आं म्हाका सपन पडलें तर, हें सपन काय खरें? देवा, बाबाक, आईक आनी भाईक कांय जावंक ना मूं, कसलो ॲक्सिडँट म्हाका दिसलो. ना, ना आईक, बाबांक, भाईक कांयच जावचें ना. (दारार मारता.) आं, कोण दारार मारता? कितलीं वरां जाल्यांत तर? (घडयाळ पळोवन) आं सकाळचीं पांच. इतले सकाळीं कोण आयलो तर!

(परत दारार मारता.)

तनु : (दार उगडटा) कोण?

एक मनीस : बाय, हांव सेंट थॉमस हॉस्पिटलांतल्यान आयलां.

तनु : तूं कोण? हांव तुका वळखना! किद्याक आयला?

एक मनीस : बाय, मिस्टर संजय देसाय आनी तांची बायल सीता देसाय आनी तांचो भुरगो अंकूर हांकां ॲक्सिडँट जाला.

तनु : (रडटा.) आईक आनी बाबाक आनी भाईक ॲक्सिडँट.

मनीस : बाय, अशें रडूं नाका. तूं ताबडतोब हॉस्पिटलांत यो. गाडी भायर दवरल्या.

तनु : (रडटा) नीता, गीता, बाबू.

तिघांय : ताई, ताई, किदें जालें?

तनु : चलात बेगीन, आमी हॉस्पिटलांत या. आईक, बाबाक आनी भाईक पळोवंक या. (रडटा.) तांकां ॲक्सिडँट जाला.

तिघांय : किदें? (रडटात) ॲक्सिडँट?

बाबू : आई, बाबा. (रडटा.)

तनु : चल बाबू, रडूं नाका.

संगीत (पडदो)

नर्स : डॉक्टर.

डॉक्टर : नर्स, हांव हारलों.

नर्स : डॉक्टर, तुमच्या हातांत किदें आसा? सगळें देवाच्या हातांत. तुमी जाता तितले प्रयत्न केले तांकां वांचोवपाक.

डॉक्टर : संजयबाब एक व्हड मनीस आशिल्ले आनी तांची बायलूय मोटी मायेस्त आशिल्ली. देवाक तीं जाय जालीं.

तनु : (त्या मनशाबरोबर तनु आनी तनुचीं भावंडां येतात.) आई, बाबा, भाई खंय आसात?

डॉक्टर : तनुजा, बाय बस. (जड आवाजान)

तनु : डॉक्टर, आई, बाबा, भाई खंय आसात ? बरीं आसात मूं तीं?

डॉक्टर : भाई आसा बरो. पूण...

तनु : पूण किदें डॉक्टर?

डॉक्टर : (जड आवाजान) किदें सांगूं...

तनु : डॉक्टर किदें सांगूंक सोदतात तुमी?

डॉक्टर : तुजी आई आनी बाबा देवाक जाय जालीं.

तनु : डॉक्टर (एकदम सकयल पडटा.)

गीता, नीता,
बाबूं : (रडटात.) आई, बाबा.

(पड्डो)

(घरांत)

तनु : (खूब दिसांनी) भाई, कशें दिसता आतां? उठून किद्याक बसलो? आं!

भाई : तनु, पडून पडून कंटाळो आयलो. फकत त्या दिसाची याद येता! कसली दुर्बुद्धी आयली म्हाका तांकां बरोबर व्हरपाची. म्हाकाच किदेंय जाल्लें जाल्यार जातालें.

तनु : भाई, अशें किदेंय उलोवं नाका. तुका एकटोच ट्रेनिंगाक कसो धाडटलीं आशिल्लीं तीं?

भाई : हय ट्रेनिंग जालें नशिबाचें. आई आनी बाबा आसतना जिणेक कसलो तरी अर्थ आशिल्ल्याभशेन दिसतालें. पूण आतां...

तनु : भाई, जिवाक असो त्रास करून घेवं नाका. पळे तुजो पांय परत कितलो सुजला तो. हांव वखद लायतां हां.

भाई : तनु, कसो गो असो आमकां ॲक्सिडेंट जालो? आनी आई आनी बाबा दोगांय बरोबर कशीं गेलीं, आमकां सांडून. सांग तनु.

तनु : (रडटा.) भाई, भाई नाका रे अशी याद करूंक. खरेंच आई आनी बाबा आमकां आपल्या जिवापरस चड सांबाळटालीं आनी आतां सगलेंच आमचेर सांडून गेलीं.

बाबू : (येता.) ताई, ताई, म्हाका खूब भूक लागल्या. ताई, भाई, तुमी रडटात?

तनु : ना बाबू, (आपल्याक सांवरून) चल बिस्कूत दितां तुका आं! यो.

बाबू : ना ताई, म्हाका नाका बिस्कूत. पयलीं सांग तुमी किद्याक रडटालीं!

भाई : बाबू, शाण्या आमकां आईची याद आयली. पूण आनीक आमी रडचीं नात शाण्या. चल, ताई तुका बिस्कूत दिता ती घे.

बाबू : भाई, आई म्हाका सदांच मांडयेर बसोवन बिस्कूत खावयताली आनी बाबा म्हाका बिस्कूत खातकूच ऑल्तेरार बसून पांयांर धरून वयर काडटालो. भाई, तूं म्हाका बाबाभशेन पांयांर धरून वयर काडटलो मरे?

भाई : बाबू, शाण्या, ताई तुका मांडयेर बसोवन बिस्कूत खावयतलें आनी...

बाबू : आनी तूं पांयांनी वयर काडटलो मरे? (हांसता.)

तनु : बाबू, भाईच्या पांयांक भुबू जाला न्हय रे, तो कसो वयर काडटलो?

बाबू : आं, हय ताई, हांव विसरलों भाई. तूं म्हाका पांयांर धरूं नाका, हांवूच म्हज्या पांयांर उबो रावतलों.

भाई : साकर पडूं बाबू तुज्या तोंडांत आनी देव अशीच बुद्ध दिवं.

तनु : बाबू, ही घे बिस्कूत. यो, हांव खावयतां. असो बस मांडयेर.

बाबू : ताई, आई म्हाका खावयतना सदांच काणी सांगताली.

तनु : बरें, हांवूय तुका काणी सांगतां. जाणा मरे, एक आशिल्लो कीर. तो एका झाडार येवन बसतालो चोंचींत ताच्या एक पेर आसतालें आनी त्या झाडा पोंदाक एक ल्हानसो तुजेचभशेन बाबू येवन

खेळटालो.

बाबू : मागीर ताई, कीर ताच्या म्हऱ्यांत येतालो?

तनु : ना. कीर ताचे म्हऱ्यांत ल्हवूच पेर उडोवन वयर उडून वतालो. आरेच्या, सोंपली बिस्कूत.

बाबू : (उबो रावता.) ताई, पले हांव आतां म्हज्या पायार उबो रावलों. (हांसता.) गीता, नीता शाळेंल्यान येतात)

गीता, नीता : ताई, भाई.

तनु : गीता, नीता आयलीं तुमी शाळेंतल्यान? चलात हातपांय धुवून च्या घेयात. साडेपांच जालीं. भाई, तुज्या वखदाचो वेळ जाला. हाडटां.

भाई : तनु, कितली चिंता तुका म्हजी? आनी म्हजीच न्हय गीताची, नीताची आनी बाबूचीय पूण. आपली मात चिंता ना तुका. (तनु हांसता आनी भितर वता.)

(पड्डो)

(रात जाल्या.)

तनु : (बाबूक न्हिदयता.) न्हीद न्हीद बाबू म्हज्या
शाण्या पले रात जाल्या
चानीमाम वयर आयलो, चकचकीत चान्नें पडलें
माणकां मोतयां दिसूंक लागलीं
पळे बाबू चानीमाम कुपांत गेलो
न्हीद न्हीद बाबू म्हज्या.

तनु : न्हिदलो शाणो म्हजो, देव हाका केन्ना व्हड करतलो? केन्ना हो आपल्या पांयांर उबो रावतलो?

तनु : (आपलेच भितर) आठ वर्सां जालीं. गीता, नीताचें कॉलेजचें शिक्षण बरे तरेन जावंक जाय.

भाई : तनु, किदें येवजिता? कसली चिंता करता? आजूय आईची आनी

बाबाची याद जाली?

तनु : भाई, आईची आनी बाबाची याद सदांच येता. पूण किदें करूं? सगल्यांचो हुसको दिसता. गीता, नीता आतां कॉलेजाक वतात, तांकां स्कॉलरशीप मेळ्ळ्या म्हूण कांय दिसना. पूण

भाई : पूण तनु, तांतल्यातातूंत तांकाय खंय नोकरी मेळिल्ली जाल्यार मात्सो तुजे वयलो भार उणो जातलो आशिल्लो. तूं एकलें नोकरी करतलें आनी आमी पांच जाणां खातलीं. पळे, तुजी दशा पळे किदें जाल्या ती.

तनु : भाई, इतलें मनाक लावन किद्याक घेता? हांव नीताक आनी गीताक नोकरी करपाक दिवचें ना. तांचें शिक्षण सोंपूंदी. मागीर करूंदी तांकां नोकरी. आई आनी बाबा तांकां केन्नाच नोकरी करूंक दिवचीं नाशिल्लीं.

भाई : आनी तुकाय तीं नोकरी करपाक दिवचीं नाशिल्लीं. तनु, हांवूय हांगा पांय मोडून घरांन पडलां. रात आनी दीस तूं म्हजी सेवा करता, दोनूय भयणींची सेवा करता, धाकट्या बाबूचीय सेवा करता. कोणाकूच किदेंच उणें पडूंक दिना. पूण तनु, तूं हें कितलो तेंप करतलें? आतां तुजो फुडार ना? तुजें कशेय तरेन लग्न करूंक जाय. तुजें वय वाडत आसा.

तनु : भाई, बशिल्लेकडेन अशे नाका आशिल्ले विचार तकलेंत हाडूं नाका. म्हज्या सगल्या भावंडांक वयर काडले बगर हांव लग्न जावचें ना.

भाई : पूण तनु, तांकां वयर काडटा म्हणसर तूं जाणटें जातलें. हातूंतल्यान कसलोय तरी मार्ग काडून तुजें लग्न करुंकूच जाय.

तनु : भाई, पळे रात कितली जाली, चल न्हीद. कसलीच चिंता करूं नाका.

भाई : आमकां आनीक आसा तरी कोण?

(पड्डो)

संगीत.

(डॉक्टर हाथीचो रूम)

नर्स : डॉक्टर, हो फोटो कोणाचो?

डॉ. हाथी : किदें म्हळें?

नर्स : डॉक्टर, ह्या दिसांनी तुमी किदें तरी येवजीत आसतात, किदें तरी जालां तुमचें! आनी हो तुमच्या रुमांत तुमी फोटो लायला तो कोणाचो?

डॉक्टर : नर्स, तूं ह्या मनशाक वळखना?

नर्स : ना.

डॉक्टर : बरोबर तुजें. कशी वळखतली? ताका हांगा हाडिल्लो तेन्ना तो अस्ताव्यस्त आशिल्लो.

नर्स : किदें ? ह्या मनशाक आमच्या हॉस्पिटलांत हाडिल्लो? आनी तो दुसरे वटेन फोटो आसा पळे ती, बायल कोण डॉक्टर?

डॉक्टर : ती बायल त्याच मनशाची घरकान्न.

नर्स : किदें, घरकान्न?

डॉक्टर : हय. संजय देसाई आनी ताची घरकान्न सीता.

नर्स : डॉक्टर, फाटीं रेल्वे ॲक्सिडेंटांत सिरीयसली ब्रेनाक मार बसून भायर पडल्यांत तीं?

डॉक्टर : एस्. पूण नर्स १० वर्सां फाटली गजाल म्हाका आतांच घडल्या कशी दिसता. दिसानदीस म्हाका तांचीच याद येता.

नर्स : डॉक्टर, तुमचे कोण सोयरे लागताले ते?

डॉक्टर : नो, नो बट मोअर दॅन रिलेशन. म्हज्या बापायचे ते दाट इश्ट आशिल्ले. आनी हांव ल्हान आसतना तांणीच म्हाका वयर काडलो. म्हज्या बापाय फाटल्यान म्हाका तांणीच दोतोरकीचें शिक्षण दिलें. पूण हांव दोतोर जावन तांकां वांचोवंक शकलों ना.

नर्स : डॉक्टर, अशें दुख्ख करून कशें जातलें? तुमी डॉक्टर, तुमचें

काळीज घट आसूंक जाय. आनी आतां तुमी अशें किदें करतात? डॉक्टर हांव तुमकां एक विचारूं ?

डॉक्टर : विचार. किदें विचारपाचें आसा तुका?

नर्स : डॉक्टर, तुमी तुमची पिराय पळेल्या? तुमची पिराय वाडत आसा.

डॉक्टर : मागीर, हांव किदें करूं?

नर्स : डॉक्टर, तुमी लग्न किद्याक जायनात? तुमी लग्न जायत जाल्यार हें दुख्ख विसरून वतले.

डॉक्टर : नर्स, तूं म्हजे पयलीं ह्या हॉस्पिटलांत आसा आनी म्हजेपरस कितलींशींच वर्सां पिरायेन व्हड. तेन्ना, म्हाका तूं एक व्हडली भयण कशी.

नर्स : डॉक्टर, तुमी भयण मानली म्हाका ? केदें भाग्य म्हजें! सांग डॉक्टर. तुमी किदेंय सांगल्यार, ही भयण तशें करूंक शकता.

डॉक्टर : नर्स, म्हज्या मनांत किदें आसा, तें तुका हांव सांगतां.

नर्स : सांगात डॉक्टर.

डॉक्टर : मिस्टर संजय आनी सीता देसाई हांकां जेन्ना हॉस्पिटलांत हाडलीं तेन्नाच म्हाका कळिल्लें की तीं वांचचीं नात म्हणून पूण. देव पावून कितेंय चमत्कार जायत काय म्हूण हांवें जायते प्रयत्न केले तांकां वांचोवंक. पूण ना. आनी निमाणें तीं म्हाका सोडून गेलीं. म्हाकाच न्हय तर आपल्या ल्हान ल्हान भुरग्यांक सोडून गेलीं. व्हडलो पूत पांय मोडून पडलो, दुसरी धूव आनी तिचेफाटल्यान आनीक दोन धुवो, आनीक एक सगल्यांत धाकटो पूत. हें कुटुंब कशें चलता आनी कशीं हीं भुरगीं चलयतात. हांवें एक दीस तांची खबर घेतली ना. पूण नर्स, त्या दिसा ती व्हडली धूव हांगा रडत आयिल्ली तुका खबर आसा?

नर्स : हय डॉक्टर; कितलें सोबीत भुरगें तें, पूण आवयबापूय नासून सुकून वतलें.

डॉक्टर : नर्स, हांव लग्न जायना आसतना रावलां तेच सोबीत चलयेखातीर. ताचें आतां लग्न कोण करतलो? आनी तें चड पिराय जाल्या म्हुणून लग्न जायनासतना रावत. तेन्ना हांव ताका मागणी घालूंक सोदतां. किदें करूं नर्स?

नर्स : डॉक्टर, तुमी जाता तितले बेगीन ताका मागणी घालूंक जाय. आनी जाता तितले बेगीन लग्न जावंक जाय. तशें जाल्यारूच दोनूय कुटुंबां सुखी जातलीं. तेन्ना आजूच तुमी तागेर चलात. हॉस्पिटलांतल्या सगल्या पेशंटांची खबर हांव घेतां आनी डॉक्टर सिंद्धेक आयचो दीस हांगा रावपाक सांगतां. चलात.

डॉक्टर : बरें तर.

नर्स : देव तुमकां यश दिवं.

पड्डो.

(घरांत)

गीता : नीता, काल कसली मजा आयली न्हय?

नीता : किद्याक, म्हाका बाये कंटाळो आयलो.

गीता : किदें, कंटाळो, किद्याक? आं, नितेश कलकत्त्याक गेला म्हुणून काय किदें?

नीता : मागीर आनीक किद्याक तर? तो आसता तेन्ना म्हाका बरें दिसताच; पूण तो आतां ज्युस्तूच पिकनिकेक ना न्हय? तुजें बाये बरें. गिरीश तुज्याशिवाय खंयच वचना.

गीता : हेंऽऽ वचना? कालूच म्हाका ताणें सांगलां तो एम. डी. करपाक अमेरिकेक वता म्हणून.

नीता : खरेंच ? मागीर तुजें जातलें कशें? आं, हांव सांगूं एक उपाय?

गीता : कसलो उपाय?

नीता : तूं लग्न जा आनी चल ताचे बरोबर. (तनु येता.)

तनु : किदें? नीता, गीता आज मोटे मजेंत शीं दिसतात दोगांय.

गीता : ताई, आज आमचो रिझल्ट येवपाचो आसा.

तनु : हय, खबर आसा म्हाका. आनी हांव तीच वाट पळेतां.

नीता : ताई, कितली चिंता तुका आमची! पळे, तूं दिसानदीस बारीक जायत आसा. ताई, तूं लग्न केन्ना जातलें?

तनु : नीता, गीता, आतां हांव तुमचीं दोगांचींय लग्नां करतलें. म्हाका तुमची पसंती मान्य आसा. गिरीश आनी नितेश दोगूय गुणेस्त भुरगे. दोगूय आपल्या पांयांर उबे आसात.

गीता : ताई...

तनु : गीता, नीता, तुमी कसलीच चिंता करूं नाकात. हांव तुमकां सुखी दवरतलें. चला च्या घेवंया आमी. (भितर वतात.)

बाबू : (पेपर घेवन येता.) ताई, माई, नीतादी झिंदाबाद.

भाई : (कुबड्यांनी फुडें येता.) बाबू, किदें जालां रे?

बाबू : भाई, हो पळे पेपर. माईक आनी नीतादीक फस्ट क्लास मेळ्ळा.

भाई : किदें, पळोवया. असो आयल्यान हाड पळोवया. हय मरे. गीता, नीता, तनु हांगा येयात बेगीन.

तिघांय : किदें भाई?

तनु : भाई, गीताचो, नीताचो रिझल्ट आयला?

गीता : ताई रिझल्ट?

भाई : हय, पळे तनु आमच्या गीताचो आनी नीताचो पराक्रम.

तनु : पळोवया पेपर. (पेपरार पळोवन) शाब्बास, गीता आनी नीता. आज सार्थक केलें तुमी. (ताईच्या दोळ्यांत दुकां येतात.) खरेंच भाई, आज हें पळोवपाक आई आनी बाबा आसूंक जाय आशिल्लीं. (रडटा.)

भाई : तनु, रडूं नाका. पळे तांचे फोटे पळे, तीं आमचें थंयच्यानूच कौतूक करतात कशें दिसता. आमकां तीं आशीर्वाद दीत आसात. बाबू,

चल बाजारांत वचून दुदफेणे घेवन यो. सगल्यांचीं तोंडां गोड करुंया. घे पयशे.

बाबू : दी भाई, ताई रोखडोच येतां हांव.

तनु : बरें बाबू, सवकास वच आं. (बाबू वता.) गीता, नीता, (तांचे फाटीर हात भोंवडायत) कितल्यो अपुरबायेच्यो म्हज्यो भयणी! (कोण तरी दारार मारता.)
कोण? गीता, पळे भायर कोण आयला तो.

गीता : (दारा कडेन वचून) येयात.

तनु : डॉक्टर, तुमी ?

डॉक्टर : हय तनुजा. वळखलें तूं म्हाका? भाई खंय आसा?

तनु : हो पळे.

डॉक्टर : अंकूर, कसो आसा तूं? असोच बसून उरता?

भाई : हय डॉक्टर. आई आनी बाबा ही एक याद म्हजेकडेन दवरून गेलीं.

तनु : (रडटा.)

डॉक्टर : अंकूर, तनुजा आतां तें सगलें विसरात. सदांच तेंच तेंच येवजून मनशान दुख्ख करून बसूंक जायना.

तनु : पूण डॉक्टर, प्रत्येक पावलाक तांची याद येता.

डॉक्टर : तनुजा, तुमकां सगल्यांक याद येता तें बरोबर आसा, पूण म्हाकाय तांची याद तितलीच येता. तुज्याच बाबान म्हाका येदो व्हडलो दोतोर केलो पूण हांव दोतोर जावन तांकां वांचोवंक शकलों ना.

तनु : तशें म्हणूं नाकांत. देवाक तीं जायच आशिल्लीं जाल्यार तूं तरी किदें करतलो आशिल्लो? देवाचें दार बऱ्या मनशांक उकतें आसता.

डॉक्टर : तनुजा, १०-११ वर्सां जालीं हांवें तुमची खबर घेतली ना. तुमचो संवसार कसो चलता हाचेर मात्तूय लक्ष दिलें ना. म्हजे पांयूच फुडें सरनात जाले. पूण सदांच हांव तांकां मनांतल्यान पुजतां. आनी

तांच्या आत्म्याक शांती मेळपाक झटतां. आज हांव कशेय तरेन हांगा येतलोंच म्हणून भायर सरून आयलों.

तनु : बरें जालें. आज तुमकां एक खोशयेचीय खबर आयकूंक मेळटली.

डॉक्टर : ती कसली? (बाबू दुदफेणे घेवन येता.)

बाबू : ताई, हे घे दुदफेणे.

डॉक्टर : हो कोण तुमचो धाकलो भाव?

तनु : हय.

डॉक्टर : आनी ताणें दुदफेणे हाडल्यात ते किद्याक, कसली खोशयेची खबर घडल्या?

तनु : डॉक्टर, म्हज्यो दोनूय भयणी गीता आनी नीता बी. एस्. सी. फस्ट क्लासांत पास जाल्यात.

डॉक्टर : आरे वा. व्हॅरी गुड. (तांकां हात दिता.) माय हार्टी काँग्रेच्युलेशन्स् टू बोथ ऑफ यू.

गीता, नीता : थँक्यू व्हेरी मच डॉक्टर.

तनु : भाई, तुमी उलयत बसात डॉक्टरांकडेन, हांव इल्ली च्या करून हाडटां.

गीता : ताई, तूं हांगाच बस, हांव करतां च्या.

तनु : नाका गीता, हांवूच च्या करून हाडटां सगल्यांक. (वता.)

भाई : पळे डॉक्टर, अशे तरेन आमकां कोणाकूच कसलेच त्रास तें दिवंक सोदिना. पूण डॉक्टर हांगा बशिल्लेकडेन म्हाका ताची खूब चिंता जाता. तें एकटें जोडटा म्हुणून आमचें कशेंय चलता, पुणून ताचो फुडार ना? आतां कशेय भशेन गीताचें आनी नीताचें शिक्षण जालां. तांकां खंय तरी नोकरी मेळटली. आमचें कशेंय जातलें. कितलें सांगलें, हांवें लग्नाचें पळोवया म्हुणून, पुण आयकच ना. डॉक्टर, तुमकां तरी आयकता जाल्यार पळेयात. मोटे उपकार जायत. हांव म्हजे भयणी खातीर तुमच्या पांयां पडटां.

| | |
|---|---|
| डॉक्टर | : अंकूर, तूं कांयच चिंता करूं नाका. देव सगलें बरें करतलो. तुजो बाबा एक मोटो मनीस आशिल्लो. त्या मोट्या मनशाचे धुवेचें बरेंच जातलें. |
| भाई | : डॉक्टर, साखर पडूं तुमच्या तोंडांत. |
| डॉक्टर | : अंकूर, हांव आज तूं येवजिता पळे, त्याच कामा खातीर हांगा आयलां. सांगूं नजो तुज्याच बापायन म्हाका बुद्द घाल्या जायत. म्हाका तनुजाक लग्नाची मागणी घालूंक जाय. |
| भाई | : तशें जाल्यार बरेंच जालें. |
| तनु | : (तनु च्या घेवन येता.) ही घेयात च्या. आनी बाबू, हे दुदफेणे सगल्यांक वांट पळोवया. |
| बाबू | : ताई देवा म्हऱ्यांत दवरले? |
| तनु | : हय बाबू. हो घे देवाचो दुदफेणो तुका. चल आतां सगळ्यांक वाट. |
| बाबू | : ताई, हो तुका पयलीं घे. |
| तनु | : बाबू, म्हाका मागीर दी. पळे आमगेर डॉक्टर आयल्यात पळे. तांकां पयलीं दी. मागीर भाईक, माईक, नीतादीक आनी मागीर म्हाका. कळ्ळें! |
| बाबू | : बरें डॉक्टर, हो घेयात तुमकां. |
| डॉक्टर | : थँक्यू माय बॉय. |
| बाबू | : भाई, हो तुका. माई, तोंड उकतें कर, हो तुका आनी नीतादी, हो तुका. (तोडांत घालता.) |
| नीता | : उरिल्ले तूं खा बाबू. |
| बाबू | : ना ना. ताई उरलां. ताई, हो घे तुका आनी हे उरिल्ले... |
| तनु | : तूं खा शाण्या. |
| भाई | : बाबू, हांगा यो. म्हज्या हाताक धर आमी भायल्या रुमांत बसुंया आनी गीता, नीता, चला तुमीय येयात. |

| | |
|---|---|
| तनु | : आनी भाई... |
| भाई | : तनु, तूंय च्या घे आनी मागीर तुमीय येयात भायल्या रुमांत. |
| तनु | : बरें भाई. सवकास. बाबू, भाईच्या हाताक सारको धर. (भाई, बाबू, गीता, नीता वतात.) |
| डॉक्टर | : तनुजा, हांव आज तुजेकडेन एका खास कामाखातीर आयलां. |
| तनु | : किदें? म्हजेकडेन आनी तुमचें काम? |
| डॉक्टर | : हय तनुजा, हांव मात्तूय भिडेनासतना तुका एक विचारूंक आयलां. |
| तनु | : विचारात, खुशाल विचारात. |
| डॉक्टर | : तूं लग्न जावपाक तयार आसा? |
| तनु | : लग्न डॉक्टर, हे पिरायेचेर लग्न? आतां म्हाका म्हज्या भयणींचीं लग्नां करूंक जाय. धाकट्या भावाचें शिक्षण सोंपोवंक जाय आनी भाईक जल्मभर सांबाळूंक जाय. |
| डॉक्टर | : तनुजा, अशें करून तूं तुजो घात करतलें. पळे, तूं दिसानदीस कशें आंवळून आयलां. हांवें तुका १० वर्सां फाटीं पळेलां, तशें तूं मात्तूय ना. तनुजा, तुवें आतां हे सगले विचार सोडून दिवंक जाय. आनी लग्नाचो विचार करूंक जाय. |
| तनु | : पूण डॉक्टर, आतां ह्या भयणींचीं लग्नां करून, एक वेळ म्हज्या मनांत लग्नाचो विचार आयलो जाल्यार हे पिरायेचेर म्हजेकडेन कोण लग्न जातलो? |
| डॉक्टर | : तनुजा, ३१-३२ वर्सां चड न्हय. आनी तशें तुका दिसता जाल्यार ते बाबतीत तूं कांय भियेवं नाका. म्हाका उतर दी की तूं लग्न जातलें म्हणून. |
| तनु | : डॉक्टर, ओगीच लग्न जातलें म्हणून उतर कशें दिवं? |
| डॉक्टर | : आतां आनी म्हाका किदेंच लिपोवपाचें ना. पळे, तूं ज्या दिसा तुज्या आवयबापायक हॉस्पिटलांत पळोवंक आयिल्लें त्याच दिसा हांवें निश्चय केल्लो कीं हांव तुजेचकडेन लग्न जातलों आनी |

तेखातीर आजमेरेन हांव लग्न जायनासतना रावलां.

तनु : किदें डॉक्टर, तुमी म्हजेंकडेन लग्न जातले? ना, ना डॉक्टर. म्हजेकडेन किदें आसा? शिवाय म्हाका हांकां सगल्यांक सांबाळूंक जाय. हांव लग्न जावंक शकचें ना.

डॉक्टर : तनु, आमी गीताचें आनी नीताचें रोखडींच लग्नां करुंया. मागीर आमी जावया आनी तूं तुज्या धाकट्या भावाक आनी भाईकूय तुज्याच म्हऱ्यांत दवरून तांचो सांबाळ कर. हांव ते बाबतींत केन्नाच किदेंच म्हणचों ना तुका. आनी दुसरें म्हणजे तुजो भाई खूब शिकिल्लो आसा. पांय मोडलो म्हुणून ताचो उपेग ना अशें न्हय. हांव ताका चिफ अकाऊंटंटाचें काम ऑफिसांत दितलो.म्हणजे ताच्यान तें काम घराच कडेन करूं येता आनी बाबूक म्हाका इंजिनियर करपाचो आसा. तो खूब हुशार आसा तें हांवें पळेलां. तेन्ना तूं कसलीच चिंता करूं नाका. आतां तरी सांग पळोवया, तयार आसा तूं म्हजेबरोबर लग्न जावपाक?

तनु : तशें जाल्यार हांव भाईक विचारून तुमकां सांगतां. आनी ताका मान्य आसत जाल्यारूच ह्या सगल्या अटींचेर हांव तुमचेकडेन लग्न जातलें.

डॉक्टर : तनु, पोट भरलें म्हजें. आज म्हाका खरें सूख मेळ्ळें.

भाई : (कुबड्यांच्या आनी बाबूच्या आदारान येता.) डॉक्टर, थँक्यू व्हॅरी मच. गीता, नीता, बाबू, तुमकां भावोजीक पळोवंक जाय ?

गीता, नीता : हय तर!

बाबू : भाई, भावोजी म्हळ्यार ताईचो घोव. खंय आसा?

भाई : हो पळे, (डॉक्टराक बोट दाखोवन) डॉक्टर आमचो सगल्यांचो भावोजी.

बाबू : किदें डॉक्टर भावोजी?

डॉक्टर : अंकूर, तुका कशें कळ्ळें?

भाई : डॉक्टर, तुमच्या तोंडावयल्यानूच कळटा.

तनु : पूण भाई, म्हाका तुजें परमिशन घेवपाचें आसा.

भाई : तनु, परमिशन ग्रँटेड. आनी हांवें डॉक्टरांक तर तें केन्नाच दिल्लें. म्हणुनूच हांव हांकां सगल्यांक घेवन भायल्या रुमांत गेल्लों.

तनु : पूण भाई, म्हाका गीताचें आनी नीताचें लग्न करूंक जाय. गिरीशाक आनी नितेशाक विचारून म्हूर्त थरोवंक जाय आनी म्हज्या बाबूक व्हड करूंक जाय. तुज्या पांयाची जतनाय घेवंक जाय. हें सगलें कशें जातलें?

बाबू : ताई, म्हजी चिंता तूं मात्तूय करूं नाका.

भाई : आनी म्हजी तर अजिबात चिंता करपाची ना. म्हजो पांय आतां एकदम बरो आसा. फकत चलूंक येना इतलेंच.

गीता : ताई, ताई, तूं लग्न जा. आमची कसलीच चिंता करपाची ना.

नीता : आमची दोगांचीय पसंती तुका मान्य आसा.

गीता : तूं सांगता त्या म्हुर्तार गिरीश लग्न जावपाक तयार आसा.

नीता : आनी नितेशूय तयार आसा.

डॉक्टर : तशें जाल्यार तनु, तुज्याच मनासारकें करुया. चलात तर आमी म्हूर्त थरोवन येवया तांच्या लग्नाचे.

भाई : आनी बरोबर तुमच्याय लग्नाचो एकदमूच थरोवन उडयात. (हांसतात.)

तनु : बरें तर भाई, हांचे बरोबर भटागेर वचून येतां. आनी मागीर रोखडींच तयारेक लागुंया. (दोगांय वतात.)

भाई : गेलीं. गीता, खरेंच तनु आमचेखातीर कितलें झट्टा! पळे, कितली चिंता आसा ताका तुमची. पूण आज म्हाका खूब सुशेग जालो.

नीता : किद्याक लागून भाई?

भाई : नीता, किद्याक काय म्हणटा? आगो, आमकां भावोजी मेळ्ळो न्हय गो?

गीता : हय रे भाई. केदें व्हड मन न्हय तांचें? डॉक्टर कितले बरे मनीस, आमचे ताईखातीर ते ११ वर्सां लग्न जायनासतना रावले पळे.

भाई : आमचे तनुच भशेन तांचें मन. तनु आमचें सुवार्थी न्हय, तशे डॉक्टरूय सुवार्थी न्हय. खरेंच दोगांचोय जोडो सोबता सारको. आतां तरी देवान तनुक सुखी दवरल्यार पुरो.

पड्डो.

(शेनाय वाजता.)

भाई : तनुचें, गीताचें आनी नीताचें तिगांचींय लग्नां जाल्यार दोन वर्सां केन्नाच जावन गेलीं. तीं ना म्हळ्यार सामकें उकतें उकतें दिसता. तरीय डॉक्टर भावोजीन काम दिल्ल्यान माणसुकी नाजाल्यार सामकेंच घर खावंक येतलें आशिल्लें.

बाबू : भाई, भाई, किदें रे तूं सगलोच वेळ काम करता?

भाई : किदें बाबू, आज मोटे उमेदीन सो दिसता?

बाबू : पळे मरे ह्या पेपराक.

भाई : किदें? बाबू, तूं एस्. एस्. सी. पास जालो विथ डिस्टिंक्शन!

बाबू : भाई, तुका अजाप जालें? हांवें तसोच अभ्यास केल्लो.

भाई : शाब्बास, माय हार्टी काँग्रॅच्युलेशन्स टू यू. (हात दिता.) (फाट थापटिता.) बाकी तूं हुशारूच शाण्या.

बाबू : थँक्यू भाई. ह्या वेळार ताई हांगा आसूंक जाय आशिल्लें. भाई आनी नीतादी परस ताईक चड उमेद जातली आशिल्ली.

भाई : आरे पिशा, ताका कळटलेंच. ताका तुजो नंबर खबर आसाच आनी तेभायर तुजें पेपरार नांव आयिल्लें आसा. तें ताबडतोब हांगा येतलें; नाजाल्यार पळे. तूं पेडे हाडुनूच दवर. हे घे पयशे (पयशे दिता.) आनी हें पळे बाबू, आजूच म्हाका पगार मेळ्ळा. हे थोडे पयशे तुजेकडेन दवर. फाल्यां मोटी पार्टी दिवंया.

(गीता आनी नीता येतात.)

गीता : बाबू, काँग्रेच्युलेशन्स. (हात दिता.)

नीता : बाबू, काँग्रेच्युलेशन्स (हात दिता)

बाबू : तुमी बरीं बेगीन पावलीं मुगो. तुमकां कशें कळ्ळें?

नीता : आरे आमकांच खंयचें? जगार लोकांक कळ्ळें. पेपर वाचतकच सगल्यांकूच कळटा. नितेशान म्हाका ताबडतोब पेपर हाडून दाखयलो. तशेंच हांव भायर सरलें.

गीता : हांवूय तशेंच आयलें. एकदांचें बाबू म्हऱ्यांत पावन कशें जालें म्हाका.

भाई : कळ्ळेबरोबर सगलीं येतलीं म्हणून हांवे सांगूंक नाशिल्लें रे? जालो मरे खोशी आतां?

बाबू : पूण ताई अजून कशें पावलें ना?

भाई : म्हाकाय तोच हुसको जाला. तें सगल्यांत पयलीं पावपाचें. किदें जालें काय? भावोजीन धाडलें ना काय? चे, तशें भावोजी केन्नाच करचो ना. बाबू, हांव फोन करून पळेतां. (फोन करता.) हॅलो, अंकूर देसाय इस स्पिकींग. डॉक्टर हाथी आसात थंय सिस्टर? किदें? ... सकाळींच आमगेर येवपाक भायर सरल्यांत. किदें तांची बायल तांचेबरोबर आसा? ओके ओके (फोन दवरता.) सकाळीं भायर सरिल्लीं अजून पावूंक नात कशीं? देवा, आई, बाबा, तांची काळजी घेयात. खंय आसात थंय बरीं आसल्यार पुरो. (दारार आवाज) कोण? बाबू, पळे भायर कोण तो.

एक मनीस : (भितर येता. पयलो ओगीच रावता.)

बाबू : कोण जाय तुका? आरे असो ओगीच कित्याक?

मनीस : किदें सांगूं तुमकां? ती पळे येता.

बाबू : कोण, कोण येता?

भाई : बाबू, किदें जालां? कोण येता?

तनु : (रडत रडत येता) भाई, भाई, ॲक्सिडँट जालो रे आनी हे म्हाका सोडून गेले रे! (रडटा.)

सगळींच : ताई, भावोजी (व्हडल्यान किळचतात.)

(पड्डो.)

# याद

- चंदन
- वाटसरू
- दास
- चंद्रिका

(चंदन एक कवी आपल्याच विचारांनी आसतना वाटेंतल्यान चलता.)

चंदन : चलतां, चलतां कितलो पयस पावलों हांव! (मनांत) आनी म्हज्या हातात लेंस आशिल्लो तो खंय? आं, बोल्सांतलो लेंस कोण काडटलो? खंय तरी पडलो!

वाटसरू : बाबू, कितें सोदताय? कितें शेणलां काय कितें?

चंदन : आं, हय म्हजो लेंस शेणला.

वाटसरू : हो जाल्यार पोय.

चंदन : हय होच. तुका खंय मेळ्ळो तो?

वाटसरू : ते दर्याचे देगेर म्हजें व्होडें आसा पोय, थंय एंके चोलयेन म्हजेलागीं हो लेंस हाडून दिलो आनी तुका दी म्हणून सांगलें.

चंदन : एके चलयेन, म्हळ्यार ही चली कोण आसतली?

वाटसरू : बाबू, कितें चिंतताय! लेंस तुमचोच. घे.

चंदन : दी. देव बरें कोरूं तुका.

वाटसरू : बाबू, खंय वेताय तूं?

चंदन : तुका किद्याक?

वाटसरू : बाबू, रात जायत आयल्या. आनी रातचे हे वाटेन कोणूच वोचनात. भुतां बा दिसतात म्हणटात. आनी बाबू, तूं खुबूच पयस चलत हे वाटेन आयलाय. तेन्ना वेळ क़रिनासतना कोशेय बाशेन आयलाय तसो परतो वच.

चंदन : बरें. तूं सांगता तें खरेंय आसत. वतां हांव. (वता.)

(संगीत) (पड्डो)

(वाटेन चलतां चलतां)

दास : चंदन, ए चंदन,

चंदन : कोण ? दास तूं हांगा खंय?

दास : आरे, तूं हांगा खंय तें सांग पळोवया.

चंदन : दास, हालीं हालीं म्हाका हो निसर्ग खुबूच आवडूंक लागला. तें निवळ मळब, ताचेर चडूंक पळेतात तीं तरेतरेचीं झाडां, पळे कशीं एकार एक वयर पावल्यांत. आनी हेवटेन हो दर्या, दिसता धर्तरेर धांवत येवन म्हाकाय आपले बरोबर ल्हारांनी नाचयत खोल तळाक व्हरून दवरतात.

दास : चंदन, किदें उलयता तूं? तूं हाली असो किद्याक वागता तें म्हाका कांयच कळना. तूं म्हजो जिवाभावाचो इश्ट. तुज्या मनांतलें दुख्ख तूं म्हाका सांगूं शकना? चंदन पळे, उलय तरी म्हजेकडेन.

चंदन : दास, म्हजें दुख्ख दुसऱ्याक सांगून किदें उपेग आसा? तातूंत किदें तूं म्हाका सुखी करूंक शकता?

दास : चंदन, तुका हांव कसलीय मदत करूंक तयार आसां. हांव म्हज्यान जाता जाल्यार सुखी करपाचो यत्न करीन.

चंदन : दास, म्हजें दुःख्ख जाणून तूं म्हाका कसलेंच सुख दिवंक शकचो ना. आनी तूंच न्हय तर म्हाका कोणूच तें दिवंक शकचो ना.

दास : मागीर अशें तुजें दुख्ख आसा तरी किदें? सांग चंदन. सांगल्यार तुजें मन हलकें जातलें. तुका बरें दिसतलें.

चंदन : दास, चल म्हजे बरोबर. (पड्डो) (परत दुसरो वाटेवयलो पड्डो.)

संगीत

दास : (चलतां चलतां) चंदन, आमी कितले पंयस पावले जाणां तूं?

चंदन : हय, बस हांगा. आज हांव खूप तेंपान परत हांगा आयलों तुजेबरोबर. पूण पयलीं हांव...

दास : कित्याक थांबलो? उलय, पयलीं तूं कोणाबरोबर येतालो?

चंदन : दास, हांव म्हज्या जिविताची काणी सांगतां तुका.

दास : सांग चंदन, तुजें दुःखब सांगून मन मेकळें कर.

चंदन : ती आशिल्ली एक काळखी रात, हांव आमच्या घरा फुडल्यांतल्या आंगणांत बशिल्लों. इतल्यान मळब भरून आयलें आनी एक मोटें झगलावणें आयलें. फाटल्यान रोखडोच गडगडो सुटलो आनी मागीर बारीक पावस पडूंक लागलो. म्हाका पावसांत भिजपाक खूब आवडटालें. ते भायर कविताय करीन दिसली म्हणून हांव त्या पावसांत फिरूंक भायर सरलों आनी चलतां चलतां ह्याच माडाकडेन पावलों. इतल्यान पावस मोटो पडूंक लागलो. हांव ह्याच माडाचे सावळेंत रावलों. इतल्यान दर्याचे देगेर म्हाका आवाज आयलो... (स्टेजीर काळोख)

(फाटल्यो यादी.) (इल्लो इल्लो उजवाड.(फ्लेश बॅक) दर्यादेगेचो पड्डो दिसता.)

चंद्रिका : (रडटा.) दर्या देवा, तूं सगल्या दुखेस्तांक वेंगेंत घेता, तशें हांवूय तुजे वेंगेंत येवपाक आशेलां. म्हज्या घरांत हांव कोणाकूच नाका जालां. म्हाका ह्या संवसारांत कोणूच ना, म्हजी सावत्र आवय म्हाका दीस आनी रांत त्रास दिता. देवा, म्हज्यान सोंसूंक जायना आतां. आई... (किळांच मारता.)

चंदन : (धांवत वचून हात धरता.) खंय धांवता तूं?

चंद्रिका : सोड म्हाका, सोड. म्हाका वांचोवं नाका. पांयां पडटां तुज्या,

(रडटा.)

चंदन : ना हांव सोडचों ना. सांग म्हाका, तूं कोण? आनी जीव कित्याक दिता?

चंद्रिका : तूं म्हाका विचारपी कोण? म्हाका ह्या जगांत इतले त्रास सोंसतना आजमेरेन कोणेंच विचारलें ना आनी आज तूं म्हाका आडावपी कोण?

चंदन : हांव चंदन, एक कवी. कविता रचपा खातीर हांव पावसांतल्यान भिजत हांगा आयिल्लों. पूण जालें भलतेंच. तूं कोण सांग पळोवया.

चंद्रिका : हांव चंद्रिका.

चंदन : खंय रावता? कोण तुजो आवयबापूय?

चंद्रिका : म्हाका सोड. तुज्या खंयच्याच प्रस्नाची जाप हांव दिवंक शकना. म्हजी वाट सोड, म्हाका वचुंदी.

चंदन : ना चंद्रिका. तुका हांव जीव दिवंक दिवचो ना. ह्या खिणा पसून तूं म्हजें जालें. तुका कसलेंच दुख्ख जावंक दिवचों ना हांव.

चंद्रिका : खरेंच चंदन, केदें व्हड मन तुजें. तुजें मन हांव वळखूंक शकतां. पूण, तुजें रुप कशें आसा तें मात म्हाका ह्या काळखांत कळना.

चंदन : तें आतां तुका दिसतलेंच. पळे चंद्रिका, पावस आतां थांबलो. तूं खंय रावता तें म्हाका सांग, हांव तुका पावयतां.

चंद्रिका : (रडटा.) चंदन, हांव तुज्या पांयां पडटां, पूण म्हाका म्हज्या घरा पावोवं नाका. हांव आनीक घरा वचचें ना.

चंदन : चंद्रिका, ल्हान भुरग्याभशेन वागूं नाका. चल, म्हाका सांग बेगीन तूं खंय रावता तें.

चंद्रिका : (रडटा.) किद्याक वांचयलें तुवें म्हाका, घरा वचपाक? ना, तें केन्नाच शक्य ना. तो वनवास, तें अग्नीकुंड आनी त्यो राक्षिणी. ना ना. हांव तांच्या म्हऱ्यांत केन्नाच वचचें ना.

चंदन : बरें आसा. आमी थोडो वेळ हांगाच बसून उलोवंया. बस, अशें

म्हज्या म्हऱ्यांत बस. ह्या अंधूक उजवाडांत हांव तुजें धवेंफुल्ल तोंड पळोवंक शकतां. सांग चंद्रिका, तुका घरा कोण त्रास दितात?

चंद्रिका : चंदन, म्हाका पयलीं एक वचन दी.

चंदन : वचन, तें आनी कसलें?

चंद्रिका : पयलीं दी. नाजाल्यार तुका हांव किदेंच सांगचें ना.

चंदन : वचन कसलें ते पयलीं सांग.

चंद्रिका : म्हाका तूं घरा पावोवचो ना म्हुणून उतर दी.

चंदन : इतलेंच गो? दिलें उतर. घे. (हात दिता.) आतां सांग.

चंद्रिका : म्हजो बाबा मुंबय आसता. आनी घरा आसात तीं सवती आवय आनी सवती भयण. घरांतलें सगलें काम म्हजेर पडटा.

चंदन : तीं करिनात?

चंद्रिका : ना. वावराडी आशिल्ली तिका काडून उडयली आनी म्हाका तें काम करचें पडटा. इतलेंच न्हय तर जेवण लेगीत हांवूंच करतां.

चंदन : तुका बापायन शिक्षण बी दिलें ना तर?

चंद्रिका : दिलें तर ! एस्. एस्. सी. क म्हाका डिस्टिंक्शन मेळ्ळें, म्हूणून बाबाक खूब आनंद जालो. पूण आईच्या उतराखातीर ताणें म्हाका कॉलेजाक घालें ना.

चंदन : बाकी तुका कॉलेजाक वचपाची इत्सा आशिल्ली तर?

चंद्रिका : हय, म्हाका डॉक्टर जावपाची इत्सा आशिल्ली.

चंदन : बाबाक तुज्या त्रासांची खबर आसा?

चंद्रिका : तितलें हांवें ताका कळूंक दिवंक ना. फाटीं म्हाका ताचें एक पत्र वाचूंक मेळिल्लें.

चंदन : म्हणजे तुका तीं बापायन धाडिल्लीं पत्रां वाचुंकूय दिनात?

चंद्रिका : ना, एक दीस चुकून तीं घरा नासतना म्हजें पत्र म्हज्या हातांत पडलें. तातूंत बाबान बरयल्लें कीं, हाचे पयल्या पत्रांत ताणें एका चल्याचो फोटो म्हाका धाडिल्लो आनी आईन आनी हांवें मान्य

केल्ले कारणान ताणें म्हज्या लग्नाची सगली तयारी करून दवरल्या. तेन्ना न्हवरो म्हाका पळोवपाक केन्नाय येवन वतलो.

चंदन : मागीर, तूं लग्नाक फाटीं किद्याक सरलें?

चंद्रिका : हांव लग्नाक फाटीं सरूंक नाशिल्लें, पूण आईन म्हाका हांतली कांयच खबर कळूंक दिवंक नाशिल्ली. तिणें शुभाच्या लग्नाची सगली तयारी केल्ली.

चंदन : शुभा म्हळ्यार ?

चंद्रिका : शुभा म्हजी सवती भयण.

चंदन : मागीर न्हवरो पळोवंक आयलो?

चंद्रिका : हांवें तें पत्र तशेंच धांपलें आनी दाराखांचीक तांकां मेळटा तशें दवरलें. आईक तें मेळ्ळें आनी तेप्रमाण तिणें सगली तयारी केली. अचानक फाटल्या सुमानांत एक दीस न्हवरो भितर सरलो. आईन ताका येवकार दिलो. आनी शुभाक बरी साडी न्हेसून रावपाक सुचयलें. आनी भितर येवन म्हाका सांगलें, 'तूं अजिबात भायर येवचें ना.' आनी फकत रांतचेकुडींत काम करपाक फरमायलें. शुभा ताका तितलेंशें आवडलें ना, अशें ताच्या तोंडावयल्यान कळटालें. तशें ताणें उलोवनूय दाखयलें. चलयेचो बापूय म्हणटालो, चली गोरीच आसा आनी तिचे दोळे घारशे आसात, ते भायर तिचें नांव चंद्रिका. ती खूब सुंदर दिसताली म्हूणून तिका चंद्रिका नांव दवरिल्लें, अशेंय ताणें म्हळें. फुडें ताणें म्हळें, बापायन सांगिल्लेप्रमाण हे चलयेंत म्हाका कांय सांपडूंक ना. हांवें हें आयकलें आनी बश्यो हाडपाखातीर कोठये कुडींत तांच्या म्हऱ्यांतल्यान गेलें. एक मिनीट ताची आनी म्हजी नदर एक जाली आनी म्हाका दिसता तो सगलें समजलो. ताणें च्या घेतली आनी ते भायर सरलो. तो शुभाकडेन उलयलो ना. आनी आपल्याक तें पसंत आसा अशेंय ताणें सांगलें ना. तो गेलेउपरांत म्हाका शुभाचे

आईन खूब मारलें आनी रान्नींतल्या कायलाथ्यान फाटीक दाग दिले.

चंदन : किदें? दाग?

चंद्रिका : इतलेंच न्हय तर घरांतल्यान भायर सरपाक लेगीत सांगलें. दोन दीस सोंसून सोंसून हांव रावलें पूण, आतां म्हज्यान सोंसूक जायना जालें; म्हुणून हांव जीव दिवपाक धावलें. पूण म्हज्या नशिबांत...

चंदन : तुज्या नशिबांत हांव एक आडमेळें, अशेंच न्हय?

चंद्रिका : तूं आडमेळें न्हय, जाल्यार एक देव. तूं मेळून म्हाका म्हजे जल्मदाते आवयची लेगीत माया मेळिल्लेभशेन दिसली. म्हजी आवय गेल्ल्याक म्हाका मायेन कोणें म्हऱ्यांत ओडूंक नाशिल्लें.

चंदन : चंद्रिका, तुजी साडी सामकी ओली जाल्या. चल घरा या आमी.

चंद्रिका : चंदन, तुज्या घरचीं मनशां तुका उलोवंचीं ना? हांवें पळे इतलो वेळ, म्हजीच नशीबफुटकी काणी सांगली. तुवें किदेंच सांगूंक ना. आनी हांवेंय तुका विचारलें ना.

चंदन : म्हाका कोण विचारतलो आशिल्लो जाल्यार हांव तुका उतर चडूच दितलों आशिल्लों.

चंद्रिका : म्हणजे तुकाय बी ह्या संवसारांत कोणूच ना?

चंदन : तें तुका कळटलेंच. चल खूब रात जाली, चल या आमी.

चंद्रिका : हो घे तुजो लेंस म्हजे होंटयेंत पडिल्लो.

चंदन : आसुंदी तुजेकडेन. आतां म्हजें तें सगलें तुजें.

चंद्रिका : चंदन, नांवाप्रमाण चंदन आसा खरो तूं.

चंदन : चंद्रिका, चड तोखणाय करूं नाका म्हजी.

चंद्रिका : इतलो म्हाका तेंकून चलूं नाका तूं. हांव सामकें भिजलां.

चंदन : तुज्या आंगाचें उदक म्हाका लागना. वयल्यान म्हाका तुज्यांतली ऊब सुखावन उडयता. तुज्या स्पर्शान म्हज्या मनांतल्या जायत्या गजालींक जागृताय हाडली. इतलो गोड स्पर्श म्हाका पयलोच

मेळ्ळा. आई गेल्यार खूब तेंप जालो. फाटल्यान ताईय गेलें. पूण तुका हांव म्हज्या जिवापरस चड सांबाळटलों.

चंद्रिका : चंदन, आमी कोणाच्या तरी घराकडेन पावलीं. हळू उलय.

चंदन : तें म्हजेंच घर. यो भितर. चल तूं कपडे बदल.

चंद्रिका : पूण हांवें कपडे खंय हाडल्यात?

चंदन : आगो, हें पळे हांगा आनीक कोणूच ना. आयचे रातीपुरते म्हजे कपडे घाल. फाल्यां तुका हांव दोन साडयो हाडून दितां. किदें? उपकरना? (हांसतात.)

चंद्रिका : (हांसत) उपकरता. (भिंतर वता.)

संगीत (पड्डो)

(चंदनाच्या घरांत. चंदन कदेलार बसून मेजार पेपर धरून बरयता.)

चंद्रिका : चंदन, ह्या दिसांनी तूं खूब काम करता न्हय? पुरो जायना तुका?

चंदन : चंद्रिका, म्हजें सदांचेंच तें.

चंद्रिका : सदांचें न्हय, ह्या आठ दिसांनी तूं रातचो बरयत आसता. धड न्हीद लेगीत ना. आज तूं रॅस्ट घे.

चंदन : ना चंद्रिका, म्हाका हें लिखाण परवां दिवंक जाय. मागीर हांव बेकार. कळ्ळें?

चंद्रिका : कळ्ळें. आतां एक मिनीट तुजें काम कुशीक दवर आनी च्या घे प्रळोवया.

चंदन : बरें दी. हें पळे चंद्रिका, तुका एक गूड न्यूज आसा.

चंद्रिका : गूड न्यूज? कसली?

चंदन : तुजो बाबा मुंबयच्यान घरा आयला आनी ताका तुजेखातीर खूब दुख्ख जालां खंय. आनी तो तुका पळोवंक सोदता.

चंद्रिका : मागीर हांवें थंय वच्चें अशें तुजें म्हणणें आसा काय किदें?

चंदन : फुडलें आयक तरी. तुज्या आनी म्हज्या लग्नाचो प्रस्न हांवें फुडें हाडलो तेन्ना तुजे सवती आवयन मोटे खोशयेन तुमचें लग्न करून

दितां म्हणून सांगलें.

चंद्रिका : किदें? ती तुका खंय मेळ्ळी?

चंदन : हांव विवेकानंद लायब्ररींतल्यान भायर सरता आसतना दारांत ती आनी एक जाणटोसो मनीस म्हाका दिसलो. तांणीच म्हाका हटकिलो, आनी तिणें म्हाका सांगलें की, तूं हांगा आसा ही खबर तांकां रोखडीच कळ्ळी. पूण परक्या चल्या म्हऱ्यांत राविल्ले कारणान लग्नाचेंय सोमतें म्हजेकडेनूच उलोवन थारावचें म्हणून तीं म्हाकाच मेळपाक राविल्लीं अशें तिणें म्हाका सांगलें.

चंद्रिका : (मनांतल्या मनांत) जाणटो मनीस म्हणजे म्हजो बाबाच आसतलो तो. बाबाहुजीर आईन सांगलां म्हणजे खरें आसूंक शकता.

चंदन : चंद्रिका किदें येवजिता?

चंद्रिका : म्हाका तरीय पटना. म्हाका परत त्रास दिवपाखातीर ती नाटकूय करूंक शकता. चंदन, म्हाका थंय धाडल्यार हांव तुका परतें मेळत शें दिसना रे आनी तशें किदेंय तांणी केलें जाल्यार हांव आनीक मात ह्या जगांत रावचें ना.

चंदन : चंद्रिका, आमचे भशेन तींय मनशांच. तेन्ना म्हाका दिसता, तुजो बाबा आयिल्लो आसतनाच आमचें तीं लग्न करतलीं. जाणट्यांचो आशीर्वाद आसुंकूच जाय. तुका हांव फाल्यां व्हरून पावयतां.

चंद्रिका : (रडटा.) चंदन, म्हाका ते राक्षिणी म्हऱ्यांत वचपाक खरेंच भंय दिसता.

चंदन : चंद्रिका, तुवें कितलीं वर्सां त्रास सोंसलो आनी आतां फकत थोडेच दीस, लग्न जायसर त्रास सोंसूंक शकना? आनी तेंय म्हजेखातीर.

चंद्रिका : बरें, हांव तुजेखातीर थंय वचपाक तयार आसां, फकत तुजेखातीर. बाकी त्या मनशांचें किदेंच खरेपण दिसना. तुजी याद म्हणून हो लेंस व्हरतां. आनी जर तर किदें जालें जाल्यार हांव जीव दिता आसतना तुजो लेंस वेंगेंत धरून जीव दितलें.

चंदन : चंद्रिका, अशें उलोवचें न्हय. तुज्या जिवाक त्रास करूं नाका. तुका हांव थंय चड दीस दवरचों ना. भियेवं नाका तूं.

पड्डो.

संगीत

(परतो वाटेवयलो पड्डो.)

चंदन : दुसऱ्या दिसा तें घरा गेलें आनी...

दास : आनी किदें जालें?

चंदन : ताज्या नशिबांत जावचें आशिल्लें तें जालें. घरच्यांच्या नाटकान ताचो बळी घेतलो. ताणें जीव दिलो आनी दास, हांव एकलो उरलों. कितले उमेदीन जगपाक फुडें सरिल्लों. ती याद म्हाका सदांच जाता. हांव भोंवतां भोंवतां खंय पावलों तें लेगीत म्हाका समजलें ना. त्या नुस्तेकारान सांगलां तें खरेंच आसूंक जाय. तेच वेळेर म्हजें चंद्रिका म्हाका सोडून गेलां. ताचें भूत थंय भोंवता जावंक जाय आनी ताणेंच हो लेंस धाडून दिला जावंक जाय.

दास : चंदन, कितें उलयता तूं जाग्यार यो. घडिल्ले गजालीक उपाय नासता. ती मनांतली याद काडून उडय आनी तुजें फुडलें जिवीत सुखी कर.

चंदन : तें केन्नाच शक्य ना. चंद्रिका, ताचो स्पर्श, ताचें हांसप, ताचें चलप, ताचें तें सुंदर रूप, मायेस्त सभाव हांव केन्नाच विसरचों ना. ही याद हांव मरणानंतर लेगीत बरोबर घेवन वतलों. चंद्रिका, तूंच म्हजी एक कविता:

काळखांत तूं म्हाका मेळिल्लें, पूण
उजवाडान तुका नाच्च केलें
तूं भिजलें; म्हजें मन भिजयलें.

आनी सगलें मळब निवळ करून गेलें. पूण चंद्रिका, तुका खबर ना तुजे यादीन मळब भरून येता आनी काळखी रात तुज्या चंदनाक भिजयता. (रडटा.) चंद्रिका, चंद्रिका.

दास : चंदन, खरेंच तुजें दुख्ख पळोवं नज म्हज्यान. तूं म्हजो इश्ट. तुज्या घरा तुका चंद्रिकाच याद येता जाल्यार तूं आमगेर यो. चल ऊठ.

चंदन : आरे पिशा, म्हाका तुगेर येवन चंद्रिकाक विसरून वचपाचें ना. म्हजें चंद्रिका म्हजी याद म्हणून म्हजेच बरोबर आसतलें आनी तेंय बी सामकें म्हज्या म्हऱ्यांत, सामकें काळजाक तेंकून. हो पळे, ताणें लेंस लेगीत यादीक धाडून दिला. चंद्रिकाचे यादीन म्हाका नवी उमेद येवंक लागल्या. ताचे यादीन हांव नव्या कवितांक जल्म दितलों. चल, आजपसून ह्या नव्या कवितांची हांव सुरवात करतां. पळे, पळे म्हज्या इश्टा, आयक म्हजें चंद्रिका म्हाका किदें सांगता ते. (भितरल्यान चंद्रिका उलयता.)

चंद्रिका : चंदन, तूं हांस आनी म्हाकाय हांसय. सोबीत तुज्या बोटांनी घोळय तें भांगराच्या बुकालाचें पॅन आनी अपुरबायेच्या आनी धादोसकायेच्या उतरांनी भर तुज्यो कविता म्हजे यादीन.

(स्टेजीर काळोख जाता. पड्डो.)

संगीत.

# कोडें

- गणू
- शामू
- बाबा
- सीमा
- राजेश
- पायल
- पाटील
- भाई
- रंजू
- भोला
- विराज
- पयलो क्लार्क
- दुसरो क्लार्क
- कॉन्स्टेबल
- पुलीस

(वाट दाखयता असो पड्डो. शेनाय वाजता. रस्त्या वयल्यान दोग शेजारी गणू आनी शामू गजाली करीत वतात.)

गणू : तूंय बाजारांत गेल्लो काय किदें रे शामू ? (गणूच्या हातांत पोती)

शामू : हय मरे. मात्शें काम आशिल्लें. तें करून आयलों.

गणू : कसलें रे काम?

शामू : राजेशाच्या बाबान कदेलांचें आनी बशयांचें बील फारीक करून यो म्हण सांगिल्लें तें काम करून आयलों हांव.

गणू : अशें? लग्नांतलीं जायतीं कामां तुजेरूच पडलीं तर.

शामू : लग्न आमच्या शेजाऱ्यालें आनीं तांतूंत राजेश म्हाका म्हजो इश्ट कसो. ताजें काम केल्यार म्हाकाय समाधान.

गणू : लग्नाक गेल्लो मरे?

शामू : हय तर! तूं गेलो ना?

गणू : ना. म्हाका रजा मेळना जाली. पूण तागेर बाजारांत वचचे पयलीं वचून आयलों. वयनी बरी सोबता ताका. लग्न कशें जालें रे?

शामू : राजेशाचें लग्न एकदम बरें जालें. इतली गर्दी हांवें कोणाच्याच लग्नाक पळोवंक नासली. लग्न मोट्या थाटान जालें.

गणू : बुफे बी आशिल्ली काय ना रे?

शामू : चार पंगती वाडल्यो. जेवण बरें रुचीक जाल्लें. तुका मात सगलेंच चुकलें.

गणू : कांय नजो रे. मदीं मदीं राजेशाल्यो पार्ट्यो आसतल्योच. म्हाका तशें तो कांयच उणें करिना.

शामू : खरेंच. राजेशाचो सभाव एकदम बरो. आरे चल, (घडयाळीक पळेता) बरोच वेळ जालो. घरा या.

गणू : बरें तर!... रे

पड्डो.

(राजेशाचें घर झकास सजयलां. सोफा कदेलां सगलें व्यवस्थीत मांडलां.)

बाबा : सुनबाय, ह्यो घे चाववो. ते आरमारीच्योय चाववो ह्याच घोंसाक आसात.

सीमा : बाबा, चाववो तुमीच दवरात. हांव चाववो घेवन किदें करतलें?

बाबा : तशें न्हय सूनबाय, आतां म्हजे वयलें काम हांव तुजेर सोंपयतां. पिकिल्लें पान केन्ना गळत तें सांगूं नजो. पयलीं राजेशाची आईच

सांबाळटाली ह्यो चावयो. पूण ती आतां नाशिल्ल्यान म्हाकाच सांबाळच्यो पडटाल्यो. पूण आतां परत ह्या घरांत लक्ष्मी आयली. तेखातीर आतां ही जबाबदारी हांव तुजेकडेन दितां आनी ती तुवें घेवंकूच जाय.

सीमा : बरें आसा, तुमची खोशी.

राजेश : (भायर येवन) बाबा, पाटीलबाब तुमची वाट पळेता भायर.

बाबा : पाटील? ते आनी आजूच किद्याक आयल्यात?

राजेश : किद्याक म्हणटा बाबा, कसलीं कामां आसात तांचेकडेन?

बाबा : हय. तुका कळपाचें ना तें. बरें, हांव मेळून येतां ताका. (वता)

सीमा : किदें जालां काय बाबाचें आनी पाटलांचें?

राजेश : सीमा, येन्नांच तुका बाबाची चिंता पडली?

सीमा : म्हणजे ?

राजेश : आगो, लग्नाक फकत दोनूच दीस जाल्यात.

सीमा : म्हणून किदें जालें?

राजेश : सीमा, अशें पळे. (सीमाचें तोंड आपलेवटेन करता) तूं अशें लजलें म्हणटकूच कितलें बरे दिसता म्हुणून सांगू?

सीमा : जालें आतां तुमचें सुरू.

राजेश : हें पळे सीमा, म्हाका तूं, तुमी, तुमचें बी म्हणूं नाका हां, स्पश्ट तूं, तुजें अशें म्हणपाचें. नाजाल्यार म्हाका दिसता, तुमी म्हणजे हांव खूब जाणटोसो आनी तूं सामकें भुरगें.

सीमा : बरें आसा. तशें जाल्यार तशें म्हणटां. आतां तरी जालें समाधान?

राजेश : आनी हें पळे आज सिनेमाक वचपाचें आसा. तुजें सगलें काम बेगीन आटप आनी रेडी राव. ओके?

सीमा : ओके. (दोगांय हांसतात.)

पड्डो.

(बाबा आनी पाटील दोगूय उलयतात.)

बाबा : पाटीलबाब, तुमचे पयशे हांव रोखडोंच फारीक करतलों.

पाटील : रोखडोच म्हळ्यार केन्ना ? म्हाका पयशे आयच्या आज जाय. पुंडलीक, तुजें काम हांवें सांगलेबरोबर केलें. हांवें हें काम केल्ल्यान तुजो राजेश आतां लग्न जावन सुखी आसा.

बाबा : हय पाटीलबाब, खरें तुमचें. त्या रंजूकडेन लग्न जाल्लो जाल्यार तो सुखी जावचोच नाशिल्लो. खूब उपकार केले तुमी.

पाटील : तें काम तितलें सोंपें नाशिल्लें. रंजूचें घर हुलपावपाक खूब मनीस लागले. केदें व्हड घर ताचें. घरांतलीं सगलीं मनशां न्हिदल्यांत थंयच मेल्यांत आसतलीं.

बाबा : मागीर ही गजाल आमच्या राजेशाक कळ्ळी?

पाटील : कळ्ळी तर. पूण कशी? तुवें उजो लावंक लायला म्हूण न्हय. कोणें तरी उजो लायलो आनी रंजू आपल्या घरच्यांबरोबर त्या उज्यांत मेलें, अशी ताणें खात्री केली.

बाबा : म्हणूनच तो लग्न जावंक फुडें सरलो.

पाटील : तें किदेंय जावं. तुजें ज्युस्त जाग्यार पडलें. आतां तूं म्हजे पयशे दी.

बाबा : पाटीलबाब, तुमी पयशांखातीर मात्तूय भियेवं नाकात. म्हजें उतर म्हणजे उतर. हांव फाल्यांच तुमकां पांच हजारांचे चॅक दितां. बरोबर १० वरांचेर तुमी वाट पळेयात.

पाटील : बरें आसा. रामराम.

बाबा : रामराम.

(पड्डो वा स्टेजीर काळोख.)

(राजेश बसला आनी सीमा च्या घेवन येता.)

सीमा : ही घे च्या. हें किदें? आयकूंक ना? च्या घे म्हळ्यार.

राजेश : आंऽऽ दवर, घेतां.

सीमा : अशें किदें करता? कालच्यान तूं सारको ना. सिनेमा पळोवन आयिल्ल्याक तुजें चित्त जाग्यार ना. लोक किदें सिनेमा पळेनात? तांतलें किदें खरें आसता? फकत एक काणी कशी. इतलो तूं मनार परिणाम करून घेवं नाका.

राजेश : सीमा, तें दृश्य अजुनूय म्हज्या दोळ्यांमुखार येता. केदो घात केलो त्या चल्याच्या बापायन. पेत्रोल घालून चलयेचें घरूच हुलपावन उडयलें. केदो आकांत येतलो तांचेर, हें ताणें मात्तूय येवजिलें ना.

सीमा : आतां पुरो त्यो सिनेमांतल्यो गजाली. इतलो मनाचेर परिणाम जाता जाल्यार सिनेमाच पळोवपाचो बंद करुंया. चल च्या घे पळोवया. आनी हें पळे, आमका फिरूंक वचूंक जाय म्हूण खबर आसा न्हय?

राजेश : बरें, च्या दी. (सीमा कप हातांत दिता.) (बाबा भितरल्यान येता.)

बाबा : सूनबाय, अजून तुमची च्या जावंक ना?

सीमा : हे जेवन न्हिदिल्ले ते आतांच उठ्ठात.

बाबा : राजेश, तुज्या जिवाक बरें ना काय किदें?

राजेश : ना बाबा, तशें कांय जावंक ना.

बाबा : आरे, तुवें ह्या दिसांनी लीव काडल्या न्हय? म्हणटकूच तुमकां खंय भोवूंक बी वचपाचें ना?

सीमा : आतां वचपाचें आसा बाबा.

बाबा : बरें. वचात तर. आनी हें पळे सूनबाय, (बाबा बुशकोट घालता आनी जोतें घालूंक वता आसतना) राजेशाक सकाळीं एक पत्र आयलां, तें हांवें ताज्या मेजार दवरलां. ताका यादीन दी तें.

हांव मात्सो भायर सरतां. (वता.)

राजेश : कसलें पत्र काय! सीमा, हाड पळोवया तें पत्र.

(सीमा भितर वता आनी पत्र घेवन येता.)

सीमा : हें घे पत्र. ऑफिसांतलें शें दिसता.

राजेश : (पत्र फोडटा. वाचता.) सीमा, म्हजी लीव सोंपलेबरोबर म्हाका ऑफिसाच्या कामांखातीर कलकत्त्याक वचूंक जाय. एक म्हयनो उरतलों हांव थंय.

सीमा : आवय म्हजे! एक म्हयनो? तुजेबगर इतले दीस हांव कशें रावतलें?

राजेश : सीमा, कामाखातीर म्हाका वचुंकूच जाय. वच्चे पयलीं आमी खूब मजा करुंया.

सीमा : बरें, बरें. चल, आतां उशीर जाता. भोंवूंक या आमी.

राजेश : बरें, चल.

पड्डो.

(रंजूचें घर. सादेंशेंच. भाई कदेलार बसला.)

भाई : रंजू, आज स म्हयने जाले आमचें घर काबार जाल्यार.

रंजू : भाई, घर जळ्ळें म्हुणून किदें जालें? आमकां कोणाक कांयच जालें ना हे देवाचेच उपकार न्हय? ना जाल्यार पळे. त्याच दिसा ताईच्या विवेकाचें लग्न आसता आनी आमी घरांतली सगलीं मनशां कलकत्त्याक येतात आनी घरांत कोणूच ना हें त्या बावड्या उजो लायतल्या चोराक खंय खबर? त्या चोराक दिसतलें आमी सगलीं तातूंनच जळून मेलीं म्हणून.

भाई : बाकी बरें, जालें आमी जिवंत आसात म्हणून कोणाकूच खबर ना.

रंजू : आनी म्हज्या राजेशाक तरी खबर आसतलें काय?

भाई : रंजू, आतां तो तुजो राजेश उरूंक ना.

तातूंत मनशांय कोण मेळ्ळीं नात. म्हणटकूच तो किदें समजतलो? ताका दुख्ख जालेंच आसतलें. पूण ताच्या बापायन ताका आनी चड मानसीक त्रास जावचे न्हय म्हणून लग्न केलो आसतलो.

रंजू : म्हज्या दुख्खान तो फाटीफुडें जालो ना?

भाई : जालो आसतलो. ताचें दुख्ख तो जाणा. आतां उलोवन कांयच फायदो ना. पूण तूं मनाक लावन घेवं नाका. तुजें दुख्ख म्हाका कळटा.

भोला : (भोला काम करपी, भाई म्हच्यांत येता.) भाई मालक, तुमकां तुमच्या गांवचो कोण सोदूं आयला.

भाई : हाड ताका भितर. (भोला ताका भितर हाडटा आनी आपूण भायर वता.) आरे, कोण विराज?

विराज : आरे भाई, रंजू, कशीं आसात तुमी? तुमकां पळोवन आनंद जालो.

बाई : आनंद जातलोच. आमचो तर पुनर्जल्म जालो न्हय रे?

विराज : हय तर. (दोगूंय हांसतात)

रंजू : विराजभाई तूं कसो आसा?

विराज : हांव बरो आसां भाई. हांव तुमकां एक खबर सांगूक आयलां.

भाई : राजेशाच्या लग्नाची खबर मरे? ती आमी जाणात.

विराज : लग्नाची न्हय. तर राजेशाचें लग्न सीमाकडेन करूंक जाय म्हूण केल्लें कारस्थान. ती खबर सांगपाक हांव आयलां.

रंजू : म्हणजे?

विराज : रंजू, तुका आयकून वायट दिसतलें. पूण राजेश ह्या कारस्थानांत सामील ना. ताका हांतली कांयच खबर ना. हें सगलें ताच्या बापायन केलां.

भाई : हें सगलें म्हळ्यार किदें विराज?

| | | |
|---|---|---|
| विराज | : | तुमचें घर लासपाचें कारस्थान. राजेशाच्या बापायन लासलां तुमचें घर. |
| रंजू | : | (एकदम) किदें? राजेशाच्या बापायन लासलां आमचें घर? कित्याक? कोणें सांगलें तुका हें? |
| विराज | : | ही खरी खबर. ताणेंच जाळ्ळां तुमचें घर. ताचो म्हळ्यार राजेशाचो बापूय आनी तुजो बापूय खूब पयलींचे दुस्मान खंय. |
| भाई | : | आरे पूण, तुका हें सांगलें कोणें? |
| विराज | : | म्हाका सांगलें पाटीलबाबान. राजेशाच्या बापायन ताका ५ हजारांच्या मोबदल्याचेर हें करपाक सांगिल्लें. त्या कारस्थानान ताका रंजूक मारून उडोवपाचें आशिल्लें. आनी राजेशाचें लग्न सीमाबरोबर करपाचें आशिल्लें. ताच्या बापायची खात्री जाली तूं मेलें म्हणून आनी राजेशानूय तें मानलें. त्याच दुख्खान तो बापायच्या उतराखातीर सीमाकडेन लग्न जालो. पूण ताका बाबड्याक आपल्या सुवार्थी बापायची अजुनूय वळख पटूंक ना. |
| भाई | : | इतलो दुश्ट ताचो बापूय म्हुणून हांव नकळों आशिल्लों. |
| विराज | : | भाई, राजेश मात बापायशेन जावंक ना. राजेशासारको भुरगो खंयच मेळचो ना. इतले बरे गूण आसात ताचेकडेन. रंजूचो. आनी राजेशाचो जोडो सोबतालो, पूण वैऱ्यांक तो मानलो ना. |
| रंजू | : | जें जालें तें जालें. म्हजो राजेश बरो आसल्यार पुरो. सीमा ताका सूख दितलें. ताचें लग्न जालें म्हूण म्हाका वायट दिसूंक ना. नशिबान आसता तशें मेळटा. देवान जर ताची गांठ सीमाकडेनूच बांदिल्ली जाल्यार हांव तरी किदें करतलें? |
| विराज | : | रंजू, केदें व्हड मन तुजें? |
| भाई | : | विराज, आमचें रंजू सोशीक म्हणून ताच्या वांट्याक दुख्खूच चड येता. |

रंजू : विराजभाई, तूं गांवाक वतलो तेन्ना थंय आमचेबद्दल कोणाकूच किदेंच सांगूं नाका. आमी जिवंत आसात म्हूण कोणाकूच कळूंक दिवं नाका. राजेशाक तर हे बाबतींत कांयच कळूंक जायना.

विराज : बरें आसा. हांव आतां चल्लों.

भाई : विराज, इल्ली च्या घेवन वच. बस. पळे, उबोच आसा तूं. (रंजू भितर वता.)

विराज : बरें भाई, बसतां. गांवांत आसतनाय तुमी दारांत आयिल्ल्या मनशाचो ताळो ओलो केलेबगर धाडीनाशिल्लीं. आरे इतलो वेळ हांव उलयत रावलों. पूण आईची आनी बाबाची खबर घेतलीच ना. खंय तर तीं?

भाई : तीं सद्या मद्रासाक आसात. येतलीं आनीक दोन म्हयन्यांनी.

रंजू : ही घे च्या विराजभाई. (रडिल्ल्या आवाजात.)

विराज : रंजू, तकली वयर काड पळोवया. (रंजूचे दोळे भरल्यात.) पळे भाई, रंजू कशें भितरलेभितर दुख्ख गिळटा तें.

भाई : रंजू, तुवेंच सांगला कीं राजेशाच्या लग्नाबद्दल वायट कांयच दिसूंक ना म्हुणून.

रंजू : भाई, आपल्या मनशाची याद ही येताच. तो किदें आपूण जावन लग्न जावंक ना. हांव ना हांची खात्री करूनूच तो लग्न जालो. तांतून ताचो दोश कांयच ना. हांव ताका अजिबात दोश दिना. (विराज च्या पियेता.)

विराज : रंजू, तूं आतां दुख्ख आवर. आनी भाई, रंजूचें जाता तितलें बेगीन लग्न कर. तूं सांगता तेन्ना हांव तुमकां मदत करपाक तयार आसां.

भाई : विराज, तुवें तोंडान म्हळें तितल्यानूच आमचें पोट भरलें. हांव जाता तितले प्रयत्न करतां ताचें लग्न करपाक.

विराज : बरें भाई, रंजू, येतां हांव.

भाई : बरें. बरो करून वच. (विराज वता.) गेलो. पळेलें रंजू, आतां तरी खात्री पटली तुका?

रंजू : भाई, राजेश केन्नाय तरी म्हाका मेळटलो अशें म्हाका दिसता. आनी आमच्या ऑफिसांत ताका बॉम्बेच्यान हांगा धाडटात. तेन्ना खात्रीन ताका हांव दिसतलें.

भाई : मागीर तूं सांगतलें ताका किदें घडलें तें?

रंजू : ना भाई. हांव ताका कांयच सांगचें ना. तो म्हाका वळखलो जाल्यार लेगीत हांव ताका म्हजी वळख दाखोवचें ना. हांवें वळख दाखयत जाल्यार ताका पश्चत्ताप जातलो. आनी एक वेळ तो आपलो सुखी संवसार मोडून तोडून उडोवन म्हज्या म्हऱ्यांत येवंक शकता. तेन्ना वळख दाखयनासतना ताका सुखी दवरूंक जाय आनी ही जबाबदारी हांव घेतलें.

पड्डो: काळोख.

(राजेशाचें घर. बाबा आनी सीमा)

बाबा : सूनबाय, आरमारीच्यो चावयो दी पळोवया.

सीमा : किद्याक बाबा?

बाबा : म्हजे तातूंत कागद आसात ते म्हाका मातशे पळोवंक जाय.

सीमा : बाबा, हांचीं जायतीं गरजेचीं कागद तांतूंत आसात. तेन्ना तेच येतकूच तुमी पळेयात तुमचे कागद.

बाबा : किदें? तूं म्हज्यो चावयो म्हाका दिवपाक सोदिना? म्हजो विश्वास ना तुका? हांवें तुजेर विश्वास दवरून तुका ह्या घरांत हाडली आनी आज तूंच म्हजो दुबाव घेता?

सीमा : पापाचे इस्टेटीचेर विश्वास दवरून म्हाका हांगा हाडलें. म्हाका तुमचो मात्तूय विश्वास ना. आनी गांवांतल्या लोकांक सामकोच

विश्वास ना तुमचो.

बाबा : सूनबाय, तुजी तकली जाग्यार आसा काय ना. राजेश येवंदी, सारकी तकली जाग्यार हाडपाक लायतां.

सीमा : आज १५ दीस जाले, तांकां कलकत्त्याक गेल्यार. तुमी एक दीस तांची खबर काडूंक ना आनी ते नासतना धवळाधवळ करपाक तुमकां तुमचे गरजेचे कागद येवजले?

बाबा : सूनबाय, तोंड आवर तुजें. तूं कोण समजता म्हाका? हें घर म्हजें.

सीमा : तशेंच हें घर म्हजेंय.

बाबा : बरें आसा. राजेशाक येवंदी. पळेतां तुजी मिजास. (वता.)

सीमा : (हांसता.) एक बापूय आपल्याच पुताक फटयता, लोकांचीं घरां लुबाडटा आनी पयसो एकठांय करता. मरणाचे धडेक तेंकलो तरीय पयशांची आस वचना. शीः वीट आयलो म्हाका हांगा. हो केन्ना येतलो काय जाला. आनीक १५ दीस वचूंक जाय. कुळारा वचून रावल्यार बरें अशें दिसता. पूण थंय वचत जाल्यार बाबाचें कांयच धड लागना. तो ही आरमार कशीच दवरिना. म्हाका हांगाच रावचें पडटलें. आरमारींत बाबाचीं कसलीं कसलीं कर्मां आसात तीं पळोवन काडटां.

पड्डो.

(ऑफिसाचो देखाव, दोनतीन क्लार्क बसल्यात आनी मेजार २-२ फाईली आसात. बरोवपाचें काम चल्लां.)

पयलो क्लार्क : आरे, आज राजेशसायब आमच्या चॅकिंगाक येवपाचो आसा खंय.

दुसरो क्लार्क : हय, खबर आसा म्हाका. तो येवपाचो आसा न्हय, आयलो. दोन वरां जालीं तो डायरेक्टराकडेन बसला.

पयलो क्लार्क : तशें जाल्यार आतां हांगा येतलो तो.

दुसरो क्लार्क : हें पळे, आतां एकाक फकत पांच मिणटां उरल्यांत.५ मिणटांक कसलें चॅकींग करतलो?

पयलो क्लार्क : तेंय खरें.

दुसरो क्लार्क : तूं कांयच गोंदळून वचूं नाका. सगल्यो फायली कम्प्लीट आसात. भियेवपाचें कांयच ना. आरे, येता रे सायब. (राजेश कॅबिनांतल्यान येता.)

दोगूय क्लार्क : गूड आफ्टरनून सर! (उबे रावून म्हणटात.)

राजेश : गूड आफ्टरनून. कशें चल्लां काम?

पयलो क्लार्क : बरें चल्लां सर.

दुसरो क्लार्क : फायली पळेतात सर.

राजेश : आतां जेवपाचो वेळ जालो. एकाक तुमकां ब्रेक न्हय?

पयलो क्लार्क : हय सर. जेवन येतात आमी.

राजेश : अकाऊंटंट माथूर येवंक ना?

दुसरो क्लार्क : भितरल्या रुमांत अकाऊंट सॅक्शन आसा सर. तेय सगले जेवपाक वतले आतां.

राजेश : बरें तर. तुमी जेवन येयात.

अेक क्लार्क : तुमीय जेवंक चलात सर. (सगले जेवंक वतात)

राजेश : बरें चलात तुमी. (भितरल्यान अकाऊंट सॅक्शनांतल्यान रंजू भायर येता.) आं, ती चली कोण? रंजू? हय, रंजूच भशेन दिसता. रंजू जिवंत आसा तर! कशें? विचारल्यार बरें. हॅलो रंजू?

रंजू : आं, (गोंदळून) तुमी म्हाका कशे वळखतात?

राजेश : किदें? रंजू! तूं म्हाका वळखना? हांव तुजो राजेश.

रंजू : किदें? (कांयच नकळ आशिल्लेवरी) राजेश ? हांव तुमकां वळखना. तुमी खंयचे?

राजेश : रंजू, तूं म्हाका वळखना? तुजें घर खंय? आमच्या गांवांत न्हय? तुज्या घराक उजो लागूंक नाशिल्लो?

रंजू : सर, तुमी किदें उलयतात? म्हाका हांतलें कांयच कळना. तुमचो किदें तरी गैरसमज जाला आसतलो. तुमकां आमच्या सॅक्शनांतलें किदें चॅक करूंक जाय तें सांगात. म्हाका मागीर जेवंक वचूंक जाय.

राजेश : म्हाका तुजें कांयच चॅक करपाचें ना. तूं व्यवस्थीत जेवन यो. ओके?

रंजू : ओके, बाय सर.

राजेश : बाय, बाय रंजू. (रंजू वता.) हें रंजू न्हय कशें? तोंड, दोळे, नाक, केंस, उलोवणें, चलप, तीच मोटाय, लांबायूय बी तीच आनी निळ्या रंगाची साडी, ताचे आवडीचो रंग. हें रंजूच आसूंक जाय. हांव फटवतां काय हें फटयता म्हाका? काय हांवेंच हाका फटयला शें दिसता म्हुणून हें आतां अशें नाटक करता? कसलें कोडें हें? हें कोडेंच. रंजू मेलें म्हणपाक ताचो जळिल्लो सांगाडो लेगीत म्हज्या हाताक लागलो ना. हांवें उज्यांतल्यान रंजूक सगल्याक सोदलें, पूण म्हाका तें खंयच हाताक लागलें ना. कोण सांगतलो म्हाका आतां हें रंजू म्हजें म्हणून? घराची खबर काडल्यार आपूण कांयच नकळो कशें दाखयता. देवा! खरेंच म्हजें रंजू जिवंत आसा? हें कोडें कशें सुट्टलें? हांव हांगाच बसतलों. जेवन परत ऑफिसांत येतलेंच तें.

(घडयाळीर दोन वरां जाल्यांत. राजेश एका कदेलार बसला.) (क्लार्क येवन बसतात. राजेश मातसो पयस रावता.) (आनीक दोग जाण अकाऊंट सॅक्शनांत वतात.)

राजेश : (आपले भितर उलयता) दोन वरां जावन गेलीं. ऑफिसांतले सगले आपआपल्या कामांक आयले. पूण हें रंजू कशें आयलें

ना? त्या क्लार्काक विचारल्यार बरें. (क्लार्काकिडेन) आरे अकाऊंट सॅक्शनांत सगले आयले?

१ क्लार्क : हय सर. (भियेत) तुमकां कोण जाय सर?

राजेश : मिस रंजू त्या सॅक्शनांत आयलें?

१ क्लार्क : ना सर. तें आज ऑफिसांत येवंक ना.

२ क्लार्क : सर, ताणें आतांच लीव बरोवन धाडल्या. तें येवचें ना.

१ क्लार्क : आपोवंक धाडूं सर?

राजेश : नाका नाका.

२ क्लार्क : ताच्या मेजावयल्यो फायली चॅक करूंक जाय सर?

राजेश : तश्यो थोड्यो फायली पळेल्यात हांवें. तूं चल, तुज्या कामाक लाग.

पड्डो.

(वाटेचो पड्डो.)

राजेश : (आपले भितर) हाणें अकस्मात हाफ डे लीव किद्याक घेतली? हांव हांगा वाट पळेत रावतलों म्हणून ! हाचेवयल्यान हें म्हजें रंजू न्हय कशें? देवा, असो म्हाका कोड्यांत किद्याक उडयला? पूण एकेच तरेचे दोन चेहरे आसुंकूय शकतांत. तशेंय जायत. रंजू म्हाका कसलीच वळख दाखयना. तेन्ना तें रंजू न्हय आसत. पूण म्हाका याद जाता म्हज्या रंजूचे मानेर एक माव आसा. ती ताची जल्माची खूण. हांव कशेंय भशेन ताका परतो मेळटलोंच. ताचे मानेर खूण आसा काय ना तें पळेतलोंच. (वता.)(पड्डो) (रंजूचें घर. रंजू आनी भाई घरांत आसात.)

भाई : रंजू, तुका हालीं किदें जालां? धड उलयना, धड न्हिदना, धड खायना-जेविना. किदें तरी येवजीत आसता? जालां तरी किदें

तुजें?

रंजू : कांय ना भाई. तुका खरें सांगपाचें म्हळ्यार, राजेशाक हांवें फट मारली तेंच म्हज्या मनाक खाता. पण किदें करूं? फट मारुनूच तो सुखी जातलो न्हय भाई ? (रडटा.)
नाजाल्यार तो आपलो संवसार....

भाई : रंजू, तुवें केलां ते बरोबर आसा. केन्नाकेन्नाय दुसऱ्याच्या सुखाखातीर फट मारची पडटा. आनी आतां वळख दाखोवन कांयच उपेग ना.

रंजू : भाई, काल परत तो ऑफिसांत आयलो, आनी हांव एकटेंच बसलांशें पळोवन, ताणें ल्हवूच फाटल्यान येवन म्हजे मानेवयले केंस कुशीक काडले आनी म्हजे मानेर आशिल्ली खूण पळोवन एकदम ल्हान भुरग्याभशेन उडकी मारून म्हळें, "रंजू, ही पळे तुजे मानेर ही जल्माची खूण आसा. तूं म्हाका फटोवं नाका, तूं म्हजेंच रंजू!"

भाई : मागीर तुवें किदें सांगलें?

रंजू : हांवें सांगलें, फाटीं म्हाका ॲक्सिडँट जाल्लो. तेन्नाची ही एक खूण उरल्या. ती जल्माची खूण न्हय. आनी तेभायर मात्शें रागान हांवें म्हळें, "तुमी परते परते म्हाका म्हजें रंजू, म्हजें रंजू अशें म्हणूं नाकात. म्हजें नांव बदनाम करूं नाकात. हांगा लोक किदेंय समजतले." अशें सांगतकूच ताणें म्हाका सॉरी म्हणलें आनी तो रोखडोच थंयचो गेलो. पूण भाई, हांव म्हणजे एक कोडेंच जातलें ताका. तेंच म्हाका येवजून, येवजून येता.

भाई : रंजू, तुवें आतां कांयच येवजूंक जायना. ताणें सुखी जावचो अशें तुका दिसता न्हय? म्हणटकूच तूं तुजें अस्तित्व दाखोवंच नाका. ताका किदें समजुपाचें आसा तें समजूं दी चार दीस तोय मात्सो वयरसकयल जातलो. पूण आतां ताची बायल आसा.

तो आपल्या संवसारांत रमतलो आनी सगलें विसरून वतलो. पूण तुवेंय ताचे भशेन सुखी जावंक जाय.

रंजू : म्हजें आनी वेगळें सूख कसलें भाई? तुमचेबरोबर रावतां म्हणूनूच हांव सुखी आसां.

भाई : तें बरोबर. पूण, चली हें परक्याचें धन. तेन्ना तुजें जाता तितले बेगीन लग्न करपाचें हांव पळेतलों. आईक-बाबाक कळयलांच हांवें. तांचेय थंय प्रयत्न चालू आसात.

रंजू : भाई, आई-बाबाक किद्याक कळयलें? तूं आनी कसलेच प्रयत्न करूं नाका. हांव हांगा सुखी आसां.

पड्डो.

(राजेशाचें घर. राजेश कपलार हात धरून बसला.)

सीमा : राजेश, तुका कलकत्त्याकसून आयिल्ल्याक पळेतां, तूं किंदें तरी येवजीत आसता. जालां किदें? सांग पळोवया म्हाका.

राजेश : तुका आनीक सांग किदें कपल? एके वटेन बाबाचे त्रास, दुसरे वटेन तुजी कुचंबणा आनी तिसरे वटेन हांव गुरफटलां. हें कोडें कशें सुट्टलें तेंच म्हाका कळना.

सीमा : कोडें ? कसलें कोडें? परत सिनेमा बी पळेलो काय किदें?

राजेश : हय, सिनेमा. म्हज्या लायफाचो जाला सिनेमा आतां.

सीमा : राजेश इतलो भोळो कसो तूं? किदेंय पळेल्यार रोखडो तुज्या मनार परिणाम जाता. कसलेंय किदेंय येवजुचें न्हय.

राजेश : जाका भोगता ताकाच कळटा. तुजेंच पळे, हांव हांगा नासतना बाबान तुका जायत्यो कटकटी केल्यो. तुका त्रास जालो काय ना?

सीमा : हय तर. थोडो त्रास जालो?

| | | |
|---|---|---|
| बाबा | : | (बाबा येता.) (रागान) राजेश, म्हाका म्हजे आरमारीच्यो चावयो दी पळोवया. |
| राजेश | : | सीमा, बाबाक चावयो दी. |
| बाबा | : | पळे, पळे म्हजो राजेश कितलो बरो तो. आतां दी चावयो. |
| सीमा | : | चावयो मेळच्यो नात. |
| राजेश | : | किदें? बाबाक चावयो मेळच्यो नात ? |
| सीमा | : | ना. तुमकां खबर नात तांच्यो भानगडी. हांवें सगलीं कागदपत्रां वाचल्यांत. तांचो धंदो हाचें घर हुलपावप, ताचो संवसार मोडप, हाची जमीन हडप करप. हाका फटय, ताका लुबाड हेंच चल्लां. एक वेळ नदर मारून पळे, गांवांत लोक तांकां किदें म्हणटात तें कळटलें. |
| बाबा | : | राजेश पळे, पळे सीमाचें तोंड कितलें सैल जालां तें. |
| राजेश | : | सीमा, हाड त्यो चावयो हांगा. (सीमा चावयो राजेशाकडेन दिता.) ह्यो घे चावयो बाबा. आनी हें घरूय तुमकांच दवरात. ह्या तुमच्या कर्तुबांवयल्यान म्हाका सगलें कळ्ळें. हांव सीमाकडेन लग्न जालों तुमचे पसंतीन, म्हजे पसंतीन न्हय. |
| बाबा | : | राजेश, हें किदें म्हणटा तूं? हांवें हें सगलें केलें तुज्या बऱ्या खातीर. |
| राजेश | : | म्हज्या बऱ्याखातीर तुका करपाचें आशिल्लें जाल्यार म्हजे पसंतीचेंच सगलें करतलो आशिल्लों. म्हाका आतां कांयच आयकुपाचें ना. हांव चल्लों. हाचेफुडें पांय दवरचों ना हांव हांगा. |
| सीमा | : | खंय वता तूं राजेश? हांवूय येतां तुजेबरोबर. नाका म्हूणूं नाका म्हाका. |
| राजेश | : | तुजी इत्सा. खंयूय गेलों तरीय म्हज्या मनांतलें कोडें मरसर उलगडचें ना. बाबान म्हाका दुख्खांत धुकल्लो. नशीब म्हजें. (दोगांय वतात.) |

बाबा : राजेश, राजेश गेलो तूं? खरेंच हांव तुजो अपराधी. तुका हांवें फटयलो. म्हज्याच पुताक हांवें फटयलो. (रडटा.)
(दोन पुलीस आनी एक कॉन्स्टेबल येता.)

कॉन्स्टेबल : हो पळे, होच तो राजेशाचो बापूय 'अरॅस्ट हीम.'

बाबा : आरे आरे पुलीस ! किद्याक धरतात म्हाका?

कॉन्स्टेबल : गांवांतलें घर हुलपायता आसतना कांयच दिसलें ना तुका? चलात, व्हरात रे ताका.

बाबा : माफ करात रे म्हाका.

पुलीस : चल, चल. (सगळे वतात)

(पड्डो.)

**रेखा रामनाथ नायक**

जल्म : २३-११-१९५४

शिक्षिका. नाटककार.

आकाशवाणी कलाकार.

शिक्षण एम्. ए. मेरेन जालां.

फाटलीं तीस वर्सां आकाशवाणीचेर ल्हान व्हड कार्यावळी करीत आयलां.



---

**ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोण ४०३ ७०२**